MB/Mar 2020 / Vol 19 / ISSUE 3 / ... Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹ 50/-

# बिम्ब

## मासिक

### मार्च २०२०

# ...न संधीच्या दिशेने..

...अधिकाऱ्यांच्या स्थायी नियुक्तीच्या सर्वोच्च न्यायालयाच्या निर्णयाचे स्वागत करताना याचिकाकर्त्या महिला अधिकारी

...क टप्प्यावर येऊन पोहोचली. सर्वोच्च न्यायालयाच्या निर्णयाची अंमलबजावणी करण्यासाठी लष्कराला तीन महिन्यांची मुदत देण्यात आली आहे. आर्मी ॲक्ट १९५० च्या सेक्शन १२ नुसार लष्करात महिलांच्या नियुक्तीविषयी उल्लेख आढळतो.

गुप्तचर खातं (इंटेलिजन्स), कोअर ऑफ इंजिनिअर्स, कोअर ऑफ इलेक्ट्रिकल अँण्ड मेकॅनिकल इंजिनिरिंग (इएमई) या विभागात महिलांची नेमणूक सुरु करण्यात आली. सुरुवातीला महिलांचा लष्करातील सेवेचा कालावधी फक्त पाच वर्ष होता. त्यानंतर...

उपलब्ध नव्हत्या. साहजिकच पेन्शन लागू नव्हती.

फेब्रुवारी २००३ मध्ये पहिल्यांदाच वकील बबिता पुनिया यांनी दिल्ली उच्च न्यायालयात जनहित याचिका दाखल केली आणि लष्करातील महिला अधिकाऱ्यांना स्थायी...

त्यामध्येसुद्धा पुरुष आणि महिला अधिकाऱ्यांना लागू असलेल्या अटींमध्ये फरक होता. ऑक्टोबर २००६मध्ये मेजर लीना गुरव यांनी नव्या अधिसूचनेतील अटींना आव्हान देणारी याचिका दिल्ली उच्च न्यायालयात दाखल केली आणि स्थायी नियुक्तीसुद्धा...

...गीक अत्याचार...

भांगरभूंय । प्रतिनिधी

पणजी : सान पिरायेचे चलयेचेर लिंगीक अत्याचार केल्ल्या प्रकरणांत पणजी बायलां पुलिसांनी उत्तर गोंयांतल्या शेखर नायक (50) हो दुबावितीक अटक केल्या. अटक केल्ल्या दुबावितीचेर आतां...

पणजी बायलां... म्हायती प्रमाण, एका... चलयेचेर लिंगीक... केल्ल्या प्रकरणांत फेब्रुवारीच्या... पयल्या सप्तकांत कागाळ दाखल... जाल्ली. उपरांत पुलिसांनी त्या कागाळीची...

...पोलीस : पाच लाख रुपये घेतल्याचाही आरोप

...स उपनिरीक्षकाने केला बलात्कार

बलात्का...

गळफासाने...

दिल्ली सामूहिक बलात्कार आरोपींची फाशी पुन्हा लांबणीवर

पीटीआय

नवी दिल्ली : ...

**दरेक दीस जावंचो...**

**आंतरराष्ट्रीय महिला दिन..**

**महिलांच्या मान-सन्मानाचो थारचो...**

**दिसाचो दरेक खीण.....**

...वतीमध्ये विद्यार्थिनींना 'प्रेमविवाह' न करण्याची शप...

# बिम्ब कोंकणी मासिक

## १९ वें वर्स

दरेक दीस जावंचो...
आंतरराष्ट्रीय महिला दिन..
महिलांच्या मान-सन्मानाचो थारचो...
दिसाचो दरेक खीण.....दिलीप बोरकार



**BANK DETAILS :**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793



वर्स १९ अंक 3
मार्च २०२०
मोल 50 रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊस्कार

**मुद्रक आनी प्रकाशक**
दिलीप बोरकार

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**वर्गणीचे दर**
वर्सुकी 400 रू.
3 वर्सां 1100 रू.
खंयच्याय म्हयन्यासावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक Bimb monthly ह्या नांवान धाडचो.

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
Dilip Borkar
2-A, Govt. Qtrs, Ponte De Linhares
Patto, Panaji- Goa 403001
Tel: 0832-2438355
Mail: bimbkonkani@yahoo.co.in

**कचेरी**
'धर्म लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204

# म्हादयआट्टा,ती पेट्टली कशी,पेटयतलो कोण?

## संपादकीय

म्हादय गोंयकारांच्या हातांतल्यान वचपाच्या मार्गार आसा. तशी म्हादय खंय वचची ना. वतलें तें म्हादयतलें उदक. म्हादय शेकानशेक पडून आसतली, आटून गेल्ली, कांय सुवातांनी सुकून सडो जावन पडिल्ली. उदकाचो एक थेंबो नासतना. आपल्या कर्मकट्‌ट्या पुतांच्या कर्तुत्वाक आनी शंडपणाक खेपीत, शिराप घालीत. पूण तिचे शिराप म्हादय आमची आवय म्हणत तिच्या नाडयार सुवार्थाचें राजकारण खेळपी तिच्या तथाकथीत पुतांक लागतले व्हय..? तशीं कांय चिन्ना दिसनात. 'म्हादय आपली आवय' म्हणत तिका आमच्या राजकारण्यांनी कर्नाटकाचे भकीक घाली. हें घडलां तें घाळपणान न्हय तर केंद्र सरकाराचे मिंदे जाल्ल्या गोंयच्या सत्वहीण सरकाराच्या नाकर्तेपणाक लागून.

हांगा सरकार म्हणल्यार फक्त प्रमोद सावंताच्या मुखेलपणा खाला अस्तित्वांत आशिल्लें सद्याचें सरकारूच न्हय तर ताका जापसालदार आसा फाटल्या धा वर्सांतलीं मनोहर पर्रीकार,लक्ष्मिकांत पार्सेकार, परत पर्रीकार आनी आतांचें सावंताच्या अधिपत्या खाला आशिल्लें सरकार. ह्या सगळ्या सरकारां वांगडाच ह्या नाडेपेन्नाक जापसालदार थारता तो गोंयचो नांवापुरतो अस्तित्वांत आशिल्लो विरोधी पक्षय. गोंयचें एकंदर राजकीय स्वरूप पळयत जाल्यार विरोधी पक्षूय गोंयचें प्रती सरकारूच आसा. सत्तेच्या नाडयार सत्ताधारी पक्ष आपले सत्तेचो वापर फक्त आपले सुवार्था पासत करून सत्ता भोगतात,तेच तरेवी सत्ता, सत्ताधाऱ्यां वांगडा इश्टागत दवरून विरोधी पक्षांतलो दरेक आमदार भोगता. मागीर तांची गरज तांचे कुवती प्रमाण आसूं..! म्हणटकच आयज आमी आमचे म्हादय आवयक कर्नाटकाचे भकीक घाली, केंद्र सरकारान ती खावयली अशें म्हणत जेन्ना फुरफुरतात तेन्ना हे करणेक जापसालदार फक्त सरकारूच न्हय तर विरोधी पक्षूय तितलोच जापसालदार आसा. तेन्ना म्हादय वाचोवपा पासत हे जें किर्ते करतले म्हणटात ती गजाल आतां सोडून दिवन, ह्या सगळ्यांक तांच्या कर्माचें पानवळ भेटोवंक मांडवीच्या खाऱ्या उदकांत व्हरून मोरया करपाची वेळ आयल्या.

म्हादय उदका प्रस्नाचेर लवादान २०१५ वर्सा दिल्लो निवाडो केंद्र सरकारान आतां अधिसुचीत केला. गोंय सरकार घाळ राविल्ल्यानूच हें सगळें जावंक पावलां. गोंय सरकारान कर्नाटका आड सर्वोच्च न्यायालयांत वचपाचें नाटक केल्लें आनी ताचेच म्हालवजार केंद्र सरकार लवादाचो निवाडो अधिसुचीत करपाचो ना म्हणपाच्या भ्रमाचेर विसंबून रावलें. गोंय हें केंद्र सरकाराक जाय तें फकत देशांत खंय खंय मेरेन भगवीं राज्यां आसात हें अधिसुचीत करून ५६ इंची छाती फुगोवपा पासतूच. त्या मुखार वचून गोंयां सारख्या ४० आमदारांच्या आनी दोन खासदारांच्या कुसकूटभर राज्याक केंद्र सरकार भिसक्यार मारता. तातूंत कशेंय जावं तें मागीर आपूण सत्तेर आसल्यार पुरो अशी मानसिकताय आशिल्ल्या गोंयच्या लोकप्रतिनिधींक केंद्र सरकार गोंयांक कितलो व्हालोर दिता हें पडिल्लें ना. लेमडेपण हें तांच्या रगतांतूच आसा. मागीर तें आदलें पुर्तुगेजां कडलें आसूं वा आतांचें केंद्र सरकारा कडलें आसूं. केंद्र सराकाराकूय हे मानसिकतावेची पुरायेन कल्पना आसा. देखूनच कर्नाटका सारख्या देशांतल्या प्रचंड लोकसंख्या आशिल्ल्या आनी प्रचंड राजकी दारो आशिल्ल्या आमदार खासदारांचे शक्तीक केंद्र सरकार निखालूस आडनदर करपाचें ना हाचें भान गोंय सरकारान बाळगूंक ना. आनी हेर पक्षांतले आमदार लोकशायेची गची अंदून फारावन , बेकायदेशीरपणान भगवें राज्य निर्माण करून दिल्ल्याचें मुर्वतपण केंद्र सरकारान बाळगूंक ना. देखूनच आयज म्हादय उदका बाबतींत जें किर्ते गोंयकारां सामकार वाडून दवरलां ताका पुरायपणान सरकारूच जापसालदार आसा आनी असल्या लोकविरोधी सरकाराक सत्तेर रावपाचो कसलोच नैतिक अधिकार ना म्हणपाचें जितलें खरें तितलेंच सत्तेचें मांस जरी नासलें तरी हाडकूट उपकारता असले विचारसरणेच्या हेर पक्षांतल्या सगळ्या आमदारांकूय ना. अशे हे परिस्थितींत किर्ते करपाचें हो निर्णय आतां गोंयकारांनी घेवपाचो वेळ आयला.



म्हादयचें किर्ते जालां, ती कितली आटयल्या आनी ताका जापसालदार कोण हें परत परत सांगपाची गरज आसा अशें आमकां दिसना. म्हादयच्या नांवान आज जे कोण शबय घालतात तांचेर विसंबून रावल्यार गोंयकार फुडाराक उदकाच्या थेंब्या पासत वळवळटलो म्हणपाची कल्पना गोंयच्या लोकांक आतां मेरेन आयल्या अशी आस्त बाळगुपाक हरकत ना. तेच पासत आयज म्हादय वाचोवपा पासत दरेक गोंयकारान पेटून उठपाक जाय आनी म्हादय बचाव आंदोलन पेटोवन घालपाक जाय.

आमी पेटोवन घालूंक जाय अशें जेन्ना म्हणटात तेन्ना तें पेटोवप म्हळ्यार दिल्ली पेटोवपा सारकें न्हय तर गोंयकारांचो स्वाभिमान पेटोवन घालप.हें नमूद करपाचें कारण म्हणल्यार खंयच्याय विधानाचो शाब्दीक अर्थ काडून विचार स्वातंत्र्याचें दमन करपाचो हो काळ आसा. सद्या देशांत नागरीक नोंदणी कायद्या संबंधी खवदळ चलला. हें प्रकरण किर्ते हाची मात्तूय कल्पना नाशिल्ले ह्या कायद्याक समर्थन दिवपाक आनी विरोधूय करपाक मोठे संख्येन रस्त्यार येतात.म्हादयचे बाबतींतय राजकी पक्ष तेंच करपाचे आसात. सत्ताधाऱ्यांक सत्ता तिगोवपाची आसा जाल्यार विरोधकांक सत्ता हातासपाची आसा. आज म्हादयच्या नांवान ते तेच तयारेक लागल्यात. तांचे आड्डे मुखार म्हादयचें रुदन मात कोणाच्या कानार पावना. म्हादय बचाव आंदोलनान हाचें भान दवरून हे पुराय चळवळीक योग्य दिका दिवंक जाय. फक्त गोंयकारूच न्हय तर गोंयातं गोंयकार म्हूण रावपी मूळ कर्नाटकी लोकांकूय हातूंत आसपावन घेतले म्हणपाची मांडणी करपाक जाय. म्हादय राजकारण्यांनी आटयल्या. ती पुरायेन सुकचे आदींच तें उदक पेटपाक जाय. तें आपशींच पेटचें ना. तें सुवार्थी राजकारण्याचें काम न्हय.मागीर कोण पेटयतलो हें उदक?




## कोंकणी कोणाकूच नाका

संपादक बिम्ब,

गोंयची अस्मिताय, गोंयकारपण बी सगळें कोंकणीचेर निंबून आसा आनी ते पासत कोंकणी भास जण एकल्या गोंयकारांचे जिबेर खेळपाक जाय बी म्हणपाचें तुमची फेब्रुवारी म्हयन्याची शीर्शकथा वाचून पटलें. पूण ती कोणें उलोवपाची हें मात आमकां कोणाकूच खबर ना. जो तो उठता आनी इंग्लीश हीच आपली आवय भास जाल्ले वरी उलयता. आमचे जाणटेले कोंकणी मोगी सांगताले, खरी कोंकणी जाणां जावन घेवंक जाय जाल्यार नुस्त्याच्या बाजारांत वचून आयकूंक जाय म्हूण. पूण आवज गोंयच्या खंयच्याय नुस्त्या बाजारांत आनी भाजी मार्केटांत वचात आमचे गोंयकार थंय आपल्याक येता ते हिन्दी भाशेंत उलयतात. म्हणटकच आज आमची कोंकणी खंयच्या बाजारांत आमचे कानार पडटली..? जे कोण बाजारांत धंदो करतात तांणी खरें म्हळ्यार कोंकणी उलोवन धंदो करपाचो आशिल्लो. आपलें गिरायक कोंकणी म्हणटकच आमी तांचे लागीं कोंकणी उलयना जाल्यार धंदो बसतलो म्हणपाची भिरांत तांकां दिसूंक जाय आशिल्ली. पूण सगळेंच उरफाटें जालां. आपणें हिन्दी उलयना जाल्यार आपल्याक बाजारांत वेपार मेळचो ना अशी भिरांत आमकां गोंयकारांक दिसता. मागीर आमी कोंकणी कोंकणी म्हणटात ती कोणें कोणां लागी उलोवपाची?



**- सर्वेश उत्तम वांयगणकार**

मळा, पणजी-गोंय

# मांय मारता-पाय पिता

एके शाळेंत शिकपी एका भुरग्याची ही खबर. तो पांचवी शिकतालो. ताणें तिसरी भास म्हणून कोंकणी घेतिल्ली.

एक दीस घरा येना बरोबर तो जेवलो आनी आपलो होमवर्क करूंक बसलो.

'मांय मारता-पाय पिता..'

हें आयकून ताचे आवयक अजाप जालें. हें आनीक कितें..? मांय मारता-पाय पिता...? कितें शिकयतात ह्यो टिचरी..? वचून प्रिन्सिपलाक ना तर हेडमास्तराक मेळून हें कितें पाठ करूंक लायलां आपल्या भुरग्याक काय म्हूण विचारपाचें चिंतलें आनी दुसरेच दिसा शाळेच्या प्रिन्सिपलाक वचून मेळ्ळी. तिणें विचारलें, 'म्हज्या पुताक कालच्यान हें पाठ करपाक लायलां-मांय मारता-पाय पिता..हें कितें शिकयतात तुमी..? असल्यो गजाली भुरग्यांक शिकोवन पाठ करपाक लावपाच्यो म्हूण आसतात...?

प्रिन्सिपलूय अजाप जाली. तिकाय कांय कळना जालें. मांय तर बरी आशिल्ली भुरग्याची. ती काय ताका मारता अशें दिसनाशिल्ली. तिणें सांगलें,' ताका जी कोण कोंकणी शिकयता तिणें तो होमवर्क दिल्लो आसा. ती आतां स्टाफरुमांत आसा. तुमी वचून तिका मातशी विचारात.'

भुरग्याची आवय ते टिचरीक विचारूंक गेली. वांगडा तिचो पुतूय आशिल्लो. भुरग्याची आवय आपले विशीं तक्रार घेवन प्रिन्सिपला लागीं गेल्ली आनी आतां ती आपल्या लागीं आयल्या ती पळोवन कोंकणी टिचर मातशी भियेल्ली. तिणें भुरग्याचो होमवर्क बूक घेतलो आनी नदर मारली.

ताणें बरयल्लें, मांय मारता-पाय पिता.

वाचून तीय घेवजूंक पडली. आपणें काय अशें कितेंच शिकोवंक ना. मागीर हाणें हे कशें बरयलें काय..? मागीर तिका एकदम याद जाली..

मांय म्हळ्यार हिन्दींत माता आनी पाय म्हळ्यार पिता.. कोंकणींत जें आवयक मांय वा मां बी म्हणटात ताका हिन्दींत 'माता' अशें म्हणटात. तशेंच पाय म्हळ्यार हिन्दींत 'पिता' म्हणपाचें तिणें वर्गांत सांगिल्लें आनी तें बरोवन घेवन पाठ करात अशेंय सांगिल्लें. पूण हाणें माता बरोवपाचें सोडून मारता बरयल्लें. आपल्या भुरग्याची चूक आतां आवयचे लक्षांत आयली आनी तिका मनांतल्यान हांसपाक आयलें. शिकूंक जाय म्हण घोकमपट्टी करून शिकप न्हय तर जें कितें शिकता ताचो अर्थ समजून घेवन शिकूंक जाय म्हणटात तें सारकें नातर अशी फजेत जाता म्हणपाचें तिका कळ्ळें.

तर सागपाचें म्हळ्यार अशें हें भुरग्यांचे बाबतींत सर्रास घडटा. तीं पाठांतर करतात आनी शिकतात. मात हुशार भुरगीं तांतलो अर्थ समजून घेवन शिकतात देखून तीं मुखार पावतात. ल्हान भुरग्यांची शिकपाची भास घरांत उलयतात तीच जायत जाल्यार थोड्या प्रमाणांत ताका असले त्रास जायनात. शाळेंत शिकोवपी शिक्षकांक अशे तरेचे खूब अणभव येतले. त्या अणभवांक बरोवन काडून तांचें एक पुस्तक लेगीत छापूंक जातलें अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.





**-डॉ.भिकाजी घाणेकार**

करंजाळे-गोंय.

# कोंग्लीश.....

हांव एक गोंयकार म्हण म्हाका व्हड अभिमान. हांव हांगाच किल्लां. तायकिळ्या वरीं हांगाच वाडलां. जल्माक येतकच पड्ये पयलो शब्द 'आमगेर बाय जालां..' असो कानार पडला आसुंये..! तोवय व्हडा खोशयेचो आनी कोंकणीतच. ही कोंकणी म्हजी आवयभास. तर्शे हांव सगळ्या भाशांक मान दितां. अर्थात वाचन करतां. तर हेच कोंकणीन म्हाका शाळा दाखयली. म्हजे भुरगेपणांत कोंकणींतल्यान मुळाव्या शिक्षणाच्यो शाळा नाशिल्ल्यो. शाळा आसल्यो त्यो मराठी मुळाव्या शिक्षणाच्यो. त्या काळार मुळाक्षरां मराठींतल्यान शिकयतना बाई पुराय अर्थ मात कोंकणींतल्यान सांगताली. हेच कोंकणीन म्हजेर संस्कार घडयले. म्हाका म्हजे परस व्हडांक मान दिवपाक शिकयलें. कोणाक काका तर कोणाक भाऊ, काकी, ताई, माई, भाई, आर्ते, मावशी असल्या उतरांतल्यान नात्यांतलो गंध शिकयलो. तेच पासत आयज लेगीत कोणाकच फट्ट करून नांवान उलो मारपाक मन धजना.

शाळा सोंपून विश्वकोलांत पावलीं, पुराय विशय इंग्लीशींतल्यान शिकपाक लागलीं. तरीय विश्वकोलांत आमचो बोवाळ, मस्ती, झगडीं कोंकणींतच आसलें. इतलेंच न्हय तर रडपाचो ताल आनी सूरय कोंकणीच आसलो.

आयज काळ पुरायपणान बदलला. आयच्या पोराट्यांक आनी तरनाट्यांक कोंकणींत उलोवंक लज दिसता. मजा म्हळ्यार म्हजे पिरायेच्या आवयांक वाढदीस, पार्ट्यो अश्या सुवाळ्यांनी वतकच इंग्लीश उलयन दिसता. मागीर मजा म्हळ्यार अर्दी कोंकणी आनी अर्दी इंग्लीश अशी कोंग्लीश भास तयार जाता. कांय लोकांक भांगरभूंय सारकिलें कोंकणी दिसाळे, जावं एखाद्रें म्हयनाळें वाचप म्हळ्यार कमीपणां दिसता. आपूण अमको तमको राष्ट्रीय इंग्लीश पेपर वाचतां आनी तो वाचप कितलो फायदेशीर हेंवय तीं तुमकां इंग्लीशींतल्यान पटोवपाचो प्रयत्न करतात. म्हज्या पुताक हांवें आठवेक आसतना तिसरी भास म्हण कोंकणी घेवंक लायली. तेन्ना सगळ्यांनीच म्हाका कोंकणी शिकून गोंया भायर फायदो ना गो..! कोंकणी घेवन मार्क बरे पडनात गो!! असो भंय म्हाका घालोय बी. आतां तार्णे कॉलेजांतय बी कोंकणीच घेतल्या. सगळें बरे भशेन चललां.

कांय जाणांक आपलीं भुरगीं अमेरिका, जपानाक पावलीं म्हणतगच तांणी फकत इंग्लीशच उलोवंचें अशें तांकां दिसता. हालींच एक राष्ट्रीय कविता सर्तीचें आयोजन घडोवन हाडिल्लें तेन्ना ते सर्तींत केरळचे, मंगळुरचे, मुंबयचे कवी वांटेकार जाल्ले हें आयकून खूब बरें दिसलें.

हालींच एके कार्यावळीक गेल्ले कडेन एक बरी गजाल म्हजे कानार पडली. नामनेचे साहित्यीक जे गोंया भायर एका राज्यांत कार्यावळीक गेल्ले कडेन थंय,'ये सज्जन बाकीबाब बोरकार के गोवा से आए हैं ' अशी तांची वळख करून दितना आयोजकांनी म्हळें खंय। आयकून खूब बरें दिसलें. गोंया भायर खंयच्याय सरकारी ऑफिसांनी ,जावं शाळांनी वचत तर थंयची प्रादेशीक भास आमच्या कानार पडटा. गोंयांत मात सामकें उरफाटें. खंयच्याय




ऑफिसांत वच, इंग्लीश उलोवप म्हळ्यार तांकां व्हडपणाचें लक्षण दिसता.

मजा म्हळ्यार गोंया भावल्यान येवपी मनीस कोंकणी रोखडीच शिकता. मागीर बाजारांत भोंवतना, नुस्तें विकत घेतना तो तांचे लागीं 'पात्रांव,पात्रांव' करत कोंकणींत उलयता.

फाटीं एका मोलांत गेल्ले कडेन कपडे घेतना ट्रायल रुमाचे लायनींत उबें राविल्ले कडेन एक बायल मनीस इंग्लीशींत उलयता आनी हांव कोंकणींत. लजेक गेल्यार खंय पेजेक पावना. थोड्यो बायलो म्हाका पळयत रावल्यो तरीय हांव कोंकणींतच उलयलें. म्हजो एक इश्ट सदांच म्हणी,'इंग्लीस उलयतल्यांच्या उलयतां उलयतना भोंकार एक लाथ मारपाक जाय फट्ट करून. मागीर सट्ट करून तांच्या तोंडांतल्यान आवयगे..! देवा! हीं उतरां येतलींच..!!





- शर्मिला प्रभू
फातोर्डा,मडगांव-गोंय

## हा स्य बि म्ब



### दुकर उलयतां

वासंतीन सकाळीं सकाळीं रागानूच दामूक फोन केलो.

''कितें रे दुकरा पेट्या, आयज तूं जॉगींगाक कित्याक येवंक ना? कितली वाट पळयली हांवें.''

फोना वेल्यान बरोच वेळ कसलोच आवाज वासंतीच्या कानार पडलो ना. फकत सूं सूं असो आवाज येतालो.

''उलय मरे दुकरा पेट्या...येतां म्हण उतर दिता आनी दांडी मारता?''

बऱ्याच वेळान वासंतीच्या कानार उतरां पडलीं..

''जाणां मगो...दुकरा पेटो न्हावपाक गेला.. भायर येतकच सांगतां तुवें फोन केल्लो म्हूण..हांव दुकर उलयतां आं..''

### धाडस जायना

सदांच बागेंत येवन एका बाकार बसून आपले बायले कडेन मोगान गुलूगुलू गजाली करपी ८० वर्सांच्या आजोबाक पळोवन दामूक ताची तोखणाय दिसताली. इतले पिरायेर लेगीत ताचो तिचे वयलो मोग ताका अजापीत करतालो. एकदीस तो ताचे कडेन गेलो आनी तार्णे ताका विचारलें, ''आजोबा तूं अजून लेगीत आज्जीक डालू, हनी, स्वीटी बी म्हणून उलो मारता, तुमच्या ह्या मोगाचें रहश्य कितें..?''

''रहश्य बी काय ना रे पुता. वर्सभर जालें आसतलें हांव तिचें नांवूच विसरलां. बरें, विचारपाची माणसुकी तरी आसा..? धाडसूच जायना. ते परस हेंच बरें न्हय..? हॅऽ हॅऽ हॅऽऽ''

दामूचे फाटीर हात मारीत आजोबान सांगलें.

### राजकारण्याची भास

मंत्री लोबो आपल्या काळजांत कसकसता म्हूण तपासून घेवपा पासत दोतोर याणेकारा कडेन गेलो. तार्णे दोतोराक पयलींच विनयलें, ''तूं म्हाकां तपासतां तपासतां कितें जालां तें म्हुजे भाशेंत सांग.''

मंत्री लोबोक दोतोर याणेकार हो नागरी कोंकणी म्हणपाचें खबर आशिल्लें आनी तार्णे आपलें दुर्येस रोमी कोंकणींतल्यान सांगल्यार कळपाक बरें पडटलें अशें ताका दिसतालें. पूण दोतोर याणेकाराक राजकारण्याची भास बेसबरी येताली. तार्णे म्हणलें,''भिवं नाका. हांव ज्युस्त सांगतां. तार्णे ताका बारीकसाणेन तपासलो आनी रिपोर्ट बरयलो.

- रक्तदाब घोटाळ्या वरीं वाढत आसा.
- पुलमावां फटीचीं आश्वासनां दिता.
- उजवे किडणीन आपल्या पदाचो राजिनामो दिला.
- तुजी चरबी म्हारगाय वाडटा तशी एक सारकी वाडत आसा.
- ताका लागून तुज्या शिरांनी रास्ता रोको, धरणें बी असलीं आंदोलना सुरू जाल्लीं आसात.
- मज्जासंस्था लेगीत आतां आपलो तेंको काडपाचो विचार करतात.
- ह्या सगल्या घडणुकांचो ताण आतां तकलेंतल्या पक्षश्रेश्ठीचेर पडपाक लागला.

देखून तो आपलें सरकार केन्नाय बरखास्त करूंक शकता.

मंत्री लोबोच्या हातार ताचो रिपोर्ट आनी बील दवरीत दोतोर याणेकारान ताका सांगलें.






दिलीप बोरकार

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले दिलीप बोरकार ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यिक जावन आसात. तांच्या गोमाचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

# दरेक दीस जावंचो... आंतरराष्ट्रीय महिला दिन.. महिलांच्या मान-सन्मानाचो थारचो... दिसाचो दरेक खीण.....



महाबळेश्वर सैलाचे हनुमाना वयले अग्रदूत हे कादंबरींत ती वाचतना कांय वाक्यां, कांय वर्णनां यट्ट बरीं तकलेंत उरतात. हनुमान आपले आवयक मेळूंक गेल्ले कडेन ताची म्हातारी आवय अंजनी राम सीतेची खबर घेता. सीते विशीं सांगतना हनुमान आवयक सांगता-

'ती देवीच आशिल्ली. दर अस्तुरेंत देवाचो अंश उरता. म्हणच ती गर्भांत भुरगें जल्माक घालूंक ताकता. तातूंत प्राण भरूंक ताकता. सीता राजपाट, राजमहाल सोडून रामा बराबर रानांत आयिल्ली. ते अस्तुरेन भोगिल्ले दुख्खभोग आनी अरण्यांतल्या आश्रमांत दोगां भुरग्यांक दिल्लो जल्म पळयल्यार तिच्या पांयां वयल्यान उठचेंच दिसना.'

अंजनी विचारता,'दादल्यांचो कांयच सहभाग ना म्हणटा?'

हनुमान जाप दिता,'ना, फकत खिणांचो आनंद. सगळी वेदना भोगता ती अस्तुरी! तिचे वेदनेंतल्यानूच नवी निर्मणी जाता.'

आनीक एक कडेन हनुमान दुस्मानाच्या बायलांक मारूंक वचपी वानरांक फर्मायता,'नाका,तांकां मारूं नाकात. बायलांक मारचें न्ही.तांच्या पोटांत पुरूशाक जल्म दिवंचें गर्भाघर आसता.'

रामायण हें एक महाकाव्य. समाजांत आदर्श निर्माण करपा पासत जल्माक घाल्ल्या साहित्यांतलें एक अजरंवर काव्य. तातूंत जीं पात्रां रचल्यांत तीं खरेंच जावन गेल्यांत काय ना हो वादाचो विशय आसूं येता. पूण रामायण घडून गेल्याच्यो खुणो आमकां सांपडटात आनी आयज जाका आमी देव मानून राम मंदिर उबारपा पासत समाजांतले सोसणिकायेक चुडटी लायतात तें पळयल्यार ही घडणूक खिरस्ता आदीं पांचशीं हजार वर्सांत घडल्या आसूं येता. आयचें अयोध्या प्रकरण आनी मंदिराचो वाद जर खरो मानलो जाल्यार रामायणूय खरें मानपाक हरकत ना. सीतेची वृशासिंग पर्वताचे तेंगशे

सीतेची वृशासिंग पर्वताचे तेंगशे वयल्यान सकयले घळींत उडकी मारून आत्महत्या करपूय खरें आनी पश्चतापान पिसावल्लो मर्यादा पुरूषोत्म राम शरयु न्हंयेंत जलसमाधी घेता म्हळ्यार आयचे भाशेंत जीव दिता हेंवूय सत.

हीं सगळीं सतां मानतना सगळ्यांत व्हडलें सत दोळ्यां मुखार उबें रावता तें अस्तुरे वयल्या अत्त्याचाराक अंत आनी पार ना. मागीर ती देवीपदार बसयल्ली सीता आसूं वो दिल्लीचे चलते बशींत अत्त्याचार सोंसून शेवटाक मरणाक शरण वचपी निर्भया आसूं वो आपल्या मोगाक दाद दिना म्हणून भर रस्त्यार पेट्रोल ओतोवन उजो लावन मारिल्ली खंयचीय निष्पाप अस्तुरी आसूं. दर दिसाक खंय ना खंय अस्तुरेचेर अत्त्याचार जाता म्हणपाचें आमी पळयतात, वाचतात आनी आयकतात. पूण तो थांबोवपा पासत कसलोच खर उपाय जाल्लो दिसना आनी घेतात त्या उपायांक आनी ख्यारस्तीक गुन्यांवकारी बाडगनात. तेन्ना हाचेर उपाय घेतलो ना आनी हो अत्त्याचार जर थांबयलो ना जाल्यार जलसमाधी बगर दुसरो पर्याय ना म्हणपाचीय जाप आमकां रामायणूच दिता. पूण रामायणांतलो संदर्भ व्यक्तीगत आशिल्लो. सीतेचे आत्महत्त्येक आपूणच जापसालदार आसां म्हणपाच्या पश्चतापान आकुळ पिकूळ जावन राम जलसमाधी घेता. ताचे उबगणीक आनीकूय कारणां आसूं येतात. पूण तीं जीव दिवपा इतलीं खर आशिल्लींच म्हणूं येना. मूळ कारण आशिल्लें सीतेची आत्महत्त्या.रामाक जलसमाधी घेवपाक उद्युक्त करपी.

पूण आयज एक वटेन राम मंदिर बांदपी, राम नवमी उत्सव मनोवपी आनी दुसरे वटेन अस्तुरेचेर दिसा उजवाडाक अत्त्याचार करून तिका संवसारांतल्यान सासणाची ना करपी मानसिकता पश्चतापान जलसमाधी कित्याक घेना? तिका कायद्याचे फारकेंत हाडून फांशी दिवपाची पाळी नितीदारांचेर कित्याक येता?

आज हें सगळें घेवजुपाचें कारण म्हळ्यार मार्च म्हयनो हो मुखेलपणान आमचे सारखे लोक याद दवरतात तो आंतरराष्ट्रीय महिला दिसा पासत. ८ मार्चाक संवसार भर महिला दिन पाळटात. तो एक आतां उत्सवूच जावन गेला. जांकां वेगवेगळ्या कार्यावळींचो सोस आसा तांकां असल्या कार्यावळींच्या निमतान मिरोवपा पासत आनीक एक सुवाळो अधिकृतपणान लाबता. ते पासत तांच्या संस्थांक अनुदानां मेळटात. सरकारी बजेटांतच खाशेली वेवस्था जाता. तांचो सगळ्यांचो वेवस्थीत विलो लायलो काय उलगलो हो महिला दिन. मागीर महिला आसाच रस्त्यार बलात्कार करपाक, पेट्रोल घालून उजो घालपाक, ॲसिड मारपाक, भर वसर्तेत नागडी करून तिची धिंड काडपाक. ह्या सगळ्या करण्यांचेर नियंत्रण हाडपाक मात आमची सगळी यंत्रणां अपेशी.

दुसरी एक गजाल ह्या म्हयन्याचे ३ तारकेक घडपाची आसा ती म्हणल्यार निर्भयाच्या चारूय खुन्याक फाशी दिवपाचे आसात. निर्भयाची आवय बाबडी आपले धुवेच्या खुन्यांक जाता तितले बेगीन फांसार चडयात म्हूण न्यायालया कडेन भीक मागता. न्यायालयूय तारीक दिता आनी मागीर आनीक किर्ते तरी घडटा आनी तारीक मुखार वता. आता ही फाशी ३ मार्चाक जातली अशें जरी सांगलां तरी ती जातलीच म्हणपाची


SCHEDULE
FORM OF DECLARATION
FORM-I
(See Rule 3)

I DILIP BORKAR declare that I am the printer & publisher of the newspaper entitled BIMB to be printed and published at Dharm-Laxmi, St. Lourence, Agasaim-Goa, 403204 and that particulars in respect of the said newspaper given hereunder are true to the best of my knowledge and belief:

Publisher's Name : DILIP BORKAR
Nationality : INDIAN
Address : Dharm-Laxmi, St. Lourence, Agasaim-Goa, 403204

Place of Publication : BIMB PUBLICATION Dharm-Laxmi, St. Lourence, Agasaim-Goa, 403204

Printer's Name : DILIP BORKAR
Nationality : INDIAN
Address : Dharm-Laxmi, St. Lourence, Agasaim-Goa, 403204

Editor's Name : DILIP BORKAR
Nationality : INDIAN
Address : Dharm-Laxmi, St. Lourence, Agasaim-Goa, 403204

Owner's Name : DILIP BORKAR

-Sd



# बायलांची व्यथेची काणी

पूजा लक्ष्मीकांत भांडारे

तरेकवार जन्मांच्यो पाकळ्यो मेळून घडिल्लें अशें एक फूल ती. दीस रात पेटत आसता हेरांखातीर अशी सदां पेटपी चूल ती, एक बायल म्हळ्यार किर्ते ते जर आमी चितूंक वचत जाल्यार म्हाकां दिसता तिच्या जिविताचेर कितल्योशोच शेकड्यांनी कादंबऱ्यो तयार जातल्यो. देवान घडयल्लो एक असो मळबासारक्या काळजाचो तो साचो, हेरां खातीर सदांच झरता तें चंदन, दर एका खिणांक कितल्याशाच जबाबदाऱ्यांचें वजे आपल्याचेर आसतना, उमळशीके न सदांच हांसपी, खोशी रावपी म्हळ्यार बायलमनीस. अशें म्हणटात की एक बायलमनीस ही देवीचें रुप आसता, पूण प्रस्न सदांच असो मनांत वादळ हाडटा की खरेंच आमी एके बायलमनशेक देवीच्या रुपांत पळयतात व्हय? दरेका मनशाक सदांच ल्हानपणा सावन व्हड म्हालगड्यां कडल्यान देख मेळटा की एके बायलेक आमी सदांच बरी वागोवपाक जाय. तिचे वटेन नितळ नदरेंत पळोवपाक जाय. पूण खरेंच हें अशें जाता? आयज त्यो हांसपी, बागडपी गुलाबाच्यो कळयो आमच्या ह्याच समाजातले कांय राकेस खुड्डून उडयतात. तांच्या रक्ताचो घोट घेतात. आयज एक बायलमनीस, तशेंच वयावेले चली तर जालेंच पूण पाळण्यांत रडपी भुरग्याक सुद्धा ह्यो नदरो सोडीनात. एक बायल, एक चली घरांतल्यान भायर सरलें म्हळ्यार कितलेशेच दोळे बुरशे नदरेन तांकां पळयतात. केन्ना थांबतलो हो एके बायलेचेर जावपी असो अन्याय? एके चलयेक वा बायलेक रस्त्यार चलता आसतना अपहरण करप, तांचेर आगळीको करप, तांचो जीव घेवप आनी एक जनावर जाल्लेवरी तांच्या प्रेताक काडून वडोवप हेंच खरें दादलेपण अशें ह्या समाजाक दिसता?

आयज गरज आसा एकी बायलेक आपली स्वताची राखण स्वताच करपाची. कित्याक एक बायल अशा गुन्यांवां विरोधान उलोवपाक शकना? कित्याक एक बायल ह्या समाजा मुखार हरता? आपलो आत्मविश्वास, आपलें बळगें कित्याक जागृत करी ना? नवरात्रेक देवीची आमी पुजा करतात, ती दुर्गा माता जिणें सदांच आपल्याचेर तशेंच ह्या पुराय समाजाचेर वायट नदर घालपी राकेसांक ख्यास्त केली. आनी तिचेंच भुरगें जावन सुद्धां एक बायलमनीस कित्याक ह्या अशा लोकांक भियेता? जेन्ना एके बायले भितर आशिल्ले शक्तीची जाणविकाय तिका जाता, तेन्ना ती स्वताची राखण भियेनासतना करूंक शकता, आपल्याचेर अन्याय केल्ल्या दर एका गुन्यांवकारांक ती ख्यास्त करूंक शकता. फकत तिणें आपल्या काळजांतलो भंय सोडपाची गरज आसा. आनी सांगपाक खोस भोगता की एक चली आतां हेच वाटेन कराटे शिकून आपलीं पावलां घालीत आसा. तशेंच म्हाकां दिसता की सरकार सुद्धां असल्या गुन्यावांक नदरेआड करता. सरकाराची ख्यास्त एक वा दोन दिसां वयर वचना, देखून आयज दिसांक कितल्याशाच बायलांची शिकार जाता. ते खातीर अशा गुन्यांवांक ख्यास्त सुद्धां जबर जावपाची गरज आसा. जो मनीस एके बायलमनशेचो अपराधी आसा ताका जाता तितली जबर ख्यास्त जाता तितले बेगीन जावपाक जाय. जाल्यारुच आमच्या समाजांत एक बायलमनीस सुरक्षीत जातली.

खात्री तो आदेश दितल्या न्यायालयाक ना.

एक गजाल खरी, फाशी दिवन हो प्रस्न सुटावो जावपाचो ना. असलो गुन्यांव करप्यांक एकदां गोळाक लायलो काय तांचो प्राण गेलो. ते मानसिक पिर्डेतल्यान मुक्त जाले. मागीर तांकां तांच्या कर्माची कसली ख्यास्त लाबली? तांकां सारखे शाबुध्देर दवरून आपणें किर्ते केलां हें खिणा खिणांक तांकां याद करून दिवन तांकां पश्चताप करीत जियेवंक दिवप हीय असल्या गुन्यांवाची ख्यास्त थारूं येता..ती ख्यास्त तांकांच भोगूं येता. पूण असलो गुन्यांव केल्यार असले भोग वांट्याक येतात देखून ते आमी करूंक फावनात म्हणपाचो संदेश समाजांतल्या विद्राट्यां मेरेन पावूं येता..? ना. मागीर तांकां ख्यास्त म्हणल्यार फकत तांकां फांशी दिवप. म्हणटकच असली घाण समाजांतल्यान सासणाची पयस जावंक पावतली आनी मरणाच्या भंयान कोण असलीं कृत्यां करूंक वचचोना. कारण सगळ्यांक एकूच भंय आसता तो मरणाचो. पूण हें कितलें खरें होय प्रस्न आसा.

अस्तुऱ्यांचेर अत्त्याचार करून, तांचेर बलात्कार करून तांचो जीव घेतिल्ल्या कितल्याच गुन्यांवकारांक हे आदीं गोळाक लायिल्ले आसात. पूण असलीं कर्मां करपाक फुडें सरप्यांचेर ताचो कांयच असर जावंक ना. निर्भयाचेर अत्याचार करपी चार तरनाटे फांशीचे प्रतीक्षेत आसात. दर दिसा समाज माध्यमाचेर ताची चर्चा जाता आनी बातम्योय प्रसारीत जातात. तरी लेगीत दर दिसा आमच्या देशांत खंय ना खंय असल्यो भिरांकूळ आनी मनीसजातीक लजेक घालपी घडणुको घडत आसतात. कित्याक भंय ना असल्यो करण्यो करपाक फुडें सरपी लोकांक..?

हातूंतल्यान एक निश्कर्श काडूं येता तो म्हळयार महाबळेश्वर सैल अग्रदुताच्या तोंडांतल्यान जें सत्य सांगता,

***फकत खिणांचो आनंद. सगळी वेदना भोगता ती अस्तुरी। तिचे वेदर्नेतल्यानूच नवी निर्मणी जाता. '***

तेंच सत. दादलो हो खिणांचो आनंद घेवपाक संवकला. तो घेतना तो आपली सुदबुद शेणोवन बसता. त्या खिणयाळ्या सुखाक हातासपा पासत दादलो खंयच्याय थरार वचूंक शकता आनी मागीर त्या भारांतल्यान मुक्त जालो काय ताका सत्य परिस्थितींचें भान येता. मागीर तो आपल्या कृत्याचो पुरावो नश्य करपाक नीक आनीक गुन्यांव करता. अस्तुरेचो आवाजूच बंद करून उडयता.

कितलो काळ चलतलो हो अत्याचार? केन्ना मेरेन आमी बंद करीत रावतले तांचो आवाज? आनी तांणीं कितें चूक आदारल्या म्हूण? जर हें सगळें चललां तें वायट आनी आमी फकत तें पळयत राव नासतना तें आळाबंदाक हाडपाक सदांच जागरूक रावपाक जाय म्हणपाचो विचार आमी मनीसजाती भितर बळावपाक कित्याक अपेशी थारतात हाचें खोलायेन विचार जावपाची गरज आसा.

आमची भारतीय संस्कृताय ही देवत्व दिवपाक सदांच मुखार आसा म्हणपाचें आमचो इतिहास वा पुराणांत वो धर्मग्रंथांत आमकां दिसून येता. 'गात्र नारियास्तु पूज्यंते, तत्र रमन्ते देवता ' जंय अस्तुरेचो सन्मान जाता थंय देवता अवतरता अशें आमी एका तोंडान म्हणटात आनी रोखडेंच मागीर तेच अस्तुरेक गौण मानून तिचो अपमान करतात. आमी अस्तुरेक देवी, आदिशक्ती, मातृत्वशक्ती बी विशेशणां लायलीं. आमी जांकां देवत्व दितात तांची वेवस्था रोखडीच मागीर वण्टी वयल्या खिळ्यांचेर पांयजेलांच्या रुपान करपाक आमी फिशाल. जे अस्तुरेक आमी देवता मानतात तिका आमी जिवी आसतना मान दिवपाक फाटीं सरतात. कित्याक अस्तुरी म्हणल्यार एक भोगपाची वस्त इतलोच आमी तिका दर्जो दिला. अस्तुऱ्यांनीय तोच दर्जो मानून घेतला देखून अन्याया आड झगडपाक ती फाटीं रावता. खरें पळोवंक गेल्यार दादल्यां परस अस्तुरी तांकीन ल्तूय उणी ना. उरफाटी ती खरी सबला आसता. पोटांत णव म्हयने गर्भ वाडावप,तो सांबाळप, मागीर आपले कुडीचे एके ल्हानशे वाटेंतल्यान एक संपूर्ण जीव हे सृश्टींत हाडप, तो हाडटना सोंसू नज असल्यो वेदना भोगप आनी तातूंतच कोस मानप ही शक्त सामान्य न्हय. असली शक्ती देवता दादल्यांक कशीच फाटीं रावपाची ना. हीच गजाल वळखून दादल्यांनी तिका मानसिक रुपान दुबळी करून दवरल्या. ह्याच मानसिक दुबळेपणांतल्यान ती जे सर भायर सरना ते सर ती अशीच अत्याचारांची शिकार जायत रावतली.

दरेक अस्तुरेन सगळ्यांत आदीं आपलें चारित्र्य आपले कुडीचे ताळटा येवा कुडक्याचेर निंबून ना म्हणपाचें मनांत

## दादले बायलांचे बरोबरीन येवंक जाय..



रुपाली मावजो कितनी

बायलांचेर जावपी अत्याचारांचो विचार करत तर पयलो प्रश्न होच येता तकलेंत...

कोण करता हो बायलांचेर अत्याचार? समाज? दादले? काय स्वतः बायलोच? समाजांत रावपी आमीच जबाबदार ह्या सगळ्याक, चिंतल्यार अशेंच दिसूंक लागता. आमी अत्याचार करपी, अत्याचार जाता ते तोंड बंद करून पळोवपी आनी आपल्याचेर अत्याचार जावंक दिवपी; हय आमीच जबाबदार. ह्या समाजांत रावपी दर एकलो तितलोच जबाबदार. बायलो दुर्बळ न्हय. शारिरीक बळगें इल्लें दादल्यांपरस कमी आसत, मानसीक रूपांत बायल मनीस कितलिशीच बळिश्ट. तिच्यांतले तांकिची जाणीव तिकाच ना देखून ती अत्याचार सहन करत रावता आनी म्हणूनच ताचो फायदो दुसरे घेतात.

शारिरीक आनी मानसीक दोनूय अत्याचार आपल्याचेर जावचे न्हय हाचो यत्न तिणेंच करूंक जाय. ते खातीर आपल्यांतलें बळगें वळखुवप खूब गरजेचें. दुसऱ्यांक दोश दिवपांत अर्थ ना.

आज दादल्यांच्या खांद्याक खांदो मेळोवन ती चलता. पूण समतेचो अर्थ तिका सारखो समजला काय?

आज बायलो कितेंच करपाक फाटीं रावनात पूण खरेंच गरज आसता तेन्ना स्वतातलें बळगें कित्याक वळखनात? नाका तेन्ना प्रदर्शन कित्याक?

धुवेक आनी पुताक वाडयताना आमी समानतायेन वाडयल्यांत अशें सांगपी खंय तरी भेदभाव करतातच. चलयांक पॅन्ट घालून भोंवडायतात... चल्यांक व्हिस्तीद घालून भोंवडायतात व्हय?

समानताय तेन्नाच येतली जेन्ना चलेय चलयांवरी व्हिस्तीद, साडी घालून भिरयतले... बायलांनी दादल्यांची बरोबरी केली म्हणून समाजांत समानताय येवची ना.. ती येतली जेन्ना दादले बायलांचे बरोबरीन येतले... पडये तेन्ना पडये अत्याचार कमी जातले

अशें केन्ना केन्ना दिसता म्हाका...

# अत्याचार



बायलांचेर
करूंक अत्याचार
मेळटा कसलें सूख
अत्याचार करतल्यांकूच
सारकें खबर

कांय बायलां
आसताकत दुस्मान
दुसरे बायल मनशेचीं
खबर ना तांकां
फळां मेळटलीं कशीं
तांकां तांच्या कर्माचीं

करपी अत्याचार
मात्तूय करना विचार
कशे जाता हाल
अत्याचार सोंसतल्यांचे
जाता कसो
वायट परिणाम
अत्याचार सोसतल्यांच्या
मनाचेर

एक दीस
सुर्योदय जातलो
अत्याचार करतल्याचो
परमेश्वर
मद जिरयतलो

- श्रध्दा गरड

बळावंचें पडटलें. कोणेंय बलात्कार करतकच आपूण संवसारांतल्यान उठली असो भ्रम करून घेना आसतना तो आपलो आत्मसन्मान दुखोवपाचो प्रसंग मानून घोवा वांगटा लेगीत ते पासत झुंजपाची तयारी दवरपाक जाय.

कित्याक दादलो फायदो घेता तो दुबळ्या मनाचो.अस्तुरेक दुबळी दवरप हातूंतच दादल्याचो सुवार्थ आसा. ह्याच सुवार्थाक विरोध करून हालींच सर्वोच्च न्यायालयान दादल्यांक धपको दिला. सर्वोच्च न्यायालयाच्या निर्णयाक लागून अस्तुरेक हे मुखार लश्करांत कायमस्वरुपी पदां मेळूंक पावतलीं. पूण वायट दिसता तें केच गजालीचें,जे अस्तुरेक आमी देवत्व दिलां,जे अस्तुरेच्या पोटांत दादलो जल्म घेता तेच अस्तुरेच्या मान सन्मानाची राखण करूंक आमकां न्यायालयाचो आदार घेवंचो पडटा.

मार्च म्हयनो आनी हो आंतरराष्ट्रीय महिला दीस हो हे शीर्शकथे पासत फकत निमीत्त. फाटलो बरोच काळ मोठ्या प्रमाणांत गोंयांतूय अत्त्याचार जातना दिसूंक लागल्यात. कोण वाहन थारावन अल्पवयीन चलयेक उबारून व्हरतात. कोण मोग करपाचें नाटक करून ल्हान पिरायेचे चलयेक फुसलावन व्हरता. कोण चिऱ्या खणींत व्हरून अस्तुरेचेर बलात्कार करता आनी तिचो जीव घेता. पुलीस ताची नोंद लेगीत घेना.

गोंय हें देशांतल्या हेर राज्यां परस कालेतीन वेगळे तरेचें राज्य. पूण आतां तें खरे अर्थान राष्ट्रीय प्रवाहांत रिगलां. हेर राज्यांतले स्थलांतरीत गोंयांत रिगल्यात आनी तांचे कडल्यानूच ह्यो गजाली घडटात म्हणपाचो निर्वाळो आमचे मुख्यमंत्रीय दितात. म्हणटकच गोंयांतूय आरंभ जाल्लो हो प्रकार कसो आळाबंदा हाडूं येता हाचेर विचार करतना आमच्या कोंकणी साहित्य मळा वयल्या कांय लेखिकांक हांवें उपाय सुचोवपाक सांगिल्लें. जांचो म्हाकां हे शीर्शकथे पासत वापर करूंक मेळपाचो. पूण ज्यो स्त्रीवादी लेखिका अस्तुऱ्यांचे प्रस्न आपल्या कथा आनी कादंबरींतल्यानूच मांडप पसंत करतात तांकां हाचेर उपाय सुचना जालो. खरें म्हणल्यार तो सुचूंक जाय.

प्रतीभा ढगे हांचे कडेन उलयतना तांणी एक सुंदर मुद्दो मांडलो. तांच्या मता प्रमाण अस्तुऱ्यांचेर जे कितें अत्याचार जातात ते वर्सांतल्यान एक दीस महिला दिन मनोवन थांबपाचे नात. आमचे अस्तुरेन दर खीण हो आपलो खीण म्हणपाचें भान दवरून वावरूंक जाय. आपल्या गर्भाघरांतल्यान जो दादलो जल्माक येता ताका बाळपणांतल्यान संस्कार दिवन बायलमनीस ही अत्याचार करपाक नासता तर पुजपाक आसता म्हणपाचे विचार ताचे भितर बळावपाक जाय. जे अस्तुरेक भुरग्याक जल्म दिवन आपूण आवय जावंची अशें दिसता तिणें त्यागाचीय तयारी दवरपाक जाय. भुरगें जल्मांक आयले उपरांत तें भुरगें पांच वर्सांचें जायसर ताका आपूण वेगळें करपाचें ना म्हणपाचें ते अस्तुरेन थारावंक जाय. नातर ही अस्तुरी भुरग्यांक पाळणाघरांत बी दवरून नोकरेक वता आनी थंय तांचेर बरे संस्कार जायनांत. तातूंतल्यान विचार नाशिल्ली पिळगी तयार जाता.

आयज आवय आनी बापूय दोगांय नोकरी करतात. ताका लागून आपल्या भुरग्यांची वाढ करपाक दुडू दिले काय तांचें कर्तव्य पुराय जाता. संस्कार दिवंक आजो आजी नासता. हाका लागून आमची पिळगी संस्कारी जायना. ती विद्राटी जाता. अशे वेळार आमी आदर्श समाजाची अपेक्षा कोणा कडल्यान बाळगुपाची होय प्रस्न आसा..

कथा



वल्ली
क्वाड्रुश

**वल्ली क्वाड्रुश** हांची वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कसदार कथाकार,कादंबरीकार,बालसाहित्यकार, कवी आनी पत्रकार म्हूण.कन्नड आनी कोंकणी भाशेंतल्यान तांणीं दोनश्यां वयर कथांचें लेखन केलां. कर्नाटक साहित्य अकादेमीच्या साहित्य पुरस्कारान दोन फावटी सन्मानीत.

# मार



टिविवाले मंडळिच्या सांगां लागीं उलवन आसचे परींच परत दिवे जळ्ळे आनी टिविचे केमरा कूकुराचेर पाले. ताच्या आंगा वयले घाय परत दाखवंक परत कूकुराचें शर्ट आनी चड्डी काडलीच.

हॅफ्त्या आदीं कोणयी न्हय आसल्ल्या इकरा वरसांचा कूकुराक आतां अख्खो देस वळकता. सर्व टिविचेर हाचे विशयांत तर्क-संवाद.

तो कांय मंत्री न्हय, फुडारीय न्हय, देवांक विखचो न्हय वा खंचोय स्वामी न्हय.

इकरा वरसांचो भुरगो! ग्रेसत मंतनाचो भिल्कूल न्हय - गरीब भुरगो. आवय बापूय नासतां व्हड जावन एदोळ कसोय जियेल्लो. हळ्ळेच्या रसत्यार कोणाचेंगी कार रावलें पळेवंक धांवोन आयिल्ल्या भुरग्यां पयकी तोय एकलो जावन आसलो. तांतलो सावकार कारा थावन देंवोन इल्लें सकला देंवोन मुतोंक बोसल्लो. तेदनांच हे पोक्री भुर्गे एकामेका मार्न पड्ताना सावकार मुतोन पेंटाचें जीप घालन सरारां पाटीं धुंवताना हेर भुरग्यांनी कूकुराक मार्न रडवन धांवल्ले. सावकाराचे मतीक चेक्र्याची भिर्मत दिसली देखून कूकुराक पाटीं मुखार कोणंच नातल्ल्यान आपल्या कारार घालन घरा व्हर्न गेलो.

हें अजीक कांय तीन चार वरसां आदीं जाल्लें. पेंटेंत घर आसच्या सावकाराकयी आपल्या घरा चाकेर ठिकानातले. देकून आतां कांय हो लावारीस चेर्को ठिकलो तर म्हळ्ळें चिंताप सावकाराचे मतींत.

सावकाराक पेंटेसालांत व्हडलें जवळेचें दुकान आसलें. ताच्या घरांत ताचीं तीन भुरगीं, दोग पेटे, चार माजरां आनी ताची बायल सोडल्यार कोणंच नातलीं. एके सकाळीं पांचांक उटोन बांयचें उदक वोडन जाल नितळ कर्चें, घर झाड्न पुसर्चें, रांदपा कूड नितळ कर्चें. हांडियो धासर्चें, पुसर्चें काम कर्न जाताना वोरां णव उतरतालीं. उपरांत कुकुराक काल्चें उरल्लें शीत आनी निसर्ते तोंड लावन जेवंक पड्तालें. ताणें जेवंक शिता उंडी तोंडाक घालतानांच 'वेगीं वेगीं जेव रे?' म्हण धनीण बोबाट मारताली. पयलें पयलें कूकुराक शीत ताळ्यार शिर्कतालें पूण उपरांत सवयेर जाल्लें.

जेवन जातेच्च वस्त्रां उंबळूंक आसतालीं, तीं सुकत घालूंक आसतालीं. वस्त्रां सुकत घालन जाताना दनपाराचें जेवाण तयार जातालें देकून पयलें तो सावकाराक जेवाण व्हर्न दितालो. उपरांत इसकोलाक गेल्ल्या भुरग्यांक जेवाण दिवन पाटीं येताना कांय सवाय दोन जातीत. दनपरां कांय इल्ली दाळ आनी शीत मिरसांगेसर्वे खावन दोन घडी आड पड्लो तर दोळ्यांक कांय झोप येतानांच 'खंय मेलोय रे ? फक्त खांवर्चें, हागर्चें आनी निदर्चें इतलेंच काम येवर्चें तुका' म्हणोन धनीण मुन्यो दिताली. वेगीं वेगीं उटोन सुकल्लीं वस्त्रां भितर हाडन, तीं घडी कर्न

कबाटांत दवर्न, पर्तून बांयतलें उदक वोडन जालांतल्या फुलां झाडांक वोतून जाताना सांजेचीं स जातात. उपरांत सांजेची चा आनी नास्टो घेवन पेंटेक गेल्लो रातीं सावकार आंगड बंद करता पऱ्यांत थंयच्च राकोन रावतालो. आंगड बंद करच्या आधीं झाडून, नितळ कर्न सावकारासवें पाटीं घरा येवन पावताना वोरां साडे इक्रा. उपरांत पयलें दोन सुक्यो भाकऱ्यो खावन उपरांत भायर न्हाणयेंत वचोन न्हातालो आनी भायल्या सोप्यार निधतालो.

हिच्च दिनचरी कूकुराची. ताचे सर्वे दोन पेटे सयत सांगात दिताले; एकलो टोमी, दुसरो दासू. थोडे पावटीं भुरगीं 'कुरू कुरू कूकुरा' म्हणताना कूकुरा पुस्पडललोयी आसा.

कितलीं सोबीत नांवां? आपणाचें नांव्वीण टोमी आसल्लें तर? - भुरग्यांनी सदांय कुरू कुरू कूकुरा म्हण चिडायताना कूकुरान मतींत चिंतर्चे आसल्लें . पूण आतां किर्ते करुंक जाता? ताची आवय कशीय मेल्या, बापूय आपणाक धांवडावन दुसर कोणाकगी काण घेवन जियेताना आपल्या चार वरसांचे प्रायेर कूकुरान रस्तो धरल्लो. रस्त्या थावन शीदा सावकाराच्या घरा पावल्लो, अजीक तीन चार वरसां आधीं.

कूकुराक दीस, हाफ्ते, म्हयने, वरस सक्कड एकच लेक. ना कोण ताका विचार्तलो. ना कोण आयकोंवचो. आपली दिनचरिंत कांय चड उर्णे जाल्यार पेट्याक बांदच्या चामड्याच्या पाट्यांत सर्सरीत मार खावंक पडतालें. दोगांय - सावकार तर्शेच धनीण.

एक पावटीं उदक व्हाववन हाडताना जडायेची शिदी सकला घालल्ल्याक ताका नागडो कर्न सर्सरीत मारताना ताचे मतींत रीगल्लें भ्यें अजून ताचे मतींत आसलें. देकून त्या पाट्याक पळेताना आतांय तो कांपतालो.

पूण हो कूकुरा आतां देसभार फामाद जावंक हीं कारणां बिल्कूल न्हय!

थोड्या दिसां पयलें, ह्या घरांत देड वरसां काम केल्लो मादू आयिल्लो. ताचो सांबाळ बाकी आसा म्हण धनिणेकडे वार्जीक करतालो. कूकुरा वस्त्रां उंबळताना हें आयकतालो. मादू उलवन उलवन आपलो ताळो रडकुरो कर्न गरिबांचें दूक तुमचेर भेजानाये वचाना.. तुमकां हांव बूद शिकयतां.. हांव मंडळीक दूर दितां.. म्हणोन गेल्लो. वेच्यादीं ताची भिर्मतेची नदर कूकुराचेर वचानासतां गेली ना.

पूण खंची ती 'मंडळी' म्हळ्ळें कूकुराचे मतीक गेल्लेंच ना.

एका दिसा कठीण शेळिंत आनी तकली फडाफड जावन कूकुराक सकाळीं उटोंकच जालें ना. धनीण सकाळीं उटोन पळेताना रांदपाकूड म्हेळें आसा, घर म्हेळें आसा आनी भायर कूकुरा सुशेगात न्हिदला. तिर्णे रागान पेट्याचो पाटो हाडलो आनी न्हिदल्ल्या कूकुराक सर्सरीत मारुंक धरलें. ''तुका दिसान दीस चराब चडोन येता, तुका जेवाण कोण तुजो बापूय दिता वे? आमकां कामाचीं मेळानांत म्हण ह्या दर्वेशीक वोडन हाडन आयला म्हजो पती. तुका एकच? काम करुंक जाता तर कर, नावे आत्तांचे आत्तां घर सोडन निकळ''

सकाळीं फुर्डेच मार खावन ऊटल्ल्या कूकुराक आयकोंवचीं कोणंच नातल्लीं त्या घरांत. ताच्या दोळ्यांनी दूक उमाळोन आयलें. तरयी उटाउटीं वचोन नितळाय करुंक लागलो.

पाट्याचें बेल्ट लागोन जायजय, ताच्या तर्ऱ्या पांयाची कात फुटोन रगात येतालें आनी हुल्पातालें. पाटिचेरयी कठीण हुल्पातालें. बांयतलेंत उदक वोडन कश्टांनी शिदी मात्यार चड्यली, शिदियेंतलें उदक गळोन कूकुराच्या मात्यार, तोंडार गळोन ताच्या दुखांसवें विलीन जावन धर्तेवयल्या धुळिच्या कणांत मेळोन पड्येन मायाग जालें.

वेगीं वेगीं नितळाय कर्न धनपारां भुती वरताना रडोनंच वेच्या ताका वाटेर मादू मुखामुखी मेळ्ळो. एकामेका दोगांनी वळोक धर्न मादून ताका रावयलो आनी कित्याक रडता म्हळ्ळें समजोन घेतलें आनी धर्य दी लागलो;

''तूं भिंये नाका, तांकां हांव बूद शिकयतां, हांवें मंडळीक दूर दिलां. मंडळिच्यांनी म्हाका आज परत वचोन ये म्हण धाडलां. आज म्हाका म्हजो बाखिचो सांबाळ मेळानातल्यार तांकां शिकयतां बूद'' म्हणोन तो गेलो.

कूकुरा आपल्या कामार पडलो.

उपरांत किर्ते जालें कळीत ना. तो सांजेर आड पडल्ल्याक एकाच्च फरां टोमी आनी दासून ज्योरान भोंकच्या आवाजान जाग जाली. सुमार धा वीस जण जालांत एकटांय जाल्लो. थोडीं बायलां आनी थोंडे दादले. दोग तेग क्यामरा घेवन आसले.

तांचे मधें आसच्या मादून एकल्या दादल्याक म्हजेशीं बोट दाखयलें. तो दादलो लागीं येताना कूकुराची नदर तांच्या हातांत कांय पाटो आसागाय म्हण भिंयेलो.

पूण ना! तो येवन कूकुराक मोगान पोशेवन उटवन, 'भिंये नाका. तुका आमीं आसांव, सांग तुका कोर्णे मारलें?' म्हण विचारी लागलो.

''मदामेन'' कूकुराच्या तोंडांतलें उतार सुटलें.

दोग क्यामराचे लागीं आयले.

''तूं कितल्या तेंपा थावन काम कर्न आसाय?''

.................... कूकुराची जाप नातली.

''तुका कितलो सांभाळ मेळता?''

................ परत कूकुरान मौन पांगुरलें. पूण ताची मत कठीण भिंयेल्ली. कांय आपणाक घर सोडन वचोंक पडलें तर आपणान खंय वेचें? किर्ते खांवचें? हें चिंतून ताका अवचीत भ्यें दिसलें.

केमाराचे मनीस कूकुराच्या आंगार दाटशेवन आयिल्लें रगात आपल्या केमरांनी कयद करताले. घरा भितर थावन धनीणेन भायलो लोक पळेतेच्च जनेलां धांपलीं आनी दार बंद कर्न भितरच्च बसली. एका दोगांनी केमरा घेवन दार ठोकलें तरयी तिर्णे बागील

उग्तें केलेंच ना. पत्रकारांनी तांचीच म्हळळी काणी विणली आनी एकेका पत्रकारान एकेका अर्थान, ती केम्रांत प्रस्तूत केली.

एकल्यान कुकुराचें शर्ट काडन ताच्या पाटीर आसच्या मारांची निशानी दाखयली. अन्येकल्यान ताची चड्डी निस्रायली आनी ताच्या कुल्यांचेर जाल्ल्या मारांची निशानी क्यद केली. तितल्यार हाणें कूकुराक धर्व दिवन, ''भिये नाका, आमीं आसांव. आमी तुका बचाव कर्तांव.. चल आमचे संगीं'' म्हण आपवन वेलें.

थोड्याच वेळान तीं पोलीस स्टेशनाक पावलीं.

थोडो वेळ राक्तच इन्स्पेक्टराक मेळोंक आवकास मेळळो देखून हीं भितर गेलीं. एदोळच्यश मंडळिच्यांनी ताका सांगल्लें जायजय देकून भितर रिग्तच इन्स्पेक्टरान सवाल केलें;

''होच्चगील तो? किर्ते रे, नांव किर्ते रे तुजें?''

''कूकुरा.''

''तुज्या आवय बापायचें नांव?''

कूकुरा तिशीन हिशीन पळे लागलो.

''कितलो तेंप थावन काम करताय?''

''मोसत तेंप थावन.''

''कितलो सांभाळ मेळता तुका?''

.............

'' कोणें मारलें तुका?''

''मदामेन.''

''कित्या? कांय चोरलेंय? पोक्री केल्योय?''

''ना.... हांव सकाळीं उटोंक नातल्लों देकून.'' कुकुरान सतच सांगलें.

''कित्याक उटोंक नांय?''

''सकाळ जाल्लो कळोना म्हाका.''

''मोसत मारलेंगी तुका?''

परत कूकुराक ताचेसर्वे आसचा दादल्यांनी तार्चे शर्ट आनी चड्डी काडन दाखयताना कूकुराक भर्यें तर्शेंच लज्यीं दिसली. पूण किर्ते कर्तलो तो?

पोलिसांनी ताका थंयच बसयलो आनी मंडळिच्या सांघान कंप्लेंट बरवन घेतलें. उपरांत पोलिसांनी जीप स्टार्ट कर्न गेले.

पोलीस स्टेशनांतले भायर येताना टिविगारांक कोणेंगी खबार दिल्ली देखून तांणीं हांचो रेवोड घालो;

'आमच्या देशान आज इतली प्रगती केल्या तरयी अजून आमच्या देशांत भुरगीं काम करतात आनी तांचेर अजून जुलूम जाते आसा.'

इतलें सांगोन केम्राचे दिवे पालववन तीं लार्गी आवलीं.

कूकुराक आतां मारांच्याकी चड भिरांत परत आपणार्चे वसतूर काडतात म्हळळी.

टिविवाले मंडळिच्या सांयां लार्गी उलवन आसचे परींच परत दिवे जळळे आनी टिविचे केम्रा कूकुराचेर याले. ताच्या आंगा वयले याव परत दाखवंक परत कूकुराचें शर्ट आनी चड्डी काडलीच.

सकाळीं थावन एक घोट उदक पियेनासतां, आतां ह्या टिविच्या उज्वाडांत कसलोगी काळोक आपल्या दोळ्यांनी भरोन येवन कूकुरा थंयच गळळो.

तक्षण थोड्यांनी ताच्या तोंडार उदक शिंपडायलें. कूकुरा आतां उटोन, आतां आपणाक पाटीं कशें वेचें? गेल्यार मदामेचे मार कशे खांवचे म्हण चिंतून ताच्या आंगाची लोंव हळतार उबी जावन येताली.

❖

नवी मुंबय. मो.:०७०२१९६७८८०




सखाराम
शेणवी
बोरकार

# कोंकणी लोकसंस्कृतायेंतलो कोलो



कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी **सखाराम शेणवी बोरकार** काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

कोल्याचे बुध्दीचेर आनी कोलो कसो बुध्द शिकलो हाचेर आमच्या लोकवेदांत साबार काणयो आसात. 'कोलो आनी मानगें', 'कोलो- करकोच्याली मेजवानी', 'कोलो आनी दाद' , कोलो आनी कोली ( कोल्यार्चे घर शेणांचें, कोलयेचें घर मेणार्चे),'कोलो बुध्दीन भलो, शंकर पार्वतीक नागोवन गेलो' आदी.

''आरे सदा! त्या अमक्या -अमक्या आमदाराक 'त्या' खात्यार्चे मंत्रिपद मेळ्ळें मरे!'' हांवें म्हळें.

सदा वयल्या वयर केन्नाच उलयना. ताका खंयचेय घडणुकेचो बारीकसाणेन अभ्यास आसता.

''हय जाणां हांव! त्याच खातीर तांणे सरकाराक तेंको दिला न्हय रे? आरे! ताका खूब वर्सां वळखतां हांव. आदीं सावन ताका ह्या खात्याचो सोस. सादो आमदार आशिल्लो तेन्ना लेगीत तो त्या खात्यांत नाक खुपशितालो. आतां तर तो त्या खात्याचो मंत्री! शेकीं किर्ते 'कोलो पडलो उशेलांत'! आतां उबें, आडवें खा!''

त्या राजकारणार्चे सोड! म्हाका सदान वापरिल्ली 'कोलो पड्लो उशेलांत' ही म्हण मात खूब आवडली. म्हज्या मुखार एक कोलो उशेलांत गेला, ताचे सगळ्या वटांनीं ताचे आवडीचे उशीकांडे आसात आनी तो कोलो ते उशीकांडे मेळत तसो चाबडायता अशें किर्तेशें चित्र म्हज्या दोळ्यां सामकार उबें रावलें.

आमचे लोक संस्कृतायेंत कावळो, हुंदीर आनी ताचे फाटोफाट कोल्याचो नंबर लागता. कोल्याचेर आदारिल्ल्यो कितल्योश्योच म्हणी, वाक्प्रचार आनी लोक काणयो आमचे कोंकणीं भाशेंत आसात. 'कोलो पड्लो उशेलांत' ही तांतलीच एक कोल्याचेर आदारिल्ली फामाद म्हण. कोल्याक खंय उशीकांडे खूब आवडटात. आनी ताका एकदम उशेलच मेळप म्हळ्यार आपले आवडीची वस्त चड प्रमाणांत मेळप. कोणाक्य अकस्मात मोठो लाभ मेळटा तेन्नाय ही म्हण वापरतात.

कोल्याचे बाबतींत आनीक एक समज लोकमानसांत आसा. कोलो खंय उशेलांत वता, पोटभर उशीकांडे खाता आनी फुस्कीं मारता. ताचे फुस्के खातीर उशीकांडे तांबसार जातात आनी तांची गोडसाण उणी जाता असो तो समज. आनी तेच खातीर 'कोल्याची फुस्कीं' हो एक वाक्प्रचार जावन पडला. कोणय मनीस आपलो सुवार्थ सादोवन जातगीर ती वस्त इबाडून उडयता तेन्ना हो वाक्प्रचार वापरतात .

हो कोलो आमच्या सगळयांचो संवकळीचो. ताचेर आदारिल्ल्यो साबार काणयो आमी आमचे भुरगेपणांत आयकल्यात. कोलो सामको शिटूक, हुशार आनी सुवार्थी! असलो सभाव आशिल्ल्या मनश्यांक्य तो सामको 'कोल्या बुद्दीचो' अशें म्हणटात.

कोल्याचेर आदारिल्ली आनीक एक फामाद म्हण म्हळ्यार 'कोल्याक द्राक्षां आंबट'. आपल्याक जाय आशिल्ली वस्त जेन्ना खूब येत्न करुन लेगीत मेळना, तेन्ना ती वस्तच वायट, आपल्याक ती फावो सारकी नासली

असो मनांतल्या मनांत समज करुन घेवप आनी आपल्याकच फटोवन घेवप असो ते म्हणीचो अर्थ.

कोल्याचेर म्हाका याद जाल्ली आनीक एक म्हण म्हळ्यार 'अपटीत वार्ता, कोले गेले तीर्था'. बरेचदां अशें जाता कीं कांय गजाली जांचेर आमी सपनांत लेगीत विश्वास दवरूंक शकनात अश्यो गजाली घडटात. देखीक सदांच तुमचे कडेन वायट वागपी मनीस अकस्मात तुमचे कडेन बरे भशेन वागपाक लागता तेन्ना ही म्हण वापरतात.

'कोल्या भोंकांत बांदलें घर, कोलो मागीर पाद मारूं वा फुस्की मारूं सोंसूक जाय'. मनीस जेन्ना एक परिस्थीती आपणायता तेन्ना तिचे वांगडा येवपी बरे-वायट गजालींक आपणे सोसूंक जाय असो ते म्हणीचो अर्थ.

ह्याच कोल्याच्या कर्तुबाचेर 'कोल्याक शिदाव फारीक करचो पडना, पादलो आनी गेलो' हीवूय एक म्हण आयल्या. सदांच दुसऱ्याच्या खुरतार जियेता त्या मनश्याक ही ओपार मारतात. हिवूय कोल्याचो सभाव दाखोवपी अशीच एक म्हण.

'कोल्याच्यो बुध्यो नाइून मर्द बसपाच्यो', 'कोलो म्हळ्यार फाटल्यान लागता' ह्योवूय कोल्याचे सभावगूण दाखोवपी म्हणी. धुर्त मनश्याची आपणे बरो -बरो म्हणून तुरत करप आनी ताणेंच धुर्तपणाचे आनी फटींगपणाचे प्रयोग तुरत करप्याचेरच करप. त्या वेळार दिसता खंयची बुद्ध जाली आनी आपणे हाची तुरत केली.

'कोळकांदो गोड जाल्यार कोलो सोडटा वे?' अशी एक कोंकणी म्हण कारवार वाठारांत घोळटा. कोळकांदो म्हळ्यार जंगली कांदो. धुर्त मनीस खंयचीय फायद्याची गजाल सोडीना हें सांगपाक ही म्हण वापरतात. हीच म्हण साष्टी वाठारांत 'कुमातराचे फातर गोड जाल्यार कोले सांडटले?' अशी घोळटा.

अर्थ तोच.

'कोलो मिंडो (दळदिरो) नंदतलो आनी आंगडींत (बाजार पेठ) घर बांदतलो'. हिवूय कारवार वाठारांतली एक म्हण. हातांत कांय नासतनां जो व्हडलीं-व्हडलीं सपनां पळयता आनी झेपना तसलीं कामां हातांत घेवंक सोदता ताका ही ओपार मारतात.

'कोलो खंय सकाळचो वेळ हत्ती खावंक सोदता आनी दनपार जातगीर ताका सोंसो लेगीत उपकारता'. हे म्हणी फाटली काणी अशी:

एका कोल्याक खंय रातभर हेडून लेगीत कसलेंच सावज मेळ्ळें ना. सकाळीं ताच्या पोटांत कावळे रडपाक लागले. ह्या भुकेच्या वेळार आपल्याक हती लेगीत मेळील्लो जाल्यार ताका आपूण खातलो आसलो अशें ताका दिसलें. जसो- जसो दीस पडपाक लागलो तशी ताका भूक सोंसना जाली. हे भुकेक आपल्याक ल्हानसो सोंसो मेळल्यार लेगीत पुरो अशें ताका दिसलें.

जायत्या जाणांचे बाबतींत अशेंच घडटा. तांकां आपल्या विशीं एक व्हडलो तोरो वा व्हडली कल्पना आसता. आपल्याक सामकी बऱ्यांतली बरी वस्त मेळूंक जाय अशें तांकां दिसता. ती मेळना जातगीर तो मनीस एक-एक पांवडो सक्यल देंवता आनी निमणे कडेन किर्ते मेळटा तें खरें अशी ताची अवस्थाय जाता. जेन्ना अशी कोणाचीय परिस्थिती जाता तेन्ना ही ओपार ताका मारतात.

त्या भायर 'कोलो बुडल्यार संवसार बुडटा?'(कोणा खातीर कांयच अडना), 'कोलीण बसली तुसां राशीर, शेंपडी फाफडून गेली'(बेफिकीर वृत्ती), 'एक कोली, सतरा जाग्यार वियेली'(कोली व्हितना एका जाग्यार रावना, त्याखातीर तिचीं पिलां खूब सुवातेर पडटात. एकूच गजाल साबारकडे त्रास दिवपाक लागली कीं ही म्हण वापरतात.), 'कोल्या करकोच्याली मेजवानी' (शेराक सवाय शेर), 'कोलो काकडीक(तवश्याक) राजी'(एकदां खंय एक कोलो एका मळ्यांत गेलो. थंय ताणें द्राक्षां आनी हेर फळां पळयलीं. पूण तीं उंच माटवार आशिल्ले कारणान ताका खावपाक मेळ्ळीं नांत. थंयच ताणें एके तवश्या वेलीर एक तवशें पळयलें. तें तवशें माल्शें जड आशिल्ल्यान जमनीर लवंडलेलें. तवशें मेळ्ळें तें खूब जालें अशें म्हणीत तें तवशें खावन कोल्यान आपली भूक भागयली. जेन्ना व्हडली गजाल आपल्या आवाक्यांत नासता तेन्ना मेळिल्ले गजालीचो आनंद मानप बरें अशें ही म्हण आमकां सांगता.), 'कोलो, कोलो म्हळ्यार सगळे धांवतात, वाघ, वाघ म्हळयार सगळे पळटात'(सगळयांक पदवेदार आनी बळीश्ट मनश्यांची भिरांत), 'कोल्याक मारूंक वतलो जाल्यार, वागाक मारची मुस्तायकी जाय'(कसलेंय ल्हान काम करूंक वतना लेगीत चड तयारी करपाक जाय) अश्यो कोल्याचेर आदारिल्ल्यो आनीकूय म्हणी आसात.

'कोल्या बुध्द'(शाणेपण), 'कोल्यार्चे शींग' (फट मारप, काल्पनीक वा अशक्य गजाल), 'कोल्यालीं द्राक्षां' (मेळूंक नाशिल्ली वस्त), 'कोलेकूय'((बेठोच बोवाळ घालप वा हुल उठोवप), 'कोल्यालो उपाय'(आपलो सुवार्थ पळोवप), 'कोल्यालें तोंड पळोवप'(लाभ जावप), 'कोलो शिंकप'(अपशकून), 'कोल्याक चोयिल्लें कुंक्ड', 'कोल्यालें आमंत्रण' अशे कोल्याचेर आदारिल्ले कांय वाक्प्रचार आसात.

कोल्याचे बुध्दीचेर आनी कोलो कसो बुध्द शिकलो हाचेर आमच्या लोकवेदांत साबार काणयो आसात. 'कोलो आनी मानगें', 'कोलो- करकोच्याली मेजवानी', 'कोलो आनी दाद', कोलो आनी कोली ( कोल्यार्चे घर शेणांर्चे, कोलयेर्चे घर मेणार्चे),'कोलो बुध्दीन भलो, शंकर पार्वतीक नागोवन गेलो' आदी. हांतूतल्यो दोन काणयो मोस्त्रा खातीर तुमच्या मुखार दवरतां.



कोलो बुद्दिन भलो,
शंकर पार्वतीक नागोवन गेलो

हे म्हणी फाटली काणी अशी: एक गरीब भुरगो आसलो. तो आपले म्हातारे आवय सांगाताक रावतालो. ताच्या घरा फाटल्यान थोडो जागो आसलो. पावसाचे दीस कोमेस जावपाचे आसले. ते म्हातारेच्या भुरग्यान चिंतलें कीं आपल्या घरा फाटल्यान आशिल्ले जमनीर तवश्यांचें पीक येंवचें. पोरूं बाजारांत तवश्यांक बरीच दर आयिल्ली. ताणें बाजारांत वचून तवश्याची बियां हाडलीं. जमीन बरी कसली आनी पावस येना फुडें बियां रोयलीं. दीस रात तो थंय वावर करपाक लागलो. सारें यालप, पावस ना तेन्ना उदक शिंपप असो वावर करपाक लागलो. तवश्यांचे वेलीर हळडुळींच फुलां येवपाक लागलीं. थोडे तेंपा भितर तवश्याच्यो बारीक बारीक पिपऱ्यो भायर सरपाक लागल्यो. म्हातारेचो भुरगो चिंततालो तवशीं व्हडलीं जातलीं, मागीर तीं हांव बाजारांत व्हरून विकतलों, आपल्याक चार पयशे मेळटले आनी मागीर आपूण लग्न जातलों. आतां आपले म्हातारे आवयच्यान कांयच काम जायना. तिकाय आदार मेळटलो. तवशीं व्हड जावपाक लागलीं. पूण सकाळीं मळ्यांत पासय मारल्यार व्हडलीं तवशीं गायब. अशें दोन तीन दीस घडलें. म्हातारेचो पोर काकुळटेक आयलो. आतां आपल्याक पयशे कशे मेळटले? आपलें लग्न कशें जातलें? तो मळ्यांत माथ्यार हात दवरून मोठ्या मोठ्यान रडूंक लागलो. वयल्यान शंकर पार्वती वतालीं. पार्वतीन त्या भुरग्याचो रडपाचो आवाज आयकलो. तिणें शंकराक सांगलें,''तूं सकयल वचून कोण रडटा तें पळय.'' शंकर एका म्हाताऱ्याचो भेस घालून त्या भुरग्या सरीं आयलो आनी ताचें रडपाचें कारण विचारलें. शंकरान आपले अंत पळयलें कीं एक कोलो रातचो येवन तवशीं खाता. शंकरान त्या भुरग्याक सांगले कीं तवश्याच्या माटवाच्या खांब्यांक बरो दीक लाय. जो कोण तवशीं चोरपाक येता तो त्या दिकाक दसतलो. त्या भुरग्यान शंकरान सांगिल्लें तशें केलें आनी मळ्यांत लिपून रावलो. बरे रातचो पळयत जाल्यार एक कोलो त्या माटवाच्या खांब्याक दसला. ते म्हातारेच्या भुरग्यान बरी व्हडली बडी येवन त्या कोल्याक मारपाक कोमेस केलें. कोलो सामको काकूळटेक आयलो आनी ते म्हातारेच्या भुरग्याक म्हणूंक लागलो,'' तूं म्हाका सोडय आपूण तूजो प्रश्न सोडयतां.'' म्हातारेच्या भुरग्यान त्या कोल्याक सोडयलो. आनी आपली सगळी काणी ताका सांगली. कोल्याक कळ्ळें ही सगळी तकली त्या शंकराची. ताका बरी बुद्द शिकोवपाक जाय. ताणें त्या म्हातारेच्या भुरग्याक म्हळें, ''तूं एक काम कर. पिठाची बरी एक बावली कर, बरी तेलांत तळ आनी माटवांत उबी करुन दवर. फुडें कितें करपाचें तें आपूण करतां.'' ते म्हतारेच्या पोरान कोल्यान सांगिल्लें तशें एक पिठा बावली करुन ती आपल्या मळ्यांत दवरली. वयल्यान शंकर पार्वती ते म्हातारेच्या पोराचें कितें जालें तें पळोवपाक वयल्यान वतालीं. शंकराक बरी भूक लागिल्ली. त्या तळिल्ल्या पिठा बावलेचो वास शंकराच्या नाकांत गेलो. शंकरान आनी वेळ केलो ना. तो सकयल देंवलो आनी फाटलो फुडलो विचार करी नासतना ती पिठाची बावली खावन वडयली. थंय लिपून राविल्ल्या कोल्यान तें पळयलें आनी आपले चलयेक खाली आपले चलयेक खाली म्हण मोठ्या मोठ्यान रडपाक लागलो. शंकर भियेलो आनी कोल्याक म्हणूक लागलो, तुजी चली तुका तयार करुन दितां. शंकरान आपल्या मंत्रांच्या सामर्थ्यान एक बरी सुंदर चली तयार केली आनी कोल्या सुवादीन केली आनी गेलो. कोल्यान ती चली म्हातारेच्या पुताक दिली आनी म्हळें, आतां तूं हीचे कडेन लग्न जा. आपूण तुगेल्या तवश्याच्या मळ्यांत हाचे फुडें केन्नाच येंवचो ना. असो हो 'कोलो बुद्धीन

भलो, शंकर पार्वतीक नागोवन गेलो.

## कोल्या-करकोच्याली मेजवानी

हे म्हणी फाटली काणी अशी: कोल्याचे शिटूक बुध्दीचेर आदारिल्ल्यो साबार काणयो आसात. अश्या कोल्याक बुध्द शिकोवपीय एक काणी आसा ती म्हळ्यार 'कोल्या-करकोच्याली मेजवानी!' एक फावट खंय एका कोल्याची एका करकोच्या कडेन आमिजाद जाली. कोलो भितरले गांठीचो! करकोच्याचे ते लांब पांय, उंच मान, धवी फुल्ल पांखा पळोवन कोल्याक ताचो दुस्वास जालो. ताची बरीच वाट लावंची अशें कोल्याच्या मनांत आयलें. तार्णे ताका एक दीस आपल्यागेर मेजवानीक म्हळ्यार जेवणाक आपयलो. जेवणाक कोल्यान बरी खीर केल्ली. करकोचो कोल्यागेर जेवणाक आयलो. तर कोल्यान करचें किर्ते एका उथळश्या दोन ताटल्यांनी खीर याली आनी जेवण मांडलें आनीक म्हणूक लागलो चल करुंया सुरवात. कोल्यान आपली व्हडली जीब भायर काडून चकी चक करुन खीर खावंक लागलो. करकोच्याची चोंच लांब, ताची संवय उब्याच निमुळत्या आयदनांत चोंच बुडोवन खांवचेली. कोल्यान आपल्या ताटांतली खीर सोंपयली. पूण करकोच्याक मात खीर खावपाक मेळ्ळी ना. करकोचो पडलो उपाशीं. ताका कोल्याची नाडबुध्द समजली. पूण तो वोग्गी रावलो.

खूप तेंपान करकोच्यान कोल्याक आपणागेर जेवणाक आपयलो. थरिल्ले प्रमाण कोलो करकोच्यागेर जेवणाक गेलो. करकोच्यानयं जेवणाक खीर केल्ली. तार्णे बरी दोन बारीक तोंड आशिल्ल्या आयदनांत खीर याली आनी सामकार दवरली आनी म्हणूक लागलो, करुंया सुरवात. करकोच्यान आपली लांब चोंच त्या आयदनांत यालून सुर्र सुर्र करुन खीर खावंक लागलो. कोलो बाबडो किर्ते करतलो? ताची जीब त्या बारीक तोंड आशिल्ल्या आयदनांत कशी पावतली?ताका करकोच्यान आपल्याचेर सूड येतला तें कळ्ळें. केल्ली करणी ताका सुरय भरिल्ली. 'ताका तार्णे बुध्द शिकयली' वा 'केल्ले करणेचें पाजण ताका जशाक तशें भोगचें पडलें 'ह्या अर्थान ही म्हण वापरतात.

अश्या ह्या कोल्यान आमच्या लोकवेदांत खाशेली सुवात मेळवल्या. 

**पाजीफोंड-मडगांव, मो.: ९९२३३०६७५१**

स्केच



स्मिता तिंबले

शास्त्रीय संगिताची रुची आशिल्ल्यान स्मिता तिंबले हाणीं संगिताचें शिक्षण घेतलां. सद्या स्मिता शाळेंत शिकयतात.तांचें 'यादे माई' हें आपले आवयच्यो पुंजायल्ल्या यादींचें पुस्तक खूब लोकप्रिय थारलां. तांकां कवितांचीय आवड आसा.तांचें 'आपालिपा','गोंयच्या फेस्ताक'हीं न्हान भुरग्यां खातीरचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.भुरग्यांची शिक्षणीक पुस्तकांय ताणीं तयार केल्यांत. समाजांतलीं विंगड विंगड व्यक्तिमत्वां रंगोवप होय तांचो एक छंद.



# रासयचो आपा

आपल्या व्यसनाक लागून तांच्या घराची दैना जाल्ली आमी पळयतात. दोळ्यांक पदर लावन आंगावेल्यो माराच्यो खुणो लिपयत तांच्यो बायलो काम सोदपाक घराच्या भायर पडटना आमकां दिसतात. आपाच्या घरचें चित्र हाचे उलट. ताचीं घरचीं ताका ताचे कामांत मदत करतात.

रासयच्या मार्केटांत सदचीच लोकांची वर्दळ आशिल्ली. सोबेच्या वस्तुंनी पसरे गच्च भरून ओतताले. माथ्याक घालपाच्यो तोपयो, खांदाक लावपाच्यो बॅगो, शिंपयां पासून केल्ले हारशे, झुंबरां, बावल्यो, जनावरां, व्हाज अशो शेकड्यांनी वस्तू दुकानदारांनी विकपाक दवरिल्ल्यो. मातशें फुडें तलम कपड्यांच्यो शाली, मफलर, स्ट्रोल दोरयेक हुमकळावन दवरिल्ले.वाऱ्याचे झुळकेर सुळसुळटाले. आंगाक शिरशिरताले. तांचे रंग बरे दिसताले. राजस्थानी कारागिरांनी केल्ली हस्तकला, कपडे, साड्यो आनी तोपयांचेर आकर्शक रंगांत बोर्तसांव करून विकूंक हाडिल्लें. ताणीय दोरयेक हुमकळावनन, जमनीर कपड्यांचेर पसरावन, ग्राहकांक दाखोवपाक दवरिल्लें. मर्दीच कोकमाच्यो बाटल्यो, सोलांच्यो पिशव्यो, साठांच्यो माळी, तळल्लीं गरे, खोबरेलाच्यो कांचेच्यो-प्लास्टिकच्यो बाटल्यो, मर्दीच दोणांतल्यो आंबल्यो, एक-दोन कुवाळे, माडी घेवन एक दादलो उबो आशिल्लो आनी दोन बायलो हातांनी व्हीर ताशीत बशिल्ल्यो. तरातरांच्या वासांची सरमिसळ आनी पर्यटकांक 'अनवळखी' दिसपी वस्तू घेवन तो गिरायकांची वाट पळयतालो. ना म्हळ्यार, ताचे कडेन आशिल्लीं केळीं आनी आड्सरां घेवपाक गिरायक फाल्त नाशिल्लें. सिगरेट ओडपाच्या निमतान गिरायक वयर सरचें म्हणून ताणे तीं आनी फस्कांय दवरिल्लीं.

पयस आशिल्ल्या उशकाण्यांचे गाड्याचेर गाडेकारान उदक शिंपडायल्लें आनी रोस काडपाक हात घाल्लो. चाकाक बांदिल्ले घुंघरू घळ-घळ करून पयस साकून कानार पडटाले. उबाळाचे दीस, वत सामकें पेटूंक उठिल्लें. पिल्लें, पिल्लें पोटांत वचचे पयलींच नाच्च जावपाची गर्मी भाजताली.

आपा आपल्या सदचे जाग्यार आयलो. कोनशावेली आपली सुवात निवळ करपाक ताणें चुडटांचो मुखावयलो हातपंख्या भशेन दिसपी भाग दवरिल्लो. तो चुडटे कुडको काडून ताणें आपलो जागो झाडून घेतलो. सुरळी करून दवरिल्लो साकाचो कुडको जमनीर सरळ पसरायलो. माथ्यार प्लास्टीकचो साक बांदपाक झाड आनी लायटी खांब्याची घटसाण आशिल्लीच.

आपान आपल्याक बसपाक एक कपडो हातुळ्ळो आनी त्या कपड्या मुखार आपली लाकडी पेट दवरली. ती उगडून ताणें बूट पॉलीशचें आपलें सामान, डबी, कपडो आनी ब्रश भायर दिसता तसो दवरलो. आपलो धारदार वाटकुळ्या तोकाचो चाकू काडलो.

एका डब्यांत इल्लेशें उदक आशिल्लें, तांतूत एक चांबड्याचो कुडको आशिल्लो तो सोडलो. आपूण बसता ताचे दावे वटेन बुटांक बांदपाच्यो लेसी हुंबकळायल्यो. उजवे वटेन सत्र्यांक लावपाचीं बुकोलां लांबयलीं. सत्र्यो जमनीर वेवरथीत मांडून दवरल्यो. सुई-दोरो तयार दवरलो आनी पेटी फुडें ओडून उदकांतलो तो चांबड्याचो कुडको धाकल्या लोखंडी उंचवट्याचेर धरून तार्णे तो मातसो धाडायलो.

मागीर, आपल्या पावलां पोंदा धरून वाटकुळया चाकवान त्या चामड्याच्या कुडक्याक तासपाक सुरवात केली. हें करतना ताची नदर रस्त्या वयल्यान येतल्या-वतल्या जोत्यांचेर खिळून आशिल्ली. नदरेनच कोणाल्या बुटांक-जोत्याक पॉलीश ना,लेस तुटल्या, अंगठो तुटला, शिंवण उसवल्या तें निरखीत आशिल्लो. आपले भशेन तो खुणो करून-करून तांकां सांगीत आशिल्लो. कांय वेळा गिरायक ताचे पेटयेर आपले बूट-जोतीं दवरताले. कांय वेळार ना. जे दवरताले तांचें काम तो फिशालकायेन करतालो. तार्णी दिल्ले पयशे आपल्या माथ्याक तेकोवन तो आपले बसके पोंदा सारतालो. जे तुटकें जोतें येवन मुखार सरताले ते ताका मानवना आशिल्ले. घरा पावचे पयलीं जोतें तुट्टले हाचें. मागीर तें शेंवटून नवें येतलो तो, पेटयेर दवरिल्लें जाल्यार पोत मारून- पॉलीश मारून दितलो आशिल्लो, मागीर स म्हयने तरी कांय एक जांवचें नाशिल्ले ते जोत्या पारेक. अशें आपल्या मनांत गिरयत तो चार्मर्ड ताशीत रावतालो. आताच्या 'युज ॲण्ड थ्रो ' युगांत, आपाक गिरायक फाल्त जाल्लें. पूण ताका तसो हुरको नाशिल्लो. ताच्या हातांत कसब आशिल्लें आनी कश्ट करपाची ताकत आशिल्ली. पावसा तेंपार आनी हेर दिसांनीय सत्र्यो सारक्यो करपाचें काम, बॅगांची चेन लावपाचें काम चालूच आशिल्लें. 'हें नाजाल्यार 'तें ' अशें आलटून पालटून करीत रखरखीत वतांत शेनवार -आयतार बसून



तो काम करतालो. हेर दिसांनी ताका सरकारी हॉस्पिटलांत काम आसतालें.

ऑर्थोपिडीक दोतोराच्या डिपार्टमेंटा भायर तो रावतालो. पेशंटांक पांयांचो वा पावलांचो त्रास आसत जाल्यार विशिश्ट तरेचें जोतें तयार करप. जावं जोत्यांत फेरफार करून दिवप ही कामां तो मोठे चालाखीन करतालो. आपल्या ह्या कामाचो ताका खूब्ब अभिमान आशिल्लो. लोकांचीं पांयांचीं दुखर्णी बरीं करपाक आपलो हातभार लागता हाचें ताका समाधान जातालें. दोतोर आपलें नांव दुर्येतीक सांगता म्हणून तो खूश आशिल्लो.

आपाक कामांचें व्यसन आशिल्लें. खंयूय एकोडी मेळील्ली जोतीं येवन तांचेर काम करून तो तांची जोडी तयार करतालो. जोत्यांचो अंगठो, तळ बी सारको करून शींवण घट्ट करून तांकां वापरपा सारकें करतालो. चड करून कॉंक्रिटाचेर काम कारपी कामगार असलीं दाट जोतीं ताचे कडेन विकतीं घेताले. कामा वेळार तीं घालून तांच्या पायांक संरक्षण मेळटालें. हाता कडेन पयशे आयल्यार तो नवें चांबडें येवन सुबक अशीं नवीं ताल्ल जोतीं करतालो. चकचकीत पॉलीश केल्लीं, क्लीप लायिल्लीं जोतीं तयार करपाक ताका खुब्ब आवडटालें. हें जोतें केन्नाय इबाडपाक ना अशें तो ठामपणान सांगतालो. असलीं जोतीं तो सरळ आपल्या वळखीच्या, खात्रीच्या गिरायकां कडेन येवन वतालो आनी हक्कान तांकां विकतालो. तीं गिरायकांय हांसून ताका पयशे दितालीं. शेवटीं सृजनशीलतायेचें मोल लोकांक आसताच.

आपाच्या हातांत खरोखर कसब आशिल्लें. जाका हात लायता तो तें सुंदर करून सोडटालो. दिवाळे वेळार तरातरांचे आकाशदिवे करून तो आपल्या बैठकी म्हन्यांत हुंबकळायतालो. कांय वरां भितरूच ते खपताले. गिरायकांचे मागणेक मान दिवन मागीर नातलांची नकेत्रांय थंय चमकताली, आनी कांय खिणां भितरूच नाच्च जातालीं.

आपाच्या जीवनाचेर बरोवचें अशें म्हाका दिसलें कारण तो जे परिस्थितींत आसा ते परिस्थितींतले हेर व्यसनाच्या विळख्यांत गुरफटील्ले आमी पळयतात. तांबारिल्ले दोळे, तंबाखून भरिल्लें तोंड अशें तांचें एकूण दर्शन.... आपल्या व्यसनाक लागून तांच्या घराची दैना जाल्ली आमी पळयतात. दोळ्यांक पदर लावन आंगावेल्यो माराच्यो खुणो लिपयत तांच्यो बायलो काम सोदपाक घराच्या भायर पडटना आमकां दिसतात. आपाच्या घरचें चित्र हाचे उलट. ताची घरची ताका ताचे कामांत मदत करतात. आकाशदिवे दोनूय हातांनी धरून ताचो चलो स्कूटरीचेर ताचे फाटल्यान बसून येता. पावसा तेंपार आपाची बायल सत्र्यांक पोंत मारपाक ताचे बरोबर बशिल्ली आसता. तांचे चली दोन विणयो घालून नेमान सरकारी शाळेंत वता. आपा सदांच निवळ धुवल्ले कपडे घालून कसल्या ना कसल्या कामांत व्यग्र आशिल्लो दिसता, ताच्या हालचालीं भितर ताच्या कामांची कशळताय दिसून येता. वेळ होगडाय नासतना पटापट काम करीत रावपी हो आपा म्हणूनच म्हाकां चितारीन दिसता. कामाचेंच व्यसन आशिल्लो आपा यादींत उरता.



मडगांव-गोंय,मो.: 9763552719



पडवेर
प्रशांती
तळपणकार

# म्हज्या कॅन्सराची गजाल



नाटक, चित्रपट, रस्ता नाट्य हातूंत भुमिका करून तशेंच कोंकणी साहित्यांत मौलीक आनी अणकार हातूंत आपली खाशेली वळख निर्माण करपी **प्रशांती तळपणकार** एक भोवआयामी व्यक्तिमत्व. बालसाहित्य, ललित, नाट्य हातूंत आपली खाशेली शैली केळोवपी प्रशांतीचो अणकारा खातीर केंद्रीय साहित्य अकादेमीन पुरस्कार भेटोवन सन्मान केल्लो आसा.

*बिम्ब मासिकाचो गोवर्धन उबारपाच्या वावरांत आरंभाच्या काळांत जाणें पालवी संपादक म्हूण आपलीय धिगी लायली त्या प्रशांतीक एका भिरांकूळ संकश्टाक फुडो करचो पडलो. ताका ताणें धिरान कशो फुडो केलो ताची ही काणी.. खास बिम्ब वाचकां खातीर...*

वायट गजालींची याद परत परत करपाक कोणाक आवडना. म्हाकांय बी. पूण म्हाकां मार्च २०१७ त थानांचो कांक्र जालो, हांवें ताचेर उपचार घेतले, हांव बरें जालें, म्हज्या सदच्या वेव्हारांत मग्न जालें, तरीय हांव त्या कॅन्सराची परत परत याद काडटां. विसरूंक जायना म्हूण न्हय तर विसरूंक फावना म्हूण. हांव ते विशीं बरयतां, सोशल मिडियाचेर घालतां, कोणय मेळळो जाल्यार मुद्दाम सांगतां,'म्हाकां कॅन्सर जाल्लो. हांव सर्वायवर.' खरें म्हटल्यार हांव अशें वागपी न्ही. म्हज्या एका बऱ्या मागप्याक ही गजाल खटकली जावंये, ताणें एक दीस फेसबुकार बरयल्लें, 'आपल्या दुख्खाचो, दुखण्याचो लोक उदोउदो करतात.' हें म्हाकां अभिप्रेत आशिल्लें हें म्हाकां कळ्ळें. पूण म्हाकां फरक पडलो ना. 'हांव आजूनय कॅन्सर गाथा पदेतां.'

खरें सांगूं ? हें हांव कित्याक करतां तें म्हाकां खबर नाशिल्लें. पूण हांव करतालें. हालीं, म्हजो एक तरनाटो इश्ट दत्तप्रसाद शेटकार मेळ्ळो आनी म्हाकां ताणें एक प्रस्न विचारलो, ''तुका कॅन्सरान किर्ते शिकयलें..?''ताणें प्रस्न केलो आनी हांव दोन खीण ताच्या तोंडाक पळयत उरलें. तकलेंत मात कांव कांव चालू जालें. 'किर्ते शिकयलें? किर्ते शिकयलें? किर्ते शिकयलें?' आजूनय पुराय जाप मेळूंक ना. पूण अर्दी जाप मेळ्ळी आनी हांव कॅन्सरा विशीं कित्याक उलयतां, तेंय म्हज्या लक्षांत आयलें.

म्हाकां कॅन्सरान किर्ते शिकयलें..? पयल्यांत पयली गजाल म्हटल्यार मनशांच्या शरिरा भितर किर्ते चललां हें आमकां जरी कळ्ळें ना तरीय आमचें शरीर आमकां वेगवेगळ्यो कुरवो करून आपली गरज सांगता. ताची दखल घेवंक जाय. हांव तशें कित्या किर्तेय अचरट विचरट खावपी न्हय, शाळेंतल्यान खेळा मळार सक्रीय, 'सोरो-सिगार-पान हीं भलायकेचीं दुस्मान' जाल्ल्यान ह्या तिनय गजालींचें म्हाकां वेसन ना आनी तरीय म्हाकां कॅन्सर जालो..!

हांव पन्नास वर्सांचें जाल्लें तेन्नाच्यान दर वर्सा हांव मोमोग्राफी आनी पेपस्मियर ह्यो कॅन्सर तपासणी करतां. हाका तीन कारणां आसात-

१.डॉ. शेखर साळकाराचीं व्याख्यानां, जंय ते परपरत बायलांनी कॅन्सरा विशीं जागरुकताय बाळगूंक जाय म्हूण शिटकावणी दितात म्हणून..

२.डॉ.माधवी रायकार, बायलां तज्ञ अचानक कॅन्सरान गेली. गोंयभर सगळे लोक तिचे मरणान हालले. तेन्ना डॉ.राजेश धुमेन म्हाकां म्हणलें, ''तुमी बायलां स्वताची काळजी घेनात. तूं वर्सानवर्स मॅमोग्राफी आनी पेपस्मियर टेस्ट करून घे हां..!''

हांव ताच्या उतराक पाळो दितां..

३. म्हजे एके लागशिल्ले वळखिचे बायलेक थानाचो कॅन्सर जाल्लो, तेन्ना पुराय वेळार जीएमसीत हांव ताचे वांगडा आशिल्लें. ती शिटकावणी कशी समजून हांव शादूर जाल्लें.

वर्सावळी प्रमाण आठ म्हयन्यां पयलीं हांवें म्हजी चाचणी करून घेतिल्ली. सगळें किर्ते वेवस्थीत आशिल्लें आनी तरीय आठ

म्हयन्यांनी म्हाकां कॅन्सर गांठ जाली!!

म्हजे खाक्यांत एक वडो सो आयिल्लो. आनी ताचेर इल्लीशी एक चींव. बाळंतपणांत बायलांक 'तिसरो थान'येता हें म्हाकां खबर आशिल्लें म्हणटकीच हांवें त्या 'थाना कडेन'आड्नदर केली. पूण सुदैवान हांवें म्हजे चलयेक म्हटलें,''आगो म्हाकां तिसरो दुदू आयला.''तें शिटूक. म्हाकां परपरत दोतोरा कडेन वच म्हणपाक लागलें, हांवें चिंतलें, दोतोरा कडेन एक बेश्टी फावट मारप!

पूण आयज फाल्यां म्हणत म्हाकां वचप जमलें ना आनी एक दीस म्हजी दोतोर शीला म्हाकां मेळ्ळी. सतीश सोनकाचे अंतीम यात्रे दिसा. आमी सगळींच ताच्या ह्या अचानक मरणान सुन्न जाल्लीं. एकामेकां कडेन किर्ते उलोवप कळनाशिल्लें. तेन्ना किर्ते तरी उलोवंक जाय म्हुणून हांवें म्हज्या खांकेतले गांठीचो (वड्याचो) विशय शीला कडेन काडलो. तार्णे म्हणलें, ''ह्या वयार असो फुगवटो येना. तूं फाल्यां तपासणेक वो.''

हांव तेन्ना सामकें भिलें. म्हाकां धीर जालो ना. थार जालो ना. सतीशाच्या फ्लॅटा म्हऱ्यांतच डॉ. वंदना धुमे रावता. ताच्या म्हऱ्यांत गेलें. तार्णे म्हजी तपासणी केली. ताका थानाक गांठ सांपडली ना. पूण खांक्या पोंदा नोड्यूल्स आसतात त्यो चडच मोव लागतात अशें तार्णे सांगलें. तकलेंत व्हडलें गेलें ना. कारण तकलेंत सतीशाचेच विचार चलताले.

दुसरे दिसा हांव डॉ.शीला गुप्ते कडेन गेलें. तार्णे तपासणी केली. खूब वेळान ताका एक गांठ हाताक लागली. पूण तीय बी हय न्हय शी. डॉ.शीला म्हणटा ती संयमी आनी शांत सभावाची. तिचे भितर हुतहुतेपणां अजिबात नात. तिणें सांगलें, 'गांठ आसा खरी, पूण ती मॅलीग्नंट आसतलीच अशें ना. म्हणल्यार ती कॅन्सराची गांठच आसतली अशें ना. तूं पयलीं अल्ट्रासाउंड आनी मेमोग्राफी कर आनी तो रिपोर्ट सर्जनाक दाखय.'

पणजे दोन सर्जन आसात. अमित कळंगुटकार आनी बोसुये. तिचो तो आशावाद मुठींत धरून हांव मेमोग्राफी करूंक पणजे आयलें. आजूनय म्हज्या मनाक भंयान धरूंक नासलें. हांव एकलेंच हीं वैजकी कामां करूंक भोंवतालें. पूण जेन्ना अल्ट्रासाऊंड चालू जालो तेन्ना दोतोराच्या तोंडावेले भाव पळोवन म्हजें काळीज ल्हव ल्हव थंड पडूंक लागलें. दोतोराक विचारल्यार तो म्हणपाक लागलो, 'कांय ना, रिपोर्ट येवंदी. रिपोर्ट सांजे चारांक मेळटलो.' हांव टेन्शन आनी एक न कळपी भंय मनांत येवन घरा पावलें. म्हजे कडेन रिपोर्ट हाडूंक वचपाचो धीर जायना जालो. तो हाडपाक हांवें म्हज्या घोवाक संदेशाक थंय धाडलो. आमच्या दोगां मदीं तो मातसो चड धीट. पूण ताची अवतीकाय म्हज्याकय वायट जाल्ली, तें तार्णे म्हाकां मागीर सांगलें. रिपोर्ट येतलो. बातमी वायट हें कळ्ळें. आमी दोतोर आनी लागींचो इश्ट डॉ.ऑस्कर रिबेलोक रिपोर्ट दाखयलो. डॉ. शीलाक रिपोर्ट वॉटसएप केलो आनी दुसरे दिसा डॉ.बोसुयेक वचून मेळ्ळीं.

डॉ.बोसुयेन तपासणी केली. गांठ सामकीच ल्हान म्हणटकीच ताकाय ती बरोच वेळ मेळ्ळी ना. मागीर एक सुयेची चाचणी आसता ती करून कॅन्सर आसा काय ना तें कळटा. ती चाचणी केली. चाचणींत कॅन्सर सांपडूंक ना. आमचे हातांत एक आशेचो किरण सांपडलो. दोतोरान सांगलें,''सर्जरी करून गांठ काडची पडटली आनी ती कॅन्सर चाचणे खातीर गोंया भायर धाडची पडटली.'' रोखड्या रोखडी सर्जरीची तारीक थारायली. पूण सुयचाचणी बरी आयिल्ल्यान आमी अर्दीमर्दी बरीं जाल्लीं.

सर्जरी जाली. सर्जरी टेबलार दोतोरान आनी एक चाचणी केली. थंय निदान जालें गांठ कॅन्सराचीच म्हणून. हांव भितर, म्हजो घोव ऑपरेशन थियेटरा भायर. ताचे वांगडा आमच्यो दोन इश्टीणी, निष्ठा देसाय आनी अनिता हालादी. दोतोरान येवन तांकां सांगलें. तांची तिगांयची परिस्थिती कशी जाल्या आसतली हें येवजूनच म्हाकां आजून त्रास जाता. अनिताची आई आनी निष्ठाचो बाबा हेच दुर्येसाचो बळी जाल्लीं. पूण तिगांयनी दोतोराक एकच गजाल सांगली,'प्रशांती कडल्यान ही गजाल लिपोवं नाका.' दोतोराक पटलें. तांणीं फकत तिगांकय सांगलें, 'तें शुध्दीर येतकीच हांवच सांगतां ताका.'

दोतोर बोसुयेक तुमी वळखता जाल्यार तुमी जाणाच तो कसो शांत आनी मृदू भाशीक तो! हांव शुध्दीर येतकीच तांणी सांगलें, ''भियपाची गरज ना. सर्जरी जाली. गांठ आनी गांठी भोंवतणचें मांस आनी खांकेतले १९ लिंफ नोडस् आमी काडल्यात. ते तपासणेक धाडल्यात. त्या गांठींनी कॅन्सर सांपडला, पूण तो कसलो आनी खंय मेरेन पातळ्ळा तें चाचणी तपासणेचेर कळटलें.''

तियात्रांत कांतार सुरू जावंचे पयलीं झण्ण करून मुज्ग वाजता तशें एकदांच म्हाकां जालें आनी मागीर हांव सामकें शांत जालें. किर्ते जाता तें जावं, धीर सोडप ना हो मनां कडेन निर्णय येतलो. पूण मजा म्हटल्यार मरणाचो भंय मनांत मात्तय येवंक ना. पूण रिपोर्ट येता म्हणसर पंदरा दीस मात खूब त्रासांचे गेले. आमी दोगांय घोव बायलां दीस-दिसभर वोग्गी बसून रावतालीं. एका मेकां कडेन एक शब्द उलय नासलीं. चिंता आसली, भुरग्यां ही बातमी कशी येतलीं...इलाज खंय येवप..कॅन्सर हें म्हारग दुर्येस,इतलो पयसो खंयच्यान हाडप..

पंदरा दिसांनी एकदांचो रिपोर्ट आयलो आनी आमकां बरें दिसलें. क्रन्सर ते गांठी पुरतोच आसलो, गांठ सामकी ल्हान आसली आनी किमोची गरज नासली. फकत रेडियेशन,म्हणटकच आमकां बरें दिसलें. आनी ताचे उपरांत इलाजाची भिंगरी पांयांक बांदपाक हांव तयार जालें.

हाचे उपरांत खूब किर्ते जालें पूण तें सगळें बरोवंक गेल्यार एक 'बिम्ब' काडचो पडटलो.

ते परस हांव किर्ते शिकलें तें सांगतां-

१.ल्हानपणांतल्यान आईन म्हाकां एक सवंय घालून दिल्ली, सदांच इल्ले पयशे कुशीन काडून दवरचे. कोणाक सांगचें न्हय.तशे कांय पयशे म्हजे कडेन आशिल्ले. ते गरजेक पावले. कितलेशे इश्ट आनी परिवारांतले लोक इलाजाक पयशे घेवन धावून आयले. सुदैवान पयशे घेवपाची गरज पडली ना.

२. जिवाक जीव दिवपी आनी तोंडांतल्यान उतर काडी नासतना, दोळ्यांत दुकां घेवन गुपचूप आमचे फाटल्यान उबीं राविल्लीं आश्विन-निष्ठा, अनिता, सुशांत तारी, सुषमा सोनक, शर्मिला सरदेसाय, बर्नादित गोम्स, संगीता नायक, रेश्मी रेडकार, समीर आनी रमा पाटील, तांचो धाकटुलो मांगिरिश,घरचीं नेहा, आशिश, वृंदा, सुदेश, पद्मिनी अशीं कितलींच मनशां आमचे फाटल्यान उबीं. 'पुढे उभा मंगेश म्हणटा सर मागे उभा मंगेश' म्हणत डॉ. उषा देसाय, शीला गुप्ते, डॉ.ऑस्कर, डॉ.बोसुये, डॉ.प्रकल्पिता, डॉ.शर्मिला आनी डॉ.शेखर साळकार. डॉ. शेखर साळकार तर म्हज्या दर प्रश्नाची जाप खिणांक दितालो, किमो दिता आसतना शारीरीक त्रास कमी -जास्त प्रमाणांत जाताच, मानसीक स्थिती हालता. हांव दोतोरा कडेन हे विशीं चॅट करतालें आनी तो म्हाकां खूब आदार करतालो.

३. बरें जावंक जाय जाल्यार स्वताची मानसीकताय हयकारी, सकारात्मक दवरप गरजेचें. दोतोर शेखर साळकार सांगता, बरें जावपा खातीर तशें पंचवीस टक्के दोतोराच्या हातांत जाल्यार पंच्चात्तर टक्के पेशंटाच्या हातांत आसता.

४.ह्या सगळ्या सकारात्मक लोकां मदीं म्हाकां देव मेळ्ळे.

५.कितलेशेच लोक, लागींचे, पयसुले, कितलींशींच वर्सां म्हजे कडेन न उलोवपी ह्या काळांत म्हज्या परत लागीं आयले. आनी म्हाकां एक समजलें, आचार-विचार, संघर्श हाचेर आदारिल्ल्या नात्यांची वीण घट्ट आसता. कितलींय जळमटां आयलीं तरीय त्या सगळ्यां मदीं तीं नातीं डळमळीत जायनांत.

६.लोक जितले बरे आसतात तितलेच वायट वृत्तीचेय लोक म्हाकां मेळ्ळे. 'आपूण तुजे खातीर कितेंय करूंक तयार आसां' म्हणत त्या म्हज्या दुयेंसाच्या काळार लेगीत म्हजे कडल्यान मजत मागपी एक-दोग जाण मेळ्ळे. पूण तांकां हांवें म्हज्या मनांतल्यान तेन्नाच हद्दपार केले.

७.कांय लोकांक गंभीर दुयेंस जाल्ल्या दुयेंती कडेन कशें उलोवप,वागप तें कळना. किर्ते तरी विचित्र प्रश्न विचारपी लोक म्हाकां मेळ्ळे. म्हाकां पळोवन नदर चुकोवन वचपी लोक म्हाकां मेळ्ळे. आनी एकलो तर म्हाकां पळोवन भोंकाक पांय लावन धांवलो लेगीत. अशें जेन्ना घडलें तेन्ना म्हाकां खूब वायट दिसलें. हांव खूब रडलें. पूण मागीर म्हाकां बाकीच्या पेशन्टांनी समजायलें, असल्या वेळार लोकांक वागप कशें तें कळना म्हणून ते अशे वागतात.



८.कांय लोकांक सगळ्या गजालींची म्हायती आसता असो तांचो समज. तुकां जाल्ल्या दुयेंसा विशीं आपल्याक कशें आनी किर्ते खबर आसा तें सामकें तिखट-मीठ लावन सांगतात. त्या बोवाळांत पेशन्ट, ताचे घरचीं भियेतलीं हें समजून घेनांत. पूण आमी सगळीं घरचीं, असलो 'लोक' म्हणल्यार 'ओक' म्हणत तांणी सांगिल्ले गजालीं कडेन फकाणाचेर व्हरूंक शिकलीं. तशें केल्ल्यान आमची धडगत..! नाजाल्यार आमकांच त्रास जावपाचे. देखीक, म्हजे मनांत मरणाचो विचार केन्नाच येवंक ना. कारण म्हाकां जाल्लो कॅन्सर सामको पयले अवस्थेंतलो हें म्हाकां खबर आशिल्लें. पूण कांय जाण पळयतनाच म्हणटाले, 'घट राव आं,तुका कांय जायनां. अमक्याक कॅन्सर जाल्लो, तो धा वर्सां उरलो..! तमक्याक कॅन्सर जाल्लो..तो पंदरा वर्सां उरलो..!सायबा भोगोस..!!

९. लिपोवन दवरलें जाल्यार कांय गजाली यातक जातात, म्हारग पडटात हें मणिपाल हॉस्पिटल-दोना पावला, जीएमसी, केइएल बेळगांवी आनी टाटा हॉस्पिटल मुंबय हांगां गेल्ले कडेन पेशन्ट मेळटकीच कळ्ळें. एकएकट्याची काणी आयकून म्हजे परस संदेश चड भावूक जाला. म्हाकां सदांच दिसतालें, संदेश कोणाक भिवपी न्ही, तो धीट काळजाचो. पूण म्हजे दुयेंसान म्हजे परस तो हाललो. ताचो एक नाजूक, मनीसभावी सभाव म्हाकां कळ्ळो.

१०.ल्हानपणांतल्यान हांव मातशें सपनाळू सभावाचें. जादूचे 'हें' 'तें' असल्या

गजालींत रमतालें. पूण ह्या दुर्येसाच्या वेळार एक जादूची नगरी म्हाकां मेळळी. *नव्यानेटवर्क.कॉम* म्हणून कॅन्सराचेर सेकंड ओपिनियन दिवपा खातीर एक वेबसायट आसा. मध्यप्रदेशांतली गितिका श्रीवास्तव बॉस्टन रावता. तिणें ही वेबसायट सुरू केल्या. तिची संलग्नता टाटा हॉस्पिटला कडेन आसा. ह्या 'नव्या' च्या आदारान म्हाकां म्हज्या पयल्या रिपोर्टांतल्यो त्रुटी कळळ्यो आनी सगळो उपचार कमी पयश्यांनी करून येवपाक मेळळो. जेन्ना जेन्ना उपचारा विशीं द्विधा मनस्थिती जाताली तेन्ना डॉ.शेखरा वांगडाच नव्याचोय सल्लो हांवें घेतलो. नव्यातल्या कोणाकच हांव आजून मेळूंक ना,पूण हांव ह्या जादूचे नगरींतलें तांचे नातलग जालां. म्हज्या सुखदुख्खांत तीं अजुनय वांटेकार जातात.

आनी सगळ्यांत अती महत्वाची गजाल हांव शिकलें ती म्हटल्यार दरेक काळ्याकुट्ट गजालींत एक खंय तरी विनोद लिपिल्लो आसता. तो विनोद सोदून काडप. मागीर आपसूक हांसूंक येता, मनाची कळी उसवता आनी टेन्शन ना जाता. म्हाकां कॅन्सर जालो आनी जिविता कडेन पळोवपाची म्हजी नदर बदलली.

आनी किर्ते मेळ्ळें..? दत्तप्रसादाक हें सांगतकीच ताणें तरीय विचारलें...

म्हज्या धाकट्या कुटुंबाचें सामर्थ्य कळ्ळें.

म्हजो घोव जर्नलिस्ट. ताचें बाबड्याचें संवसारांत केन्नाच लक्ष आसनासलें. ताका हांव केन्नाय तिडकीन 'संत तुकाराम' म्हणटालें. पूण ह्या वेळार ताणें आपल्यो चिपळ्यो...सॉरी पेन, मोबायल, लॅपटॉप कुशीन दवरून म्हजी सगळी सेवा केली. म्हजे केंस गेल्ले, कात काळी पडिल्ली, हांव 'हाड-मांस' जाल्लें. पूण म्हाकां पळोवन 'व्वा!' म्हणून तो प्रसन्न हांसतालो.

दुसरें म्हजें चली. तें बारावेक म्हूण हांव सी.सी.एल घेवपाचें. पूण म्हाकां 'कॅन्सर सुटी' घेवंची पडली. ताणें आपलो अभ्यास आपले आपूण करून बरे टक्केवारीन तें पास जालें. म्हाकां केमो वेळार रात रातभर न्हीद येना आशिल्ली. ते वेळार म्हजे वांगडा तें बसतालें, आमी कविता वाचन करतालीं, हांगच्यो थंयच्यो खबरी करीत तें म्हाकां प्रसन्न दवरतालें.

तिसरें म्हजें मानिल्लें चली लक्षा. म्हाकां घरकामांत मजत करूंक आयिल्लें, आमचेंच घरचें जाल्लें. हो कॅन्सराचो आठ-णव म्हयन्याचो आटाप लक्षा बगर अशक्य आशिल्लें. म्हजें जेवण खाण, घरच्यांचें सगळें, बाजार हाट, सोयरीं धायरीं सगळें एक हाती ताणें केलें.

रेडिवेशना वेळार आमी चार आठवडे बेळगांव उरलीं. एक आठवडो संदेश, दुसरो आठवडो म्हजो चलो वेद, तिसरो आठवडो म्हज्यो मैत्रिणी अनिता, संगीता, तारा (रेश्मी), डॉ.उषा देसाय रावलीं जाल्यार चोवथो आठवडो लक्षा. ह्याच वेळार लक्षाचें लग्न थारलें. पूण हांव बरें जायसर आपूण लग्न जावंचें ना म्हणून तें हट्ट धरून बसलें. मागीर हांवें सांगलें, 'हांव बरें आसां!' ३० नोव्हेंबराक म्हजें रेडियेशन सोंपलें आनी ११ डिसेंबराक ताचें लग्न केलें. ह्या चोवथ्या आठवड्यांत आमी दोगांयनी लग्नाची भरपूर खरेदी केली. पूण हांव घरा येतां म्हणसर तें म्हजे वांगडा रावलें.

लक्षा २ डिसेंबराक लग्नाचे तयारेक गेलें.



आतां कोण तरी घरांत कामाक सोदचो पडटलो म्हणटां म्हणसर म्हज्या चल्यान घराचो ताबो घेतलो. थोडे दिसच, पूण घरांतली सगळी नितळसाण, आयदनां काडपाचें, जेवणाचें बारीक सारीक ताणेंच पळयलें.

आनीक एक गजाल हांवें हांगा सांगली ना जाल्यार म्हजो हो लेख अपुरो उरतलो. गोंयांत कॅन्सर पेशन्ट आनी तांच्या घरच्यांक मालसिक आदार दिवपाक 'मुस्कान' नांवाची संस्था आसा. डॉ.शर्मिला सरदेसाय कुर्स्या आनी बबिता अगरवालहीं दोगांय ही संस्था चलयतात. हे संस्थेची सगळीं वांगडी म्हजे सारखीं कॅन्सर वॉरीयर हें एक नवें कुटूंब म्हाकां कॅन्सरांत दिलें.

आनी म्हाकां किर्ते जाय?

पूण ही कॅन्सर काणी हांगा सोंपना. एकता कपूराचे सिरियली सारकी कांय तेंप एपिसोड चालूच उरतात. दोतोरान सांगिल्ले टायमार म्हजी तपासणी चालू आसा.गुळयो चालू आसात आनी खोशी रावप तर चालूच आसा....

आनी केन्ना कोणाक कॅन्सरा खातीर मजत घेवपाची पाळी येवंची न्हय पूण आयलीच जाल्यार म्हजो मजतीचो हात आसाच..!



वोवळां

शीला कोळंबकार



# म्हजी गॉडमदर..



केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार,सॅमसंग इलेक्ट्रॉनिक्साचो टागोर पुरस्कार,विमला पै पुरस्कार ह्या सारख्या प्रतिष्ठेच्या पुरस्कारांनी भोवमानीत **शीला कोळंबकार** हाणीं कथा,ललित लेखन तशेंच बाल साहित्यांत आपली खाशेली सुवात तयार केल्या. तांचे लिखाण म्हणल्यार कोंकणीं साहित्यांतले 'शीला'लेख अशें म्हणूं येता.

एक खेप अक्काल्या धाकल्या चल्यान, पप्पून खिळो गिळ्ळो. अक्का ताका घेवन शशी म्हऱ्यांत गेलें. पप्पून खिळो गिळ्ळो हें आयकून शशी रडूंक लागलें. खिळो पोटांत गेलो काय ताचे परिणाम कितें जावं येतात हें चिंतून ताका रडूंक आयलें.

आमी सात भावंडां. सगळ्यांत व्हडली म्हजी भयण. मागीर दोग भाव. मागीर आमी हारोहार चार भयणी. शशिकला, शीला, नीला आनी दुर्गा. म्हजे व्हडले भयणीचें नांव जलप्रभा. म्हाकां ल्हानपणांत दिसतालें अक्काचें-व्हडले भयणीचें जलप्रभा! जाल्यार आमचीं नांवां जलशशी, जलशीला, जलनीला, जलदुर्गा बी कित्याक दवरलीं नात काय? शशी म्हळ्यार डॉ.शशिकला अभ्यंकर. तें आनी हांव फाटलीं फुडलीं. शशीलें बोट धरून हांव शाळेंत वतालें म्हूण आमची चड इश्टागत. म्हळयार भयणी परस तें म्हजी इश्टीण चड.

शशीचें मॅट्रीके मेरेनचें शिक्षण गोंयां जालें. इंटर मेरेनचें ताचें शिक्षण मुंबय जालें. मुखार मेडीकल कॉलेज गोंयांत जालें. तेन्ना पर्थून गोंयां येवन ताणें एम.बी.बी.एस. केलें. मुखार एम.डी.करूंक तें पर्थून मुंबय गेलें.

शशी आनी हांव मराठी चवथी पास जाल्या उपरांत कन्याशाळेंत वचूंक लागलीं. ते शाळेंत गायनाचो क्लास चलतालो. गायन शिकोवपी गुरुजीचें नांव आसलें नारायण बक्षी. बक्षी मास्तर सतारूय बरी वाजयताले. एकदीस ते आमगेर आयले. शशीली गायनांतली प्रगती पळोवन ताणी बाबाक विचारलें,"शशीक आपूण संगीत शिकोवंक सोदतां. तुमची परवानगी मागूंक आयलां." बाबान तांकां परवानगी दिली. ताणी आपले कडली एक सतार शशीक दिली आनी ते सतार शिकोवपाक आमगेर येवंक लागले. थंय शशीक सतारीची गोडी लागली. ते तेंपार पुर्तुगेजांचें राज्य आसलें. ताणी 'गोंयकार नाशिल्ल्या लोकांनी गोंय सोडून वचचें' म्हूण फर्मान काडलें. हो मास्तर उत्तर भारतांतलो. तो मागीर गोंय सोडून गेलो. आपली सतार ताणी शशीक दिली.

आमचो बाबा तबलें वाजयतालो. ताका लागून गायक,वादक आमगेर येताले. पं.मनोहरबुवा शिरगांवकार आमगेर येताले. आयल्या उपरांत ते शशीक दोन तीन चीजो शिकोवन वताले. शशी मागीर ताका जें कितें येता ताची प्रॅक्टीस करतालें.

शशी एम.डी. करूंक मुंबय गेलें. एम.डी. पास जाले उपरांत तें सतार शिकूंक गेलें. ताचे गुरू आशिल्ले पं. चिंतामण अभ्यंकर. अभ्यंकर, उस्ताद विलायत खाँसायबाचे शिश्य आसले. तांकां सतारवादनाचें राष्ट्रपतीचें भांगरा पदक मेळिल्लें. शशीली आनी अभ्यंकराली मनाची तार जुळ्ळी आनी शशी डॉ.शशिकला चिंतामण अभ्यंकर जालें.

मजगतीं म्हजें लग्न जावन हांव मुंबय पावलें. शशी सायन हॉस्पिटलांत शिकयतालें. हॉस्पिटलाचे कुशीक ताका रावपाक सुवात मेळिल्ली. तें रावतालें तो कॅम्पस खूब व्हड आसलो. हॉस्पिटलांत शिर्वीस करपी खूब लोक थंय रावताले.

त्या कॅम्पसांत भितर सरलें काय एखाद्र्या गांवांत आयिल्लेवरीं दिसतालें. भायर आयलें काय मुंबय दिसतालें.

म्हजी व्हडली भयण अक्का तार्चेय लग्न जावन तें मुंबय रावतालें. म्हजे फाटली भयण नीला तेंवूय लग्न जावन मुंबय पाविल्लें. आमी सगळ्यो भयणी, आमकां किर्तेय जालें जाल्यार शशीक फोन करतालीं. तार्णे सांगिल्लें वखद घेवन बरीं जातालीं. आमच्या भुरग्यांक किर्तेय पडलें झडलें जाल्यार आमी धांवत शशीगेर वतालीं.

एक खेप अक्काल्या धाकल्या चल्यान, पप्पून खिळो गिळ्ळो. अक्का ताका घेवन शशी म्हन्यांत गेलें. पप्पून खिळो गिळ्ळो हें आयकून शशी रडूंक लागलें. खिळो पोटांत गेलो काय ताचे परिणाम किर्ते जावं येतात हें चिंतून ताका रडूंक आयलें.

आमच्या भुरग्यांक सुटी पडली काय हांव म्हज्या दोगांय पुतांक घेवन तागेर वतालें. आमचे दोग आनी शशीलो चलो आनी थंयचे हेर भुरगे खेळ खेळ खेळटाले. दनपरां तांकां ओडून हाडून जेवोवंचें पडटालें.

खूब वर्सां पयलीं म्हजी मावशी सायन हॉस्पिटलांत आशिल्ली. तिका मेळपाक हांव शशी वांगडा सायन हॉस्पिटलांत गेल्लें. थंय शशीक कळ्ळें,मावशे खातीर प्लास्टीक सर्जरीचें एक उपकरण जाय आसलें. भायर फार्मासीनीय तें उपकरण सहजपणान मेळ्ळें नासलें. तेन्ना थंय एक नर्स आयली. तिर्णे विचारलें, 'तें उपकरण कोणाक जाय?' शशीन म्हळें,'म्हाकां जाय आसलें.' तिर्णे म्हळें, 'तुमकां जाय? मातशीं रावात, म्हजे कडेन तें आसा. हांव तुमकां हाडून दितां.' अशें म्हणून ते नर्सीन तें उपकरण हाडून दिलें. शशीचें काम जालें. शशीन तें उपकरण तिका व्हरून दिलें. तिचे उपकार मानले. तेन्ना तिर्णे सांगलें,'दुसऱ्या खंयच्याच दोतोराक हांव तें दिवंचें नासलें. तुमकां म्हूण दिलें. कित्याक खबर आसा? एक खेप म्हजी आवय दुयेंत जाली. ह्याच हॉस्पिटलांत आसली. म्हाकां तिच्या रगताचे रिपोर्ट जाय आसले. हांव तुमच्या पॅथोलॉजी डिपार्टमेंटांत गेलें. थंय आशिल्ल्या दोतोरांक हांवें रिपोर्ट मातसो बेगीन दिवंक सांगलें. तो कोणेच दिलो ना. हांव निर्शेलें. तेन्ना तुमी म्हाकां तुमचे म्हन्यांत आफयलें. आनी रगत तपासून रोकडेच रिपोर्ट दिलो. तुमचे उपकार हांव केन्नाच विसरचेंना.'

म्हाकां शशीली आनी ते नर्सीचीय लत्तुबाय दिसली.

मागीर केन्ना तरी शशीन सायन हॉस्पिटलांतली नोकरी सोडली. तेन्ना तें प्रभादेवी रावपाक गेलें. तार्णे कांदीवलीक आपली लॅब उकती केली. पयलीं तें प्रभादेवीच्यान कांदीवली ट्रेनीन वतालें. थंय पावपाक ताका पाऊणवर लागतालें. हो वेळ तें होगडाय नासलें. त्या वेळांत तें बऱ्या बऱ्या गायकांचें गायन, वादकांचें वादन आयकतालें. तें आयकून आपल्या संगीताच्या गिन्यानांत भर घालतालें. तेचवरीं आपलें पॅथोलॉजीचें गिन्यान लेगीत तें अपटुडेट दवरतालें. पॅथॉलॉजीच्या कॉन्फरन्सांक वतालें. म्हाकां ताची ह्या नव्या नव्या स्लायडींचो अभ्यास करपाची वृत्ती आवडटा. शशी हिस्टापेथॉलोजींत फिशाल आसा.

म्हज्या एका वाढदिसाक शशीन म्हाकां विचारलें,''तुज्या वाढदिसाक तुका किर्ते जाय?'' हांवें म्हळें,''तुजे सतारीचे प्रोग्राम खंय खंय जातात तेन्ना म्हाकां तुजे वांगडा व्हर..'' आनी तार्णे म्हजें उतर पाळ्ळां. ताचे जायते प्रोग्राम पुण्यांत जाले. ताचे प्रोग्राम चिपळुण, करवार, भोपाळ, विदिशा बी जाले. तागेल्या ह्या सगळ्या प्रोग्रामांक म्हजी हजेरी आसली.

ताचे प्रोग्राम जाले काय तार्चे अभिनंदन करपाक लोक येतात. अश्या वेळार ताची सतार अचळय उबारून सतारीची लाकडाची केस आसा तातूंत दवरप. सगळ्या वादकांक आपल्या वाद्याक कोणें हात लायिल्लो आवडना. तें म्हाकां ताचे सतारीक हात लावंक दिता हें म्हजें



भाग्य..!

एकेक खेपे हांव तांगेर वतां. पोटभर ताची सतार आयकतां. मन तृप्त जाता. म्हाकां संगीतांतलें खूब किते कळटा अशें ना. पूण हांव कानसेन. एक खेप अशेंच तागेर गेल्लें. ताची सतार आयकतालें. मदींच कोणालो ताका फोन आयलो. ताणें फोन घेतलो. शशी किते उलयता तें म्हाकां आयकूंक येतालें. शशी ताका विचारतालें,'पेशंट कोण? मेल काय फिमेल? कितलें वय..?' आनी पलतडचो मनीस किते उलयता तें आयकून म्हळें, 'स्लायड सारकी बारीकसाणेन पळय. म्हाकां दिसता टी.बी. आसूं जाय. तुकां तें कळूं ना जाल्यार कांय करूं नाका. फाल्यां हांव येवन पळेतां आनी रिपोर्ट दितां.' ताणें फोन दवरलो. आनी सतार वाजोवंक लागलें.

शशीले मुंबय प्रोग्राम जाले काय जायते लोक येतात. तांतले सतार वाजोवपी आसात ते म्हणटात,'आपका साज बहुत अच्छा है।' जाल्यार शशीलो गुरूबंधु आसा तो म्हणटा, 'गुरुजीन सतारीची जवारी बरीऽ काडल्या म्हूण सतार बरी वाजली. फक्कत एक खेप संगीतकार नौशाद हांणी ताची सतार आयकली. शशीच्या म्हन्यांत येवन तांणी सांगलें,आप बहुत अच्छा बजाती हैं। मनमेकळी दाद दिवंक लेगीत व्हड काळीज आसचें पडटा.

शशीलो प्रोग्राम चिपळुण आशिल्लो. शशी थंय ओगी बसून आशिल्लें. थंय हांव बेठेंच बोवाळटालें. सतार वाजयतना शशीक दोन मायक लागतले म्हण आयोजकांक सांगलें. प्रोग्राम सुंदर जालो. एकली बायल आमचे म्हन्यांत आयली. तिणें म्हजे कडेन बोट दाखोवन म्हळें, ''आम्हाला वाटलं ह्या सतार वाजवतील! पण सतार तुम्ही वाजवली. छान वाजवली



हो.''

तिका बाबडेक किते खबर, सतार वाजोवपी शशी आनी हांव फक्कत तोंडूच वाजयतां म्हूण!

शशीलो पंच्चातरावो वाढदीस ताच्या विद्यार्थ्यांनी व्हडा दबाज्यान मनयलो. मुंबय रावपी ताचे विद्यार्थी आनी मित्र मैत्रिणी आयिल्ल्योच. पूण एक विद्यार्थी अलिबाग, दुसरो कर्नाटकांतल्यान आनी तिसरो इंग्लंडच्यान मॅडमच्या वाढदिसाक मुद्दम आयिल्ले. सगळे मॅडमी विशीं भरभरून उलयले. ताचे एके विद्यार्थीनीन सांगलें,तें पॅथोलॉजी घेवन एम.डी. करतालें. तेन्नाच ताका दीस गेले. दोतोरान आठ धा दीस तरी बेडरेस्ट घेवंक लायली. थोड्या दिसांनी तें कामार आयलें जाल्यार ताचें सगळें काम कोणें तरी करून दवरिल्लें. ताणें मैत्रिणीक विचारलें. तांणी सांगलें, 'मॅडमीन तुजें काम केल्लें.' त्या दिसांची याद जावन ती विद्यार्थीनी घळघळीत रडली. जण एकल्यान मॅडमीन आपल्याक कशी मजत केल्ली तें सांगलें. ताचे विशीं हांवें मागीर शशीक विचारलें तेन्ना ताणें सांगलें, 'म्हाकां इतली आतां याद ना गो..पूण हांव गोंयासान मुंबय आयलें तेन्ना हांगच्या लोकांनी म्हाकां खूब त्रास दिलो. तेन्ना मुंबय भायल्यान आयिल्ल्या भुरग्यांक, चड करून चलयांक तशे त्रास जावं नये म्हूण हांव काळजी घेतालें. इतलेंच.. तांकां ताची याद उरली, तांणी ती दवरली हें तांचें व्हडपण..

फाटल्या दोन तीन वर्सांसान म्हाकां एक्लूय कथा सुचूंक नाशिल्ली. एक तरेची निर्शेणी आयली. किते वाचन दिसनासलें. बरयन दिसऽनासलें. म्हाकां कांय सुचच नासलें. दिसतालें सगळें सोडचें आनी हिमालयांत वचून बसचें. शशीक ताची कल्पना आसली. तें सदांच म्हज्या बरोवपाची चवकशी करतालें. 'आयज किते बरयलें गो? तुकां बरोवंक येता,बरय मगो!'इतलें सांगून तें राव नासलें. म्हाकां आपल्यागेर व्हरतालें. आपूण आतां खंयच्या रागाची तयारी करतां तें सांगतालें. सतार वाजोवन दाखयतालें. एकेक खेप नाटकाक ना जाल्यार सिनेमाक व्हरतालें.

अशेंच एक दीस हांव शशीगेर आसलें. आमी न्हिंदचे तयारेंत आसलीं. इतल्यांत फोन वाजलो. दिलीप बोरकार उलयतालो. ताणें म्हळें, 'आगो,आतां २०१९ उजवाडटा. ह्या वर्सा तूं बिम्बा खातीर किते तरी बरय.' हांवें म्हळें, 'ना रे.. म्हाकां कांयच सुचना.' ताणें म्हळें,' शीलाक अळंग व्यक्त कर. मनांत किते किते उरलां तें बरय.' दिस्त थंय शशी बशिल्लें. हांव किते उलयतां तें तें आयकतालें. शशीक लागून हांवें ताका बरयतां म्हळें. आनी हांव बरोवंक लागलें. सुर्वेक मातशें वांकडें तिकडें बरोवन जालें. बरोवपाचो रियाज जालो. हांव बरोवंक लागलें. ताचें श्रेय म्हजी भयण,कम मैत्रीण,कम गॉडमदर शशीक वता.



मुंबय. मो.: ९८१९३१५३०७

अश्रेकणी



शुभांगी नेवरेंकार

**शुभांगी नेवरेंकार** म्हळ्यार आदलींचीं रंजन सुखठणकार. तांकां बरोवपाचो वसो सुखठणकार घराब्यांतल्यान आयला अशें म्हणूंक हरकत ना.ताणीं भांगरभूंय, जाग तशेंच बिम्ब नेमाळ्यांतल्यान लेखनाक आरंभ केलो. व्यक्तिचित्रां, ललित,प्रवासवर्णन आदी साहित्य प्रकार केळोवपाची तांकां आवड आसा.




# म्हजे शेणिल्ले गोंय

आज आमचे संस्कार उरूंक नात. सगळेंच फॅशनेबल जालां. आदीं साखरपुड्याक चलये हातांत साखरेचो पुडो दितालीं. मागीर बर्फीचीं ताटां आयलीं. आज चलयेच्या हातांत शॅम्पेन बाटली दिवन तिका चियर्स म्हणटना पळयता तेन्ना गुरुनाथकाकाच्या (केळेकार) उतरांची,आमचें गोंय हाता भायर गेल

डिसेंबराचे २१ तारकेक आमी गोंयां वचपाक भायर सरलीं. आमचेच गाडयेन म्हणटकच सवकासायेन भायर सरप जाता. ते प्रमाणें आमी सकाळफुडें स वरांचेर भायर सरलीं. पुणें-बंगळुरू हायवे वयल्यान सांगली, कराड, कोल्हापूर, बेळगांव करत मागीर चोर्ला घाट. मर्दी मर्दी राविल्ल्यान नास्ता, जेवण घेवपाक गोंयां उसरां पावलीं. चोर्ला घाट लागतकच गोंयां पावत आयलीं म्हणपाचें पयलींच कळटा. गोंयां येतना वाटेर बेळगांव काडटकर बरेच जाण कांद्याच्यो पांच-धा किलांच्यो पोतयो घेवन विकपाक बशिल्ले दिश्टी पडले. दुदी बी खूब कडेन दिसले. सांज जाल्ल्यान चड पळयत बसलीं ना. साखळे पावतकर गोंयां पावलीं म्हूण सुशेग जालो. म्हाका दत्ताचें देवूळ आसा म्हूण साखळे पावलां शें दिसलें. ना जाल्यार आशिकुशीक सगळीं दुकानां, घरां, तातूंतच गाडयो, स्कुटरी बी कचाकच पळोवन गोंयां पावलां काय खंय पावलां अशें दिसता. ताचे मुखार तर म्हजे कुळारच्या म्हळयार माशेलांतल्या वयल्या रस्त्यान भितर सर नासतना भायले वटेन जाका आमी दबार म्हणटालीं तो म्हजो एका काळार पांयां सकयलो रस्तो आशिल्लो. दबारा वयल्यान सकयल देंवतकच आशिकुशीक आशिल्लीं लोजां, दुकानां, देवळां, उजवे कुशीक देवकी कृष्णा मुखार व्हडलो ग्रावंढ आशिल्लो. थंय भुरगे क्रिकेट खेळटाले. कुशितल्या खंयच्या ना खंयच्या घरांतल्या विचारप जातालें,बाय आयलें गो.. उरतसें मगो आनी हीं उतरां उमेदीन आंगार झेलत घरा केन्ना पावतालीं कळ नाशिल्लें. कितलें विस्कळ आशिल्लें माशेल..भितर घरां तींच...आयज तेच जाग्यार आसात. एका तेंपार हींच घरां आमकां मायेमोगान येवकार दितालीं. आतां तें सगळें भुरगेपणावयल्यो यादी जावन उरल्यात. यादीन दोळे वोगीचशे उदकान भरून आयले.गाडी माशेलांतलो बसस्टॅन्ड बी काडून मुखार गेली. मनांत आयलें, सुदारणां ही जावपाकूच जाय, पूण तुमचें नामोनिशाण नश्ट करून न्हय.

आमी दोन-तीन दीस बांदोडच्या महालक्ष्मी रावपा थारायल्लें.सगळे कडेन रस्त्याक लायटी पेटिल्ल्यो. सगळेच कडेन हायवे..पळयतकर गोंदळूंक जालें. खरेंच गांवांक इतल्या व्हडल्या रस्त्यांची गरज आशिल्ली जे आमी गोंयचे आमचे दोंगर, झाडां जें आमच्या गोंयचें वैभव आशिल्लें तें कापून तयार केल्यात..



गोंयचें नांव काडिना फुडें दोळयां सामकार पांचवींचार झाडां, दोंगर आनी तांबडे मातयेचे रस्ते येताले. हे खेपे मात सामकेंच पुरसूपाक जालें. मागीर विचारत विचारत गेलीं आनी एकदाचीं पावलीं बांदोड्या.रात आशिल्ल्यान चड गोंदळिल्ले भशेन जालें. देवळाच्यो घांटी आयकूंक आयल्यो.आरती चालू जाल्यो.बरें दिसलें मनाक,सगळी तकालस गेली. दुसरे दिसा आमी सगळीं देवाची भेट घेवपाक गेलीं. शांतादुर्गा कवळेंची,म्हजी कुळारची देवी. पयलीं रामनाथी,मागीर कवळयां गेलीं. देवतेची होटी भरली. थंय हांवें म्हाजनाचे एके बायले कडल्यान आयकलें,अगरसाळेंत फकत म्हाजनाक रावपाक दितात,हेर कोणांक ना. म्हाका कळना,जर म्हाजनाक दिवन जर कुडी शिल्लक उरत,तर म्हाजनांच्या धुवांक बी दिवपाक किर्ते जालां..कारण हांवें आयकल्लें दिनांत बी म्हूण. होंट भरून जातकर मागीर हांव कमाविसदाराच्या ऑफिसांत गेलें. कमाविसदार नाशिल्लो. हांवें थंय रकाद दवरलो, म्हाजनां वांगडा जर तांच्यो लग्न जाल्ल्यो धुवो आयल्यो जाल्यार तांणी खंय रावपाचें..कुडी खालीं दवरून फायदो जायना, लुकसानूच जाता. म्हजो सांगपाचो हेतू, आमकां गोंयकारांक कोणें नांवां दवरपाक जायना.तीं जीं बायलां आयिल्लीं तीं मुंबयचीं आशिल्लीं. तांकां जाय आशिल्ली कूड ताचे चलये खातीर. म्हाका दिसता,त्या कुडींनी रावपाचो हक्क पयलीं म्हाजनांक दिवंचोच.पूण थंय जर रुम रिकामे उरले जाल्यार ते म्हाजनांच्या धुवांक बी दिवपाक कांयच हरकत ना. मागीर आनीक एक विचार आयलो,पयलीं तेंपार कुडी वो सुवात अशीच दुडू घे नासतना बी दिताले. पूण आता पयशे दिवन पासून रूम दिवपाक तयार नात. तेंय बी देवीच्या वाठारांत.

मागीर आमी म्हाड्डोळा गेलीं. मंगेशीं करून जेवन बी पणजे गेलीं. मिरामार आमचे फ्लॅटार काम आशिल्लें म्हूण रातीं आमी अटल ब्रीज पळोवन आयलीं. लायटी बी पळोवन बरें दिसलें. पूण दोळयां मुखार निमाणें मेरेन काम करपी आनी ब्रिजार उबो रावन How is josh? म्हणपी पर्रीकार आयलो. ब्रिजा कडेन वतना फाटल्यान दोग तीग जाण भुरगे मोटर सायकलीचेर बसून आयले आनी आमचे म्हऱ्यांत रावून 'कॅसिनो कॅसिनो' म्हणत विचारूंक लागले. खंय तें आमचें म्हाड्डोळ,जायां पुडे,नाजाल्यार मुट्टे घेवन उबे रावपी आमचे गोंयकार आनी जायांच्या वासान वो हळदुव्याच मुट्ट्यांच्या मोगांत पडून पयसुल्ल्यान गोंयांत येवपी आमचे सारखे गोंयकार आशिल्ले लोक आनी खंय ते कॅसिनोच्या नांवान येवपी भायले लोक...मागीर कोणेंतरी म्हाका सांगलें गोंयांत आयज किर्ते किर्ते चल्लां तें. तें आयकून म्हाका कळना जालें,ही चलल्या ती गोंयची उदरगत काय विनाशकाले विपरीत बुद्धी..एका तेंपार काकासायबान गोंयाक लेखून पुण्यभूमी म्हणिल्लें. तेन्ना खऱ्यांनीच आमचें गोंय पवित्र आनी पुण्यवान भूंय आशिल्लें,सगळे दृश्टीन.

आज आमचे संस्कार उरूंक नात. सगळेंच फॅशनेबल जालां. आदीं साखरपुड्याक चलये हातांत साखरेचो पुडो दितालीं. मागीर बर्फीचीं ताटां आयलीं. आज चलयेच्या हातांत शॅम्पेन बाटली दिवन तिका चियर्स म्हणटना पळयता तेन्ना गुरुनाथकाकाच्या (केळेकार) उतरांची,आमचें गोंय हाता भायर गेलें, तें आमच्या हातांत उरूंक ना हाची याद जाली. तांकां मेळपाक गेल्ले कडेन एकदां तांकां विचारिल्लें, काका,आमचें गोंय पयलीं भशेन करपाक आमी किर्ते करूंक जाय..तेन्ना तांणी म्हणिल्लें,हो प्रस्न विचारपी तूं म्हाका पयलें मेळ्ळें. पूण गोंय आतां आमचे हातांत उरूंक ना. हाता भायर गेलें. वायट दिसलें आयकून.दोळयां मुखार शांत मांडवी न्हंयेत्यान मीन घेवन वचपी बार्जी दिसल्यो. इतले म्हणसर दोळे दिपावणारो झगझग दिसलो कॅसिनोचेर. ताचेर उडयो घेत भितर सरपी भायले लोक दिसले. खंय गेले काय ते आमचे आदले दीस ज्या गोंयांत आमी आमचें गोंय,आमचें गोंय आमचें गोंय भांगराळें म्हणत खोशयेन नंदताले तें...



पुणे. मोः ९५२७७४४९९०

बिम्ब मासिक

हिरकणी



भारती बांदोडकार

# बचतगट कसो आसचो...

गोंयच्या वेगवेगळ्या मळावेल्या महिलां खातीर चर्चासत्रां, मार्गदर्शन दिवन तांकां तांच्या पांयार उबीं करपा खातीर वावुरपी **भारती बांदोडकार** हांणीं फाटलीं बरींच वर्सां मडकयच्या पिसफूल सोसायटीक आपलें योगदान दिल्लें आसा. गोंयच्या तळागाळांतल्या महिलांक सगळ्या मळांचेर सक्षम करपाचे नदरेन तांचें लेखनय अदींमदीं चालू आसता.

संगठीत जावपाचो फायदो आज सगळ्या लोकांक कळून आयला. एक बडी मोडप सोंपी आसता,पूण धा बडयो एकाच वांगडा बळिश्टांतल्या बळिश्टांक लेगीत मोडप शक्य जायना. देखून बायलांनी संगठीत जावन काम करपाक शिकपाक जाय.

'फाटल्या पंदरा ते वीस वर्सांत गांवां गांवांनी,वाड्या वाड्यार बचतगट तयार जाले तरी बचतगटाचो जो उद्देश्य आशिल्लो तो साध्य जाल्लो दिसना. तर हो उद्देश्व किर्ते आशिल्लो ? तर बायलांनी बायलांचे उदरगती पासत वावरप. हातूंतल्यान-

१.बायलांमदीं एकवट वाढीक लागचो.

२.बायलांमदीं आत्मविश्वास वाढचो.

३.बायलां शिक्षीत जावंचीं.

४.बायलांमदीं विचार जागृताय जावंची.

५.बायलांचे भलायकेचे प्रस्न सुटावे जावंचे.

६.बायलो स्वावलंबी जावंच्यो.

७.बायलांची सर्वांगीण उदरगत जावंची.

८.बायलांनी संगठीत जावन काम करचें.

बायलांची ताकत वाढपा खातीर बायलांनी संगठीत जावन करपाचो एक म्हत्वाचो वावर म्हळयार बचतगट ही संकल्पना मुखार आयली. बचतगट ही एक लोकशार्येतली प्रयोगशाळा आसा म्हणूंक हरकत ना. हे प्रयोगशाळेंत बचतगटाच्या माध्यमांतल्यान गट स्वयंसिध्द कसो जातलो, तर बायलांक आर्थिक स्वालंबनाचें प्रशिक्षण दिवप. गांवांत सहज उपलब्ध जावं येता अशी साधनसामुग्री घेवन ग्रामिण गृहउद्योग सुरू करप. गटांतल्या बायलांक हें प्रशिक्षण फकत पयशे दिवन न्हय तर सामान कशें हाडप? ताचो दर कसो आसा, तें सामान कशें काडप, काडिल्लें सामान कशें बरोवन दवरप, कितल्या बायलांनी सामान तयार केलें, ताका कितलो वेळ लागलो, तयार जाल्लें सामान कशें पॅक करप, ताका दर कशी थारावप, तें करपाक कितलो खर्च आयलो, तें विकून कितलो फायदो जालो, तो गटांतल्या सगळया वांगड्यांक कसो वाटून वतलो, तसो तो वतलो जाल्यार गटांतले सगळे वांगडी सारकें काम करतात काय ना? हाचेर लक्ष दवरूंक जाय. केन्ना केन्नाय थोड्यांक वस्तू करपाचें गिन्यान नासता. तेन्ना तांकां दुसरें कसलें काम कळटा तें समजून घेवन त्या कामांत तांकां आसपावन घेवंक जाय. जाका हिशेब



बरोवंक येता तांणी हिशेब बरोवप, जांकां बरें उलोवंक येता तांणी तयार जाल्लें सामान विकप. सामान तयार करप ही जशी एक कला तशी तें विकप हीय एक कला.

आपरोजगारः- गांवांनी साब्नी, दोणे, पत्रावळी, सुपां, खोटले, फुलां, मल्लां, मलायो, गांयडोळखत, सोलां, तेफळां, आंबाडे, बिंबलां, काण्णां, करमलां हांचीं लोणचीं बी करून अशे तरेन बायलो आपरोजगार करूंक शकतात. हातूंतल्यान घरांतले दरेक बायलमनशेक काम मेळूंक शकता आनी ताचो मोबदलोय मेळूं येता. अशे तरेन बायलांनी काम केलें जाल्यार बायलो आर्थिक नदरेन स्वावलंबी जावं येतात. हाका लागून तांची ताकत वाडटा. गरज आसा ती फक्त संगठीत जावन काम करपाची. संगठीत जावपाचो फायदो आज सगळ्या लोकांक कळून आयला. एक बडी मोडप सोंपी आसता,पूण धा बड्यो एकाच वांगडा बळिश्टांतल्या बळिश्टांक लेगीत मोडप शक्य जायना. देखून बायलांनी संगठीत जावन काम करपाक शिकपाक जाय. तेन्नाच बचतगट स्वयंसिध्द जावंक पावतलो.

बचतगट हो दरेक घरांतले सभासद बायल मनशेक आपलें दुसरें घर अशें दिसूंक जाय. प्रत्येक घरांत बऱ्यो वायट गजाली ह्यो घडत आसतात. असले वेळार त्या घरांतली बायल निराश जावन वता. तिका आपले मनांतलें कोणा मुखार उकतें करूंक मेळना. अशे वेळार तिका आपलें मन मेकळें करपाक बचतगटांत सुवात मेळूंक जाय. कांय गजाली उलोवन सुटाव्यो जावं येतात. ह्या गटांतल्या सभासदांक एकमेकाचो विश्वास दिसूंक जाय. बचतगट सुवातेर जें किर्ते उलोवप जालां तें गटाच्या भायर वचपाचें ना हाची खात्री दर एकल्याक आसूंक जाय. अशें जाल्यारूच त्या



गटातली दरेक बायल मनमेकळी उलोवंक शकतली आनी अशे तरेन त्या गटाच्या सभासदांची ताकत वाडटली.

बचतगटाचो दुडवांचो वेव्हार हो खूब म्हत्वाचो आसता. तोच ह्या गटाचो कणो आसता.ते पासत हो वेव्हार जितलो पारदर्शक आसता तितलो बचतगटाच्या सभासदांचो एकवट घट उरता. ते पासत दर म्हयन्याक दरेक सभासदान गटाचे बसकेक हाजीर रावपाक जाय. दुडू कोणाय कडल्यान धाडूंक दिवपाक फावना. गट हो अध्यक्ष,खजीनदार आनी सचिवाचोच नासता तर त्या गटांतल्या प्रत्येक सभासदाचो आसता म्हणपाचें सभासदांनी विसरूंक फावना. गटाच्या दर सभासदाक कळूंक जाय, आयज कितले दुडू आयले, कितले दुडू रीण म्हूण दिले, फाटले म्हयन्याक रीण दिल्लें ताचें व्याज म्हूण कितले दुडू आयले. तशेंच त्या खिणाक बँकेंत कितली रक्कम आसा.

दर एका सभासदान तें आपल्या पुस्तकांत बरोवन दवरूंक जाय. खंयच्याच सभासदान कितले पयशे आसात, कितलें रीण दिलां, कितलें व्याज आयलां हें आपल्याक कांयच खबर ना अशें म्हणूंक फावना.

गटाच्या सभासदांनी बसकेक हाजीर रावपा पासत वेगवेगळया कार्यक्रमांचें आयोजन घडोवन हाडूंक जाय जाका लागून बसकेक सगळे सभासद हाजीर रावतले. गटांतल्या ज्या बायलांनी नदरेक भरपा सारकें कार्य केल्लें आसत जाल्यार बसकेक हाजीर आशिल्ल्या बायलांनी तांची तोखणाय करूंक जाय. तांकां इनामां भेटोवंक जाय, जाका लागून तांकां प्रोत्साहन मेळटलें. तांचो आत्मविश्वास वाडटलो. तीं आपल्याक मेळिल्लें इनाम घरा व्हरून आपल्या घोवाक, भुरग्यांक दाखयतली. तिच्या घरच्यांकूय बरें दिसतलें आनी तिका मागीर घरांतल्यान विरोध जावपाचो ना. म्हाकां दिसता गटांतल्या वांगड्यांचो धनवेव्हार जातनाच मनवेव्हारूय जावपाक जाय.

सैमा कडल्यान आमकां खूब किर्ते शिकपाक मेळटा. आमी पर्यावरण म्हळ्यार एकेक झाड म्हणून पळयतात. पर्यावरण म्हळयार एक झाडूच न्हय तर आमचे सरभोंवतणी जें किर्ते आसा तें सगळें पर्यावरण. म्होवाचें पोळें तयार करपा पासत कितलेच मूस खंय खंय वचून फुलांतलें म्होंव एकठांय करून घेवन येतात आनी तें एकठांय सांठोवन मागीर ताचें पोळें तयार करतात. ह्या पोळयांत एक राजा आनी एक राणी आसता. हेर सगळे शिपाय. बचतगट ह्या पोळया सारखो आसूंक जाय. सगळयांनी संगठीत जावन काम करपाक जाय. बचतगटांतले दर एके बायलेची ताकत वाडपाक जाय, तांचो आत्मविश्वास वाडपाक जाय. म्हणटकच तीं संगठीत जावन काम करपाक शिकतलीं. तेन्नाच ह्या बचतगटाचो उद्देश्य यशस्वी जावंक पावतलो.



मडकय-गोंय. मो. : ८८०५८२२२७६

शब्दुली



रुपाली कामत शेटये



# विचार

**रुपाली कामत शेटये**
पणजेच्या पिपल्स हायस्कुलांत ग्रंथपाल म्हूण कार्यरत आसा. तांकां बरोवपाची आवड आसा. बिम्ब मासिकांतल्यान तांचें बरप तांच्या संवेदनशील सर्जनशीलतायेची गवाय आसा.

*कांय लोकांक जर मोनजात आवडना जाल्यार तांणीं तांचेर अत्याचारुय करप न्हय आनी वात्रेकूय वचप न्हय. केन्नाय जाता अशें की कांय जाग्यांनी कुत्रीं, गायो ( चड करुन बेवारशी वा थोडीं पोशिल्लीं आसतात जांकां मालकांनी सोडिल्लीं आसतात.) सद्द करुन आंगार धांवून येतात, तेन्ना उपाय नाशिल्ल्यान तांकां आसुडचेंच पडटा.*

'आगो,कसलो विचार करता,किते इतलें खोल चिंतनांत पडलां?' हांव भायर सालांत शांत बसलां तें पळोवन म्हज्या घोवान म्हाकां विचारलें. हांव विचारांतल्यान अचकीत जागें जावन मातशी तिडकीनूच जाप दिली.''कसलो विचार म्हणजे? आमकां बायलांक किते कमी विचार आसतात? आमचे तकलेंत हजार विचार. ते तुकां कळचे नात.''

म्हजें भाशण चालू जालें. म्हाकां खंयचें हडकिलें अशें ताका जालें. ताणें,'कळ्ळें गो म्हाकां ' अशें म्हणून सुघ्दा हांव बडबडत रावलें.

''आमचे बायलांचे तकलेंत कितलेशेच विचार घुंवत आसतात. आज किते रांदप, फाल्यां किते रांदपाक येवप, कसलें नुस्तें हाडप, कसली भाजी हाडप, हाका हें आवडटा जाल्यार ताका तें आवडना, कोणाक शिवराक तर कोणाक नुस्त्याचें! भुरग्यांचो अभ्यास, तांचे ते नखरे..घरांत किते जाय नाका ताचो विचार... घरच्यांच्यो आवडी निवडी..तातूंत आनी आमची नोकरी..देवाऽ देवाऽऽ! कितलें म्हूण आमचे माथ्यार हें विचारांचें वजन? पूण इतलें सगळें आसून सुघ्दां आमचे तोंडार सदांच हांशें! कळ्ळें मरे?''

'हूं!' म्हण ताणें तकली हालयली खरी पूण कितलें आयकलें तें ताका आनी देवाक खबर!

घोवान आयकूं वा ना आयकूं, बडबडपाचें म्हजें काम!

''बरें तें सोड. किते जाय आशिल्लें तुका म्हूण तुवें हडकिलें म्हाकां?''हांवें तरी नमळायेन विचारलें.

''आगो कांयच नाका. तूं विचारांत सामकें गुल्ल जालां तें पळोवन हांवें हडकिलें तुकां. चूक जाली म्हजे सायबिणी. तुमकांच आसतात न्ही गो विचार सगळे! आमी दादले किते विचार करनात किते? आमकां टेन्शन आसना? तुमकांच दिलां सगळें टेन्शन देवान? ''

अशें किते बडबडत, फडफडत तो लागलो चलूंक. खरें म्हळ्यार हांव विचार करतालें तो 'बिम्बां'त धाडपाच्या लेखाचो. इतले विचारच जर आमचे तकलेंत घोळटात जाल्यार म्हळें 'विचार ' हाचेरूच बरोंवया..!

हो बडबडत भायर सरलो आनी हांव बरोवपाक बसलें. हांवें खंय म्हणिल्लें दादले मनशाचे तकलेर विचारांचो भार ना म्हण! तांचेर जबाबदाऱ्यो आसतातूच. घरांतल्या मनशांचो भारय तांचेर आसता, ना न्हय. पूण बाकी आमच्यो इल्ल्यो राठावळी चड अशें म्हाकां दिसता.

आतां समजा हाणें नुस्त्याची रास हाडली, नुस्तें हाडलें म्हण जालें? उजराक्चें, तांचें कसलें हुमण करपाचें, किते तळपाचें, दनपारचो वाटो, रातचो वाटो, कोणाक शेश्टी नाका शेपटे कुडके जाय, कोणाक मदलेच



कुडके आवडटात. ह्या विचारांनीच तकली भेरेता.

भाजी कसली करप हेंय मोठें टेन्शन. कोणाक मुळो नाका जाल्यार कोण तांबडी भाजी खायना. कोणांक सांसवां फोण्णांची जाय जाल्यार दुसऱ्याक कांद्याची. च्याची तीच गजाल. कोणाक फुटी, कोणाक दुदाची. `एकल्याक बीन साखरेची जाल्यार दुसऱ्याक साखर घालून. सांजो कोणाक तिखट, कोणाक गोड. एकल्याक आल्याची चटणी आवडटा, दुसऱ्याक लसणीची. कोणाक बेटी रोटी, कोणाक तूप लायिल्ली चपाती. किर्ते म्हण करप कांयच समजना. आमगेर असल्यो खोडी आसतात म्हण म्हजे तरी तकलेंत विचार घुंवत आसतात. हेरांचें हांव सांगूंक शकना.

विचार हो म्हजे खातीर गंभीर तसोच मजेशीर विशय. गंभीर विचार जो आमच्या आयुश्याचेर, आमच्या निर्णयांचेर, भुरगीं, तांचें शिक्षण, आरोग्य, तांचो फुडार, तांचीं लग्नां-कार्यां...दुसरें म्हजेशीर म्हळां, कारण ते सर्वसादारण विचार. आमकां जाय नाका त्या वस्तुंचेर विचार. एकत्र कुटुंबांत रावता तो नवो फ्लॅट घेवपाचो विचार करता. उप्रांत आयलो लोन घेवपाचो विचार. जो कोण हे आर्दी टू बीएचके फ्लॅटांत रावता तो थ्री बीएचके घेवपाचो विचार करता. कपडे घेवपाचे आसल्यार कसले हाचो विचार, भांगर, टीवी, मोबायल, घरांत लागपी हेर वस्तु घेवपाचो विचार..विचार करचो पडटा, कित्याक विंगड विंगड ब्रॅन्ड आनी तंत्रगिन्यान. देखून हो घेवं काय तो घेवं, हो सवाय काय तो सवाय, हो बरो काय तो बरो ह्या विचारांनी आमी बुडटात. ऑनलायन शॉपींग केल्यारूय कितलेच ऑप्शन, पर्थून ताचेरूय विचार करचो पडटा.

मनीस म्हळो काय विचार हो आयलोच. कसल्या ना कसल्या विचारांनी मनशाक भोंवतड घाल्ली आसता. जल्माक आयिल्लें भुरगें लेगीत विचांरांनी बुडिल्लें आसता. कसले विचार ते मात सांगूं येनात. हें म्हजे आजयेन म्हाकां केन्ना तरी सांगिल्लें तें हांवें तुमकां सांगलें.

आवय बापायक आपल्या भुरग्यांचे विचार, भुरग्यांक आपल्या अभ्यासाचो(थोडो), खेळांचो, हॉबींचो, इश्टागतीचो, स्कुलाचो विचार, तरनाट्यांक आपल्या फुडाराचो, नोकरेचो, मोगाचो, कसली फॅशन बरी आनी तंत्रगिन्यान बरें हाचो विचार...ही वळेरी खूब लांबू येता..आनी ह्या दिसांनी तर वचत थंय आमकां आयकूंक,वाचूंक मेळटा- मनशान बरे विचार करचे, बरें चिंतचें, सकारात्मक विचार दवरचे, विचार करून उलोवंचें. उतरां हें अशें हत्त्यार तोंडांतल्यान बरें भायर सरल्यार बरें, तोंडांतल्यान चुकून वायट उतर आयलें जाल्यार तें परतें गिळूंक शकनात. ते खातीर विचार करून वागचें आनी उलोवंचें.

पूण आमी कितले जाण अशे विचार करून उलयतात आनी वागतात? 'ऐकावे जनाचे आणि करावे मनाचे' अशें करपी लेगीत विचारांत बुडिल्लीं आसतात. लोकांचें आयकून ताचेर विचार करीत बसपाचें काय आपलें मन सांगता तशें वागपाचें? पर्थून घुस्पागोंदळ. मागीर घरच्यांचो आनी इश्टमित्रांचो सल्लो, 'तूं आनी चड विचार कर नाका पळोवया!'

कसल्यो कसल्यो विचारांच्यो यादी म्हजे कडेन म्हण सांगू..! फाटीं हांव आनी म्हजी इश्टीण शीला साड्यो घेवपाक पणजे एका प्रदर्शनाक गेल्लीं. चलतां चलतां वाटेर तकलेंत कितले विचार चलताले पळयात. कसल्या रंगाची साडी घेवपाची..? शिल्क घेवपाची काय कॉटन घेवपाची? हाचेर विचार करीत उलयत चलतालीं.. साडी घेतकच साडयेर मॅचींग परकर घरा आसतलो काय नवो घेवपाचो? हो विचार..एक साडी घेवपाची म्हळयार कितलेच विचार.

आतां प्रदर्शन म्हणटकच भरपूर स्टॉल्स. म्हणटकच खंयचो स्टॉल बरो हाचेर विचार. हांव मनांत विचार करतालें, हे इतले कित्याक काय स्टॉल आसतात? आमकां गोंधळांत घालपाक काय? हांवें केसरी रंगाची एक साडी घेतली. पूण शीलाचें जायच ना. दरेक साडयेंत खोडी. हांवें म्हळें,''शीला इतलो विचार किर्ते करता गो एक साडी घेवपाक? ये पळोवया एक खंयचीय बरी शी!'' जाल्यार तें तिडकलें

आनी म्हणूंक लागलें, ''ये खंयचीय एक म्हळ्यार किर्ते गो..? पिशें जालां तूं ..? सगळ्या रंगाच्यो साडयो आसात म्हजे कडेन..। तर मातसो विचार करतां मगो खंयची युनीकशी मेळटा जाल्यार..। हांगा म्हण सगळें एकेच भशेन। कांय ना बरें हांगा..।''

शीलार्चे अशेंच. ताका कितलेंय बरें दाखय,आवडच ना.

''कांय बरें ना जाल्यार या चल आमी.'' हांवें बेजारून म्हळें.

''बरें मुगो तूं..। तुवें घेतली मुगो साडी. हांवूय घेतलें एक तरी. चल त्या एकवीस नंबराच्या स्टॉलाचेर एक निळ्या कलरची बरी साडी आसा. ती घेवया.'' शीलान मातशें तिडकून शें म्हळें.

''आगो, तेन्नाच घेवपाची न्ही गो..?''म्हजीय तिडक मस्तकाक पावताली. तरी कांय म्हळें ना. कित्याक, किर्तेय म्हळें जाल्यार ताका राग येतलो हो विचार तकलेंत आयलो. स्टॉलार वचून पळय जाल्यार ती साडी कोणे तरी पसंत करून व्हेली. आतां खावा पातोळ्यो. ही नाका ती नाका असो विचार करून शेवटाक आवडिल्ली ती साडीय ना. मागीर ये शीलाची बडबड सुरू. पर्थून एक फेरो मारलो आनी घेतली एक साडी. रंग आनी कसलो..? तोच, ताचे कडेन ऑलरेडी आसा तसलोच..भडक राणी कलर..इतलो विचार करून शेवटाक किर्ते केलें काय म्हळ्यार कांयच ना..।

जिवाक आमच्या मातशें बरें दिसना जाल्यार, आपल्याक किर्ते जालां काय..? कसलें दुयेंस काय..? अश्या विचारांत पडटात. सादी व्हायरल सर्दी बी जाल्यार आमी किर्तेय घरगुती उपाय करतात. केस सामकीच हाता भायर गेली जाल्यार मागीर दोतोरागेर..आज काल सादी थंडी सुध्दा जावप म्हळ्यार भंय. दुयेंसां जाल्यांत चड. टेक्नॉलॉजी वाडत आसा तशीं दुयेंसांय वाडटात. सद्याक जीव घेणें दुयेंस म्हळ्यार चायनाचो कोरोना व्हायरस. बेश्टीच शींक सुद्दां आयल्यार तकलेंत नाका जाल्ले विचार येतात. 'ऑल इज वेल!' आनी 'देवा पाव रे!' म्हणपाचें. बाकी नशीब.

पयलीं बरीं ना जालीं की आमचे दोतोर फिक्स आसताले. आतां प्रकरण गंभीर जालां. नवीं दुयेंसां, नवी टेक्नॉलॉजी. नवे प्रॉसिजर, नवीं वखदां. खंयचे दोतोराक दाखोवं काय नाका ताचो विचार करचो पडटा. क्लिनीकांत वा हॉस्पिटलांत भितर सरतनाच पाटयो मारिल्ल्यो आसतात. दर एका दुयेंसाक वेगळो स्पेशलीस्ट दोतोर. त्यो पाटयो पळोवन म्हाकाय किर्ते जालां आसतलें काय? असो वायट विचार येता. आंगांत खंयीय करस जालें वा दुखलें जाल्यार आपल्याक अमर्केच जावंक ना मू ? असोय विचार येता. मागीर म्हजे सारके पिसांट गुगल सर्च मारता आनी ताचो सर्च रिजल्ट वाचून तकलेंत नाका जाल्ले विचार हाडून आबूज जाता.

एक दीस अशेंच म्हाकां म्हजें प्रेसांव वाडलें शें दिसलें. गुगल सर्च केलें जाल्यार किर्ते..? आवयस्स..! हार्ट ॲटकाचीं लक्षणां. हांवें लागच्याच हॉस्पिटलांत धांव मारली. प्रेसांव चेक केलें जाल्यार किर्ते..? नॉर्मल आशिल्लें. देव पावलो म्हणत थंयच्यान फुज्ज्यो काडल्यो. अशे हे विचार नाका तेन्ना बेश्टेच तकलेंत येत रावतात न्हय..! आसूं, ताका उपाय ना. तरी आपणें जाता तितलें सकारात्मक चिंतचें. पूण म्हजें वेगळेंच. कसलेंय गजालीचो खोलायेन विचार करप. मागीर आबूज शें जावप. इमोशनल जावप. मागीर दोन दिसांनी झक मार म्हणत सोडून दिवप. चड दीस घेवन बसप ना.

खरेदीक गेल्यार म्हज्या घोवाचो सदचोच थोमणो म्हाकां आसता. 'विचार करूंक चड वेळ काड नाकां हां, सडसडीत किर्ते तें सामान घे.' हांव भोव आयकतां असलें. एका कानान आयकप आनी दुसरे कानान सोडप हो मंत्र हांव सदांच वापरतां. सामको शीला काडटा तितलो वेळ काडना पूण मातसो विचार करचोच पडटा न्हय सामान घेतना! आवदना घासपाचो शाबू धरून कसलो शाम्पू म्हजे कालेतीक उपकारता ताचो विचार करून घेतां. बाकींच्यो घराक लागपी वस्तू ,खंय घेवप? खंय चड सवलत मेळटा? ऑफरी आसात? हाचेर विचार करूंकच जाय न्हय..? ना तर हो आमचो जंय वता थंय वेळ काडना, दिश्टी पडलें, उखललें आनी घेवन आयलो. मागीर बोवाळ मारप..!

जण एके गजालीक विचार हो लागताच. विचार करनासतना जाता इश्टागत आनी मोग. पूण हालींचें वेगळें हां. आतां इश्टागत आनी मोगूय विचार करूनच करतात. आवयची पिळगी ही बाबा..विचारांची सुरवात कशी आनी केन्नाच्यान जाता हें कोंबडी पयलीं काय तांतें पयलीं असली गजाल..!

पूण सदांच विचार केल्ले प्रमाण सगळें घडटाच अशें ना. इश्टागतींत इश्टां मदीं झगडीं जालीं जाल्यार कोण पयलीं उलयतलो हाचो विचार दोनूय इश्ट करतात. मागीर कोण तरी फुडाकार घेताच. घोव बायले मदीं झगडीं जालीं जाल्यार घोवच येता उलोवपाक. पूण ते आपल्या पोट-पाणयाचो विचार करून येतात बाबडे. थोडे हट्टी, 'बरें जालें दोन दीस भायर जेवपाचें' असो विचार करतात.

तसलीच बायल आसल्यार तीय विचार करता, 'खावंदी भायर. कितले दीस खाता तें पळोवया! येतलो जाग्यार.' पूण हेंय तितले पुरतेंच हां..त्योय विचार करतात, भायर खालें वचून रागान आनी किर्तेय माल पडलें जाल्यार शेवटीं आपल्याकूच न्हय तें..! देखून चड्डय ताणून धरप ना असोय विचार करपाचें भान आसताच. देखून संवसार चलता. सगळो संवसारूच म्हळ्यार एक विचारांचो खेळ..!!



सांतइनेज, पणजी-गोंय.
मो: ९८५०४६७४७७




## खबरांपत्र

सकाळीं बेगीन उठून
खबरांपत्रांचो
कोनशान कोनसो चाळप
ही म्हजी हालींसराची
संवयच न्हय तर वेसन जालां

इराकाचेर बाँब यालो
शेकड्यांनी निरपराध्यांची हत्त्या
ट्रकापोंदा कितलेच लोकांक चिड्डिले
काश्मिरांत धा लोकांचो
आतंकवादी आनी सैनिकां मदल्या
फारपेटांत जीव गेले
न्हंयेंत बस उमथून
पन्नास यात्रिकांक मरण आयलें
एकमेकांचेर मोटरसायकल मोखून
चार तरनाट्यांक आत्ताक मरण

खबरांपत्राचें निमणें पान वाचून
जेन्ना हांव पेपर दवरतां
तेन्ना आंकडो हजार बाराश्यांचेर पावता

बलात्कार,लूट आनी खून
हांची गजाल तर वेगळीच
ह्यो तर सदच्योच गजाली,नविदाद नाशिल्ल्यो

हांव निश्चिंत जावन
च्या चें कप ओठांक लावतां
कित्याक
आजूय बी म्हाकां म्हजें नांव
त्या हजारबाराशीं मद्यांमदीं
खंयच नदरेक झळकूंक ना...



दिलीप बोरकार
मो.:



## फकत एकदांच

सदांच हांव तुका
फुलां यालतालों
न चुकतां...
पूण आयज मात
तूं म्हाकां फुलां याल
फकत एकदांच...

हांव तुगेरूच येवपाक भायर सरलां...



- आर. रामनाथ
कुर्टी,फोंडें-गोंय.
मो. : 9850458763

## रडली मनां

एक सपन हांवें पळयल्लें
एक सपन तुवें
एक कवन तुवें रचिल्लें
एक कवन हांवें
कवनांत खंय शेणली सपनां?
सोदतां हेंवटेन तेवटेन.... //धृ//

वाजिल्लीं पांयजणां
तेन्ना ह्या मनांत
चोरपावलांनी नाचून गेल्ले
मोरूय आंगणांत,
मोरूय रुसले पांयजणांय तुटलीं
पातळली शांतताय चोंयवटेन.. //१//

वाजिल्ली विणा
तेन्ना ह्या मनांत
सप्तसुरांनी भिजिल्लें
गितूय त्या खिणांक
खंय लिपलीं तीं मधुर व्यंजनां?
रडलीं मनां हुमशेन हुमशेन.. //२//

-कृष्णा सिंगनापुरकार
मडगांव - गोंय
मो.: ८३८००६८५५६





## यादी

काळाच्या पड्ड्या आड वचूंक ना त्यो यादी
काळजाक दसोवन दवरल्यात त्यो यादी

विसरूंक मेळना तुजे घराचे वाटेक
चोंब्या चोंब्यांनी कडेक किल्लल्या त्यो यादी

लोक जियेतात फाटल्या काळाचे स्मृतींत
निर्वाणाच्या रंगान परत रंगोवन त्यो यादी

वाटेवयलो गोयणो आतां बंदूच आसता
घरा यो म्हूण आतां आपयना त्यो यादी

शिकलीं एकेच शाळेंत एकेच पाटयेर बरोवन
सांबाळून दवरल्यात अजून त्यो यादी



- सुनील हरी पालकार
व्हडलें भाट,कालापूर
९९२१७९६८६५

## झाडपणां आड मनीसपण

एका रुखाचीं दुखरीं मुळां
खोल गेलीं भुंयेतळा
विंगड विंगड जायत्या थळांत
देखलीं तार्णे जायतीं कुळां

चंवरलेलो वासाळ रूख
आसलें ताका एक दूक
सवण्यां पिलांक आंगार खेळोवंक
नंदचें ताच्या पांयार सूख

मनीसकुळयेचो मोग माया
भरिल्ली ताच्या शिरंतरां
खांदये खांदये वयल्यान झड्यतालो
सदां सकयल फळां फुलां

आपसुवार्थी मनीस मात
फळां फुलां पुंजायतालो
बारीकसाणेन रुखाक तेळीत
माण्णी मनांत रचयतालो

रुखांतलें 'झाडपण'
ज्युरत जागें जातालें
मनशा मनांतले वाचच विचार
खिणां भितर वळखतालें

बाबचो जावन रुख
देवा धनयाक हेरायतालो
हात फाफडून देव लेगीत
रुद्र ताळ्यांत उलयतालो

रुखावळींतल्या रुखा पुता
झाडपण तुमी तिगयलें
भोव उमेदीन मिरयलें
मनीसकुळयेतल्या मनशान मात

मनीसपण सोंपयलें
इल्लें इल्लें करीत करीत
सामकें मातयेक मेळयलें
मनीसपण सोंपयलें..



- महेश गांवकार
नंद्रण,मोर्ले -गोंय
९७६३७७३१५७

## काव्यचंवर



### तुर्जे उतर..

वेर्गेत येवपार्चे
आयकोन तुर्जे
उतर
हांव शारुखा भशेन,
हात पसरून
रावलों कितले
दीस उबोच,
शेताचे मेरेर
भुजगावण्या भशेन..

सपनांत येवपार्चे
आयकोन तुर्जे
उतर
हांव जॉनी लिवरा
भशेन
सुट, बूट, टाय,
गॉगल लावन
न्हिंदलों कितले
दिसूच रामायणांतल्या
कुंभकर्णा भशेन.

वडाकडे मेळपार्चे
आयकोन तुर्जे
उतर
हांव राजकपुरा
भशेन जापानी जोतें
आनी माथ्यार रुबी
चेंपे घालून कितले
दिसूच वाट
पळयत रावलों
सर्कशींतल्या
जोकरा भशेन..

आतां मात म्हाकां
तुज्या उतरार
विश्वास उरूंक ना
तुर्जी उतरां
इलेसांवां वेळार उमेदवारान
दिल्ल्या आश्वासना भशेन
हांवूय जालों शाणों
आतां उदक
आनी दूद वेगळें
करपी
राजहंसा भशेन...

मारुती धर्मा नायक,
बोरी-गोंय

### शून्य

जिणेच्या
दर्या वयलीं
यादीचीं ल्हारां
केन्ना म्हजे कुडींत
पेट घेतात
तें म्हाकांच खबर ना
कूड शांत
विघ्न अशांत
ताका कोण
कांयच करूंक शकना
आतंकवादी विशाळ
तांची शक्त्य विशाळ
आमी
रातचे सुस्त
जग जागृत
ताचे मुखार आमी
सगळे किर्तें शून्य



अशोक शीलकार
शीला,सावयवेरें -गोंय

### जिवन यात्रा

जिवन ही एक यात्रा
खंय आरंभ खंय सोंपता
खबर कोणाक नासता
तरी जाय आसता

जिवनाची वाट आसतना चलत
आडवीं तिडवीं वळणां सोंशीत
वयर सकयल रस्तो खडबडीत
कांट्या कुट्यांचो वाटेर सांगात

केन्ना केन्नाय ठेव लागता
पडटां उठतां तरीय चलतां
थोडो थकतां थंयच बसतां
थोडें थोडें चलत रावतां

वाटेर नशिबाचो सांगात आसता
थोड्यांचें किर्तेय केल्यार सादता
थोड्यांचे कितलेय कश्ट फसता
तरी शेवट मेरेन चलत रावता

जार्चे साधलें तो सिकंदर
आड्मार्गान साधयलें तो बिलंदर
जार्चे साधलें ना तो कलंदर
जिवन यात्रेचो होच`क सार



डॉ.उल्हास गो.प्रभू नास्नोळकार
ताळगांव -गोंय

कथा



रूपा केणी



# पार्टी

रूपा केणीं हें मराठी कथा आनी ललित साहित्य संवसारांतलें एक वळखीचें नांव. स्कुलांत विद्यादान करून ताणें आतां स्वेच्छा निवृत्ती घेतल्या. कोंकणी साहित्याच्या मळार ताणें हालींच पावल घालां तेंय आपल्यो कुरवो दवरूंक लागलां. ताची आपलीशी एक खाशेली शैली वाचप्याक जाणवले बगर रावना.

त्या बराबर देमून उठून आवयचें पान वाडलें. आनी तिका पिवपाक उदक दिलें. ते दिसा राती कडेन माराचे दुखीन मोगरूक बरोच जोर आयलो. तें जोरान सामकें फडफडटालें. दुसरे दिसाय जोर देवलो ना म्हणून देमूक शाळेक दांडी मारची पडली.

रिंकाम्या पोटार देमू पेल्यांतलें उदक कटकटीत पिलो आनी ताणें आपलें पोट भरलें. शाळेचो गणभेस आंगार चडयलो, बोटवो गळ्यांत हुमकळायलो आनी जोर्ते घालून तो शाळेक वचपाक भायर सरलो. शाळेंत बरोब्बर एक जावन धा मिण्टांनी प्रार्थना सुरू जाताली. ताचे पयली देमूक शाळेंत पावपाक जाय आसलें म्हणून तो सटासट पावलां उखलतालो. सकाळच्या मायत्याची भुरगीं एकाक सुट्टाली. तीं वाटेर जळामळा दिश्टी पडटालीं. आयज ताका कळाव जातलो सो दिसतालो. ताका लागून आपलेच तनरेंत कसो तो वाट मार्ह्वितालो. पूण, 'रामविलास' हॉटेला कडेन पावतकीच सुंगटां तोंणाकाच्या घमघमीत वासान तो अचकीत भानार आयलो. तो घमघम ताणें आपल्या नाकांतल्यान भितर ओडून घेतलो. ताच्या तोंडांत सळळ करून उदक आयलें. तें ताणें आवंडो घोटून गिळून उडयलें. इतल्यांत शाळेचे घांटीचो नाद ताच्या कानांत घुमलो आनी ताणें शाळे वटेन धांव मारली. सुंगटां तोडाकाच्या घमघमान आयज देमूचें चित्त थाऱ्यार नासलें.

देमू सदांच सकाळच्या पारार भाटकाम्नी खातीर दूद हाडपाक वतालो तेन्ना 'रामविलास' हॉटेलांतल्यान हुनहुनीत पातळ भाजयेचो आनी रुचीक सामोशांचो वास सगळ्या वाठाराक पातळिल्लो आसतालो, जाल्यार केन्ना केन्ना हुनहुनीत बटाटवड्यांचो. सांजेवेळां शाळा सुटून घरा येतना कांदा भज्यांचो वास तर दनपरां सुंगटां तोडाकाचो. त्या वासान देमूली जीब चाळवल्लेवरी जाताली.

बटाटवडे, सामोशे, भर्जी बी असलीं चटकमटक खाणां बाबड्या देमूक स साठी बारामाशीच खावपाक मेळटालीं तीं जात्रे वेळार बी. केन्ना केन्ना ताची आई मोगरू भाटकाम्नीगेरच्यान आपूण खायनासतना ताचे खातीर हाडटाली. तो बटाटवडो ना जाल्यार सामोसो देमू इल्ले इल्ले कुड्के काडून सामके तोंडान घोळयत घोळयत ताची रूच सामकी तोंडांत मुरयत, पावोवन पावोवन खातालो. एक किसकूट लेगीत सकयल वा आंगार पडल्यार तें लेगीत उखलून खातालो. बशीभर कांदा भर्जी आनी कुरकुरीत उड्या वांगडा सुंगटां तोडाक खावपाचें ताचें सपन आशिल्लें. तें केन्ना पुराव जातलें हें मात देमूक खबर नासलें.

देमूल्या घरांत ताका आनी ताचे आवयक, मोगरूक दोन वेळचें जेवण लेगीत मेळपाक कुस्तार आसलें. ताचो बापूय रामगो सामको बेबदड आसलो. तो जें किर्दें जोडटालो तें सगळें किस्तोदीले गादयेर वगडायतालो आनी मागीर मोगरूक धरून बडय बडय बड्यतालो ताचे कडल्यान आशिल्लें नाशिल्लें

पयशे बुडून व्हरतालो आनी सोऱ्यांत वगडायतालो. तें बाबडे बाराय नाखटां झरयतालें आनी संवसाराक धिगी लावपाचो यत्न करतालें. कोणालीं आयदनां घांस, कोणालीं ओलीं उमळ आनी जमीन पूस अशें करून पयशे जोडटालें. काशी भाटकान्नीगेर तर तें सगळे तरेचो यश्टो करतालें.

देमू हो तांगेलो जगून वाचून उरिल्लो एकलो एक्सुरो पूत ताचो जीव की प्राण आशिल्लो. कोणेंय किर्तेंय खावपाक वा गोड्शें दिल्यार आपल्या पदरा पोदा धापून जतनायेन तें घरा हाडून देमूक दितालें. पूण देमूक गोड्शींबी आवडनासलीं. ताका मसालेदार चटक मटक टायप खाणां घोस्ताक वतालीं. त्या खातीर मागीर तो आपल्या आजोळच्या देवतेच्या जात्रेची दोळ्यांत प्राण हाडून वाट पळयतालो. मामाल्या भुरग्यां वांगडा ताकाय बी भर्जी, बटाटवडे, सामोसा तोवूय बी चटणे वांगडा खावपाक मेळटालो. पूण तितल्यान देमूक धादोसकाय मेळऽ नासली. एक प्लेट भर्जी ताका मामाल्या दोगां भुरग्या वांगडा वाटून खावची पडटाली. पूण करतलो किर्दे? काशी भाटकान्नीलो पूत सुटयेंत घरा आयलो की ती एक दीस बटाटवड्यांचो आक्त घेवन बसताली आनी मोगरूक आदाराक आपयताली. शेवटाक मोगरूच्या हातार मेजून दोन बटाटवडे उडयताली. तांतूतलो एक तें देमूक दिताले आनी दुसरो रामग्याक दवरतालें. पूण, निमाणें रावं नज जावन देमूच तो 'हाप्प' करतालो. तर अशे परिस्थितींत रामविलासांतल्यान येवपी तरेकवार तरांचे घमघमीत मसालेदार वास देमूक सामकें पिशांतूर करून सोडटाले. सुंगटांचें तोंडाक तर ताणें एकदांच दोन वर्सां आदीं मामा वांगडा चाखून पळयिल्लें. आजून लेगीत तें ताचे जिब्बेर उरिल्लें.

आयज तर तो फकत एक पेलो उदक गटगटीत पिवन शाळेंत आयिल्लो. पोटाक तर सामको उजो पेटील्लो. राती कडेन रामग्यान मोगरूक मरऽसर मारिल्लें. ताचे कडेन वीख खावपाक लेगीत पयसो नाशिल्लो जाल्यार योवाक आनी किर्दे दितलें! हरशीं रामगो ताका बड्यतालो तेन्ना तें पयशे ना म्हण्टालें. मागीर आनी मार सोसूं नज जावन रामग्याक गाळी सवत किरवटीचे पयशे काडून दितालें. आयजूय ताणें पयशे ना म्हण्टकच ताका दिसलें सदचे भशेन ना म्हण्टा. तो मोगरूक बड्यत सुटलो. शेवटाक देमून बोब मारून शेजाऱ्यांक आपयली. सगळ्यांनी मेळून रामग्याक धांवडांवन घालो.

येतीश्ट मार खावन मोगरूच्यान उठूंक लेगीत जाय नासलें. आंगार काळे निळे वळ उदेल्ले. घरची रांदन थंड पडिल्ली. शिताचो गोटो लेगीत देमूल्या पोटांत नासलो. तांतूत हो घमघम. तार्चे बाबड्याचें चित्त तरी कशें थाऱ्यार उरतलें? इतलो वेळ कांव-कांव करपी ताच्या पोटांतले कावळे आतां धुमशेणां कांडपाक लागिल्ले. आयज वर्गांत नमिता टिचरील्या एक्काय प्रश्नाची जाप देमूक दिवपाक आयली ना. 'आरे दामोदर, आयज तुजें लक्ष खंय आसा रे?' टीचरीन विचारिल्लें. ती बेजार जाल्ली. मागीर, शेट्टी सराल्या पांचां पयकीं पांचूय गणितां ताणें चुकयिल्लीं. सगळ्यांत पयलीं गणितां सोडोवपी भुरग्यान हें अशें करप? तो सामको देमूचेर तापलो. तिसऱ्या पिरेडाक आयली आंतोनेत टिचर. ती भितर सरली तेन्ना देमू सामको भुकेन आकूळ पिकूळ जाल्लो. ती किर्दे शिकयता ते ताच्या माथ्या वयल्यान वतालें. इतल्यांत तिणें किर्दे तरी देमूक विचारलें. तो वग्गी तें पळोवन ताचे कुशीक बसपी अमरान ताका कोपरान बऱ्याच फोर्सान धोंगशिलो. त्या बराबर देमून आवऽऽय आवऽऽय केलें. 'सामको भोटो मरे तू.' आंतोनेत टिचरीन म्हणलें. सगळीं भुरगीं खोऽऽ खो करून हांसलीं. देमूक सामकी लज जाली. ताचे दोळे दुकांनी भरले. इतल्यांत मदले सुटयेची घांट जाली. भुरुभुरू करून भुरगीं वर्गांतल्यान भायर सरलीं. देमूची कूड सामकी गळीत जाल्ली. ताणें दोनूय हातांची घडी केली आनी आपल्या पोटार घट्ट दामून धरली. डेस्कार तकली तेकयली आनी तो दोळे धापून वग्गी बसून रावलो. खेळामळा वेल्यान भुरग्यांचो बोवाळ देमूच्या कानार आदळटालो. कोण खोशयेन हांसताले, कोण किंळचताले, कोण मोठ्यान उलयताले, उलो मारताले. पूण देमूक जाणविकाय जाताली ती फकत पोटाचे भुकेची. भयंकर भुकेची. केन्ना काय एकदा शाळा सुट्टा अशें ताका जाल्लें.

परत घांट वाजली. भुरगी भितर आयलीं. उरिल्ल्यो तासिका सोंपल्यो आनी एकदाची दीर्घ घांट जाली. भुरगीं परतीचे वाटेक लागलीं. देमू कशे तरी पांय ओडीत घरचे वाटेक लागलो. हुनहुनीत कांद्या भज्यांच्या वासान तो रामविलासा कडेन पावला म्हणपाचें सांगलें. इतल्यांत ताका सातवेच्या वर्गांतले खुट्ये वाड्यार रावपी संतोष, होनू आनी प्रकाश हॉटेलाचीं सोपणां चडपाक वळटात तें दिश्टी पडलें आनी त्याच वगताक त्या तिगायनी देमूक पळयलो. ते तिगूय जाण देमू म्हयऱ्यांत आयले.

'देमल्या आयज तुजें किर्तें जालां रे? तुजें तोंड सामकें बाविल्ले वरी जालां मरे? दुयेंत बी काय किर्दे रे तूं?' अशें संतोषान विचारल्या बराबर देमू रडकुरो जालो. पूण ताणें आपले ओठ घट्ट आवळून धरले आनी रडें परतीलें. त्या बराबर होनून म्हळे, 'आरे, आमी आतां हॉटेलांत सुंगटां तोंडाक आनी भर्जी खावपाक वतात. तूं येता?'

देमूच्या पोटांत कावळे धुमशेणां घालताले आनी जीब मुतताली. पूण, ताणे म्हळें, 'ना रे म्हजे कडेन पयशे ना दिवपाक.'

'आरेऽऽ आमचे कडेन तरी खंय आसात?' होनू आनी प्रकाशान म्हळें.

'आयज पयशे संतोष दितलो. आयज ताची टर्न पयशे दिवपाची.'

'म्हणजे? म्हाकां कांयच कळ्ळें ना.' देमून म्हळें.

'आमी मरे टर्न येतात बील फारीक

करपाची. एकदां हांव दितां, दुसरे खेपेक संतोष, तिसरे फावट प्रकाश अशें.'

'हय रे. पूण केन्नाय तरी म्हाकां दिवंचें पडलेच न्हय पयशे. म्हजे कडेन केन्नाच पयशे आसनात. तुमकां खबर आसाच.' देमू.

'तूं चड चिंतनाका पळोवया, आयच्यान तूं आमचे गँगीचो चवथो मेंबर.' संतोषान म्हळें.

'हांव ना, हांव ना आंऽऽ', अशें देमू म्हण्टा थंय आसा होनून ताच्या खांदार हात घालो.

'आरे, काल तुमच्या घरांत व्हडले झगडें जालें खंय मरे, रामग्यान तुजे आईक बरीच बड्यली आनी तूं उपाशी आसा मरे! चल पयलीं भितर मुकाल्यान.'

देमू थंयच खूंट कसो जावन आशिल्लो. पोटांतली भूक म्हण्टाली, 'वच भितर आनी खा.' पूण बुद्धी म्हण्टाली, 'पयशे केन्ना तरी दिवपाक जाय. खंयच्यान हाडटलो? वच नाका.'

'देमल्या चड चितनाका, सर पळोवया भितर', अशें म्हणून होनून ताका हॉटेलांत भितर धुकललो आनी धुकलतनाच फाटल्यान त्या तिगांय भितर दोळ्यांनीच शिनालां जाल्लीं तीं बाबड्या देमूक कळ्ळींच ना. तरीय देमू फाटी फुडें जातालो. पूण तोंडाकाचो आनी भज्यांचो घमघम नाकांत वचना फुडें ताची चितनां खंयचे खंय नाच्च जालीं. भूलमंत्र मारिल्लेवरी तो केन्ना वचून कदेलार बसलो तें ताकाच कळ्ळें ना.

भितर संतोषान नेटान ऑर्डर सोडली, चार प्लेट सुंगटां तोंडाक, चार प्लेट कान्या भजी आनी चार 'पेशल च्या'. देमू सामको भुल्लूसलो. ताचें सपन आयज प्रत्यक्षांत येतालें. वेटरान सगळे जिन्नस हाडून मेजार दवरले. चौगूय जाण खाणाचेर तुटून पडले. मागीर स्पेशल च्या पिवन सामके तृप्त जावन आपापल्या घराचे दिकेन गेले.

घराच्या दारांत पावतकच देमू झप्प करून सिंतीदार आयलो. उपाशी पोटार आनी आंगार काळे निळे माराचे वळ घेवन न्हिदिल्ले आवयचो ताका उगडास जालो आनी स्पेशल च्याची गोडूस रूच ताचे जिबे वयल्यान नाच्च जावन थंय खर वास्तवाची कोडसाण चडली. ताचें अंतर्मन ताका खावपाक लागलें. मान सकला घालून तो भितर सरलो. मोगरू एका कोनशाक शेंदरेर कोंगटी करून पडिल्लें. ताणें देमू कडेन पळयलें. 'उपाशी पोटार शाळेंत वच्चें पडलें मरे पुता? हें तें पळय शिरीमतीन थोडें शीत-हुमण हाडून दिलां तें खा, पयलीं हातपांय धुवन ये.'

आयकून देमूक घसघशांनी रडूंक येवंक लागलें. घुस्मटून, घुस्मटून तो रडपाक लागलो. थोड्या वेळान रडत, रडत ताणें आवयक म्हळें, 'आई म्हाकां लागून तुवूय बी उपाशी रावली मगे! पूण हांव मात होनू बराबर हॉटेलांत खावन आयलों. म्हाकां खुब्ब भूक लागिल्ली गे.'

भुरगो रडटा तें पळोवन मोगरू जाता नजो करून कशें तरी वण्टीक वणखून बसलें. त्या बराबर रडत, रडत देमू आवयसरी गेलो. ताच्या माथ्या वयल्यान, फाटी वयल्यान मायेन हात फिरयत मोगरून म्हळें, 'आरे पिशा, किरकुटा येवे गजालीक लागून इतलें रडप? वेल्यान बरेंच जालें, म्हाकां भिरांत आशिल्ली वोता कडार भुकेन बीन तू घुंवळ येवन पडत म्हण. म्हजो जीव सामको वयर-सकयल जातालो. उठ आतां, म्हज्यान सामकें जायना रे.'

त्या बराबर देमून उठून आवयचें पान वाडलें. आनी तिका पिवपाक उदक दिलें. ते दिसा राती कडेन माराचे दुखीन मोगरूक बरोच जोर आयलो. तें जोरान सामकें फडफडटालें. दुसरे दिसाय जोर देवलो ना म्हणून देमूक शाळेक दांडी मारची पडली. तो हुशार आशिल्ल्यान चुकिल्लो अभ्यास रोखडोच भरून काडटालो. आयजूय ताणे आवयच्या म्हऱ्यांत बसून चुकिल्लीं पांचूय गणितां परत सोडयलीं, प्रस्नांच्यो जापो सोदून काडल्यो. आयज चुकिल्लो अभ्यास कामत सरालें चली जाईक विचारपाचें ताणे थारायलें. दुसरे दिसा मोगरूलो जोर देवलो आनी देमू शाळेक वचपाक मेकळो जालो. वार्षिक परीक्षा लागीं पाविल्ल्यान शाळेंत सगळे भुरगे नेटान कामाक लागिल्ले. हे मजगती एक दीस होनू आनी ताचे इश्ट देमूक परत हॉटेलार आपोवपाक आयिल्ले. पूण देमून तांकां सोमर्तेच सांगलें, 'म्हजे कडेन दिवपाक एक पै लेगीत ना. म्हजी परिस्थिती किदें ती तुमकां खबर आसाच. ते दीस हांव सामको उपाशी आशिल्लों आनी तुमी म्हाकां भितर धुकल्लो म्हणून हांवें खालें. पूण हाचे फुडें हांव येवंक शकना तुमचे बराबर.'

'हे पळय, आमी खंय मागल्या रे तुजे कडेन पयशे? आज प्रकाश दितलो मरे. मागीर हांव दितलों. फुडलें फुडें. इतलें टेन्शन कित्याक रे देमल्या? तूं, तूं चल पळोवया.' होनू.

'आरे, पूण केन्नाय तरी दिवचें पडटले मरे. हांव कितले दीस म्हणून तुमचें फुकट खावं.' देमू.

'मागीर आमी किदें तरी वाट काडूया. तू बेश्टोच वेळ पिड्डयार करूं नाका. सगळेच भुकेल्या.' प्रकाशान म्हळें.

उलयत, उलयत ते हॉटेला कडेन पावले. नाकांत घमघम गेल्या बराबर कोर्दीचे बावले वरी देमू हॉटेलांत केन्ना भितर सरलो आनी केन्ना ताणें कदेलीर बसकण मीरली तें देमूक लेगीत कळ्ळें ना.

आयज चौगायनी सामोशे, चटणी, तोंडाक आनी कुरकुरीत उंडे खाले. वयर स्पेशल च्या पिले आनी घरा गेले. देमू पोटभर खावन उडक्यो मारीत घरा आयलो. राती कडेन मोगरून पेज केल्ली, भाटकान्नीन तळील्ले नुस्त्या कुडके आनी थोडी भाजी दिल्ली. ती हुन करून ताणें देमूक उलो मारलो. देमू हॉटेलांतल्यान पोट्टभर खावन आयिल्ल्यान ताका भूक नासली.

'आई, म्हाकां भूक ना. होनून म्हाकां बळयां हॉटेलांत व्हरून खावपाक दिलें', अशें म्हणून ताणें हांतुणार घालून घेतलें आनी माथ्या वयल्यान पांगरूण ओडलें. ताका

भितरल्यान खंय तरी आपलें चुकलें अशें दिशिल्ल्यान तो खंती जाल्लो.

वार्षिक परीक्षा आतां सामकी लागी येवन तेंकिल्ली. शाळेंत तोंडी परीक्षा सुरू जाल्ली. खेळामळार साडे स जालीं तरी जितो मूस लेगीत दिश्टी पड्ऽ नासलो. पळेतां, पळेतां परिक्षेचो दीस आयलो. एक दीस गणिताचो पेपर दिवन खुशालभरीत जावन देमू वर्गातल्यान भायर आयलो. ताणें सगळो पेपर बरे भशेन सोडयिल्लो. आतां दोनूच विषय उरिल्ले.

इतल्यांत होनून ताका हड्कीलो, 'देमू, पेपर फोडलो मरे मॅटसाचो?'

'हय, सामको सोपो आशिल्लो.' देमू.

'आरे, मागीर पार्टी दी मरे आमकां. फुल्ल मार्कस् मरे तुका. आमी तिगूय उसळटले रे ह्यावूय वर्सा.' होनू.

पार्टी म्हणल्या बराबर देमूल्या पोटांत गुळो आयलो. 'म्हाजे कडेन पयशे ना. हांवें तुमकां पयलींच सांगिल्लें मरे.'

'हय रे, हांव खंय ना म्हण्टां. पूण, किर्दे जाणां मरे, आमकां तिगांकूय आकांताची भूक लागल्या, आनी आमची बॉल्सां रितीं जाल्यां. हीं पळय', अशें होनून म्हणल्या बरोबर होनू सकट तिगांनीय आपलीं दोनाय वर्शींचीं बॉल्सां भायर काडून दाखयलीं.

'म्हजीय बॉल्सां सदांच रितीं आसतात. आई म्हाकां केन्नाच पयशे दिना.' देमू.

'हँ! माग रे तिचे कडेन. दितली ती. तू केन्नाच मागना दिसता!' संतोष.

'तिचे कडेनूय ना. काल आमी सगळें सामान उदार हाडलां. ते पयशे ती भायल्या भायर फारीक करता, ना जाल्यार दादो तिका मारून सगळे पयशे व्हरता. तुमीच सांगात हांव खंयसून हाडूं ते.' देमून म्हळें.

'पळय देमू, तू आमचे वांगडा दोनदा आयला. सारकें मरे? म्हणजे दोन पार्ट्यो तुजेर आसात, हें विसरूं नाका. सांग केन्ना दिता आमकां पार्टी?' प्रकाशान विचारलें.



'हांव कांयच सांगपाक शकना. खंयच्यान हाडूं हांव पयशे?' देमून म्हळें.

'हें पळऽऽय', होनू ताच्या तोंडा सामकार आपलें बोट नाचयत म्हणपाक लागलो. ताचो आवाज आतां सामको कडक जाल्लो. 'तूं खंयचानूय पयशे हाड. तूं खंयच्यान पयशे हाडटा ताचे कडेन आमकां कांयच देणेंघेणें ना. आमकां दोनदां हॉटेलांत व्हरून खावपाक घाल. कोंताक कोंत जालें.'

'खरेंच म्हजे कडेन पयशे ना. आई मागल्यार लेगीत म्हाकां पयशे दिवची ना. दादो तिका बडोवन कशे पयशे व्हरता तें सगळ्यांक खबर आसा. आमी कशे दीस सारतात तें आमी जाणां. हांव आपूण जावन तुमच्या बराबर आयलां तर? तुमीच म्हाकां बळयां यो रेऽऽ करून व्हेला. फुडले फुडें, चड चिंतनाका अशें तुमीच म्हण्टाले न्ही रे?'

'तुजीं नाटकां आतां चड जालीं आं देमू. निमणें सांगतां हांव, जर तुवें आमकां पार्टी दिली ना जाल्यार सगळ्यां भुरग्यां मुखार हांव तुजें कालसांव देंवयतलों.' होनून म्हळें. संतोष आनी प्रकाश खीं: खीं: करून हांसले आनी वाटेक लागले. हें आयकून देमू सामको भियेलो. ताचो ताळो सुकलो, हातपांय थंड पडले. तकली सामकी भेरेल्ले वरी जाली.

होनू किर्तेय करपाक फाटीं फुडें पळय नासलो. एकदां आंतोनेत टिचरीचे कदेलीचेर ताणें खाजकुली घाल्ली. नमिता टिचरीचे मेजा खणांत बेबो दवरिल्लो. येदीं कारस्थानां करपी भुरग्याक सगळ्यां मुखार म्हजें कालसांव देवोवपाक कांय न्ही. ताचो धाक भुरग्यांक इतलो आसलो कीं कोणूच तोंड उगड नासलो आनी होनू केन्नाच सांपड नासलो. सगळें जाणां जावन हांव कसो ताचे जाळांत पुरसलों? देमून किंवाट्यान आपलेच पोले थापटायले आनी तोवूय घरची वाट चलपाक लागलो. पूण घरा कडेन ताका कसोच सुशेग मेळळो ना. होनूचीं उतरां ताचे तकलेंत घुंव घुंव घुंवतालीं. ताका घुरमटील्ले वरी जातालें.

राती कडेन आईन वाडील्लें जेवण तो निरस्तेच चिड्डीत बशिल्लो, वान्सा नाशिल्लेवरी. एकूच प्रस्न परतो परतो ताचे तकलेंत घुंवतालो, पयशे खंयच्यान हाडप? रातची ताका न्हीद पडली ना. बेश्टोच हे कुशी वयल्यान ते कुशीर तो परतत आशिल्लो.

दुसरे दिसाचे पेपर सोंपले. तो वर्गातल्यान भायर सरता थंय आसा. सोमतोच ताका तिगांयनी आडायलो. देमून बाबा पुता करून सांगलें, इतके पयशे म्हाकां एकठांय करचे पडटले. रोखडेंच जावपा ना हें काम. हांव एप्रील, मे म्हयन्यांत कशेंय करून हे एकठांय करतांच आनी शाळा सुरू जातकच तुमकां पार्टी दितां. पूण ह्या मजगती म्हाकां मर्दे मर्दे त्रास दिवपाक जायना म्हणजे जायना. हें

देमूले म्हणणें तिगांयनी मानून घेतलें.

आपूण इतली सुरय फट कशी मारूंक शकतां हाचें खुद देमूकूच अजाप दिसलें. आतां दोन म्हयने तरी हांची कटकट ना.

रिझल्ट जालो. देमू तिनूय वर्गांत तिसरो आयलो. म्हण्टां म्हण्टां जून आयलो. पांच तारखेर शाळा सुरू जाली. देमूल्या पोटांत गुळो आयलो. ताका परत घुस्मटील्ले वरी जावंक लागलें.

पयल्या दिसा त्या तिगां भितरलो एकटोय शाळेंत आयलो ना. ते तिगूय जाण नापास जावन देमूल्या वर्गांत पडील्ले. नापास जाल्ले भुरगे चड करून आठेक दीस दांडी मारतात, हें देमूक खबर आसलें. आतां आठ दीस सुसेग.

त्या दिसा कामत सरान एसेंब्लीत सगळ्यांक सांगलें शाळेचो गणभेस ह्या वर्सा बदलील्लो आसा. तो शिवपा खातीर कपडो शाळेच्या ऑफिसांतल्यान व्हरचो. ताचेर शाळेन बरीच सवलत दिल्ली. कपडो विकत घेवपाक आनी शिवपाक भुरग्यांक एक म्हयन्याचो वेळ दिल्लो. तें आयकून देमूक तकलेर हांडो मारिल्लेवरी जालें. हें आतां दुसरें संकट. पसऱ्या वयली उदारी, वखदांचे पयशे फारीक करपाक मोगरून काशी भाटकाम्न आनी शेजाऱ्यां कडच्यान पयशे घेतिल्ले. आतां आनी गणभेसाक पयशे खंयच्यान हाडप? तांतूत आनी आपणे पार्टेचें बोडभद्र केलां. कसली बुद्द जाली आपणाक? देमू आपल्याकच खेपपाक लागलो. होनू दिल्ली धमकी खरी केल्या बगर रावचो ना. तो कोणाकूच केर काडी नासलो.

तसोच देमू घरा आयलो. ताणें आवयक गणभेसा बद्दल कांय एक सांगलें ना. पूण ताचें पडिल्लें मुखामळ पळोवन मोगरून ताका रोखडेंच विचारलें, 'किर्दे रे देमू, कोणा कडेन झगडून बीन आयला?'

'ना गे आई.' देमू.

'सरान बीन तापयलो रे?' मोगरू.

'कांय ना गे आई, म्हाकां मगे जिवाक बरेंऽऽ दिसना. पुरो जाल्ले वरी दिसता. हांव न्हिदतां.'

आवय किर्देय उलोवचे पयलींच साडे स वरांचेरच देमून शेंदरेर पालून घेतलें. ताणें दोळे धांपून घेतले. पूण तकलेंत विचारांचें चक्र चालूच आसलें. ताका आपल्या हड्ड्यार कोणेंतरी व्हड चेंपण दवरिल्ले वरी दिसतालें. हातूंतल्यान कशें सुटप हेंच ताका समजनासलें. साडे आठांक सुमार मोगरून ताका जेवपाक उठयलो. पूण ताका जेवण कशेंच वचना जालें. मोगरूक ताचो हुस्को दिसपाक लागलो. रात भर तो तळमळटालो. केन्नातरी फांतोडेर ताचो दोळो लागलो. दुसरे दिसा मोगरून हालयतकच तो जागो जालो. ताका चाव आनी उंडो दिवन तें कामांक गेलें. दनपरां घरा आयल्यार देमू न्हिदूनच आसलो. परतूय ताणें पांय दुखपाचें निमित्त सांगलें. थोडेंशें जेवन देमून परत शेंदरेर गुडूक केलें. दुसरे दिसा मात तो सकाळीं उठून अभ्यासाक बसलो. मोगरू हुसक्या मेकळें जावन कामाक गेलें. दनपरां परत गुडूक. शाळेच्या टायमारूच हाका किर्दे जाता? मोगरूक प्रस्न पडलो. किर्दे तरी चिंतून ताणें जेवन घेतलें. घरांतलीं कामां आटपीलीं आनी तें कामाक गेलें. सांजे वेळा परतें घरा यो जाल्यार देमू शेंदरेर गोजडी पांगरून न्हिदला.

'देमू, एऽऽ देमू.' ताणें मोठ्यान उलो मारलो. 'तू कित्याक शाळा चुकयता, तें खबर आसा म्हाकां.'

'किर्दे? तुकां खबर आसा?' देमूक कच्च जालें. होनू बी मेळ्ळो काय किर्दे हिका? सांगलें दिस्ता सगळें. पूण मोगरून फुडें म्हळें, 'आरे, गणभेसाक दिवपाक पयशे ना म्हणून तुवें अशें केलें? हांवें भाटकान्नी कडल्यान तुजे खातीर पयशे हाडल्यात. तुजी खबर सांगतकच तिणें रोखडेंच पयशे दिले. हे घे पाचशे रुपया. कामत सराल्या जाईन सांगलें म्हाकां सगळें.'

ते पयशे हातांत पडना बराबर देमूक सूऽऽ जालें. एकदम ताचे वयलें चेंपण देवलें. ते राती तो पोटभर जेवलो आनी सुस्त न्हिदलो. सकाळीं उठून च्या बी घेवन तो तडक जाई म्हऱ्यांन वचून पटयो घेवन आयलो. सगळो अभ्यास ताणें बरोवन काडलो. दनपरां हुसक्या मेकळो शाळेंत वचपाक भायर सरलो. शाळा सुट्टकच तिगांयकूय ताणें पयशे जमिल्ल्याची बातमी खोशयेन दिली. चौगूय जाण 'रामविलासांत' भितर सरले. देमून नेटान चार प्लेट सुंगटां तोंडाक, कुरकुरीत उंडे, चार प्लेट कांदा भजी आनी चार स्पेशल च्याची ऑर्डर दिली. पोटभर खावन आनी च्या पिवन तृप्त जावन चौगूय भायर सरले. आयज बील देमून दिल्लें.

देऊळवाड्या वयलो पोको कोनशाक मेजार बसून तोंडाक आनी उंडो खायत खायत कावळ्याचे नदरेन चौगांकूय तेळटालो. दुसरे दिसा देमून तांकां सांजवेळां परत पार्टी दिली आनी तांच्या रिणांतल्यान मेकळो जालो. परते केन्नाच तांच्या वांगडा हॉटेलांत वचपाचें ना अशें ताणें थारायलें. दिस्त देमू बील फारीक करतना पोको हॉटेलांत भितर सरतालो. पूण ह्यावूय टायमार देमून ताका पळयलो ना. पूण पोक्यान ताका दिस्त पळयलो.

कामत सरान देमूक गणभेसा बद्दल शिटकायतकच देमूची ट्यूब लायट सट्ट करून पेटली आनी ताका कळ्ळें की गणभेसाचो कपडो घेवपाक ताका पयशे उणे पडटात. थोडे न्हय तिनशीं रुपया. ताच्या बोल्सांत आसले फक्त दोनशे. रोखडींच देमूच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं.

'सर, आई बरी नाशिल्ल्यान खुब्ब उधारी जाल्या. जायते जाणांक पयशे देणें आसात आमी.'

'आसूं, आसूं हांव आनीक एक म्हयन्याचो वेळ दितां तुकां', कामत सरान म्हळें. गरीबींतल्यान धडपडून बरे तरेन शिकपी देमूची



तांकां सदांच तोखणाय दिसताली. देमू आतां फटी मारपांत सामको फिशाल जाल्लो.

पार्ट्या उपरांत बरोब्बर विसेक दिसांनी घरा वतना शंकर टेलरान देमूक उलो मारलो, 'देमल्या इुनीफॉर्माचो कपडो खंय रे? मोगरून सांगिल्लें, कपडो दितकूच इुनीफॉर्म शिंवन दी म्हणून.'

'पयशे दिवपाक आमकां मातसो वगत जालो. तितल्यांत कपडो काबार जालो. पूण, सरान ऑर्डर दिल्या. येतकच कपडो दितां हांव तुजे कडेन.' देमू.

'बरें आसा तर'. शंकरान म्हळें.

हाचे वयल्यान पंद्रस गेली. बाकीचीं भुरगीं गणभेस घालून शाळेंत वतालीं. एक दीस मोगरून देमूक विचारलें, 'तुजो इुनीफॉर्म आजून मेळ्ळो ना रे?'

'आगे, कपडो केन्ना दिलो मगे, शंकर आज दितां फाल्या दितां अशें करता. हांव किर्ते करूं? तेवटेन कामत सर पिडटा गणभेस कित्याक घालना काय म्हणून?'

आतां मोगरू मातशें विचारांत पडलें. पूण कांयच उलयलें ना. जेवन देमू शाळेंत वचपाक भायर सरलो. ताचे फाटोफाट मोगरू भाटकाल्नीगेर गेलें. तिका रोखडेंच येतां आं, अशें सांगून शंकराक मेळपाक गेलें. तें पावलें तेन्ना शंकर जेवपाक वचपाची तयारी करतालो. दुकानाचें दार धांपून कुलूप लावपाक मोगरू थंय पावलें. 'शंकर म्हज्या पुताचे कपडे केन्ना दिता रे? ताचो सर ताचो सामको जीव खाता.'

'आगो कपडो दिल्यार शिंवतलों न्ही हांव. सरानूच खंय कपडो सोंपलो म्हणून ऑर्डर दिल्या खंय ताणें. तुजोच पूत सांगतालो.'

'हें आनी किर्ते?' मोगरू सामकें अजापीत जालें. 'देमू तर सांगता मरे ताणें कपडो दिल्यार म्हयनो मायज जालो.' मोगरू.

'तें हांव नकळो. ताणें जे किर्दे म्हाकां सांगलां, तेंच हांवें तुकां सांगलां.' शंकर टेलर.

आतां मात मोगरूचे तकलेंत गोंदळ जाल्लो. तें दुकानाक फाट करून वाटेक लागपाक देवूळ वाड्या वयलो पोको अचकीत ताचे सामकार आयलो.

'किर्दे गो मोगरू, तुका सॉर्त बीन लागल्या काय किर्ते गो?' ताणें म्हळें.

'अशें कित्याक विचारता रे पोक्या? पयलींच म्हजी तकली सामकी विरार जाल्या. तातूंत तुजीं फकांडां नाकां आं.' मोगरून मातशें रागानूच म्हळें. ताका आतां बेगोबेग सराक मेळपाचें आसलें.

'आगो मोगरू, हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयलां. सेगीत दोन दीस तुजो पूत 'रामविलासांत'. ताच्या आमिगां वांगडा पार्ट्यो करतालो. तांकां तोंडांका, भर्जी खावयतालो. वयल्यान येद्यो व्हडल्यो कॅडबरी दितालो.' पोक्याक उज्यांत पेट्रोल रकोवपाक मज्जा येताली.

'होनू, परकास, संतोष बरे आमीग जमयल्यात आं ताणें. पूण मोगरू ताका मारशीत बीन आं.' हँ, हँ करून हांसत पोक्यान म्हळें आनी थंयसून कूस मारली.

पोक्यान सांगिल्ली खबर आयकून मोगरूक सामकी भिरभिरी मारली. आपणें भाटकाल्नी कडल्यान उश्णे मागून हाडिल्ल्या पयशांनी कपडो घेवपाचो सोडून देमून फोल्गां मारली. जो देमू ताच्या उतरा भायर नासलो, सदांच समजिकायेन वागतालो. हांव हांगा म्हजीं हाडां झरयतां आनी हो कॅडबरी आनी भर्जी, आनी तोंडाकां खावयता... त्या वाळेसांक? वाडट्या चिंतनां बरोबर मोगरूचो पायांतलो राग मस्तकाक मारलो. ताचे तकलेंत उजो पेटील्ले वरी जालो. रागाचे भिरकेंत ताचीं पावलां चडूच नेटान पडपाक लागलीं. वागाबूंद जावन तें शाळेचे गेटीतल्यान भितर सरलें. आडावपी शिपायाक ताणें धुकलून उडयलो. दाडवणां किल्लीत तें शाळेच्या वर्गांत देमूक सोदपाक लागलें. ताका पळोवन प्यूनान देमूक ताचे बगलेक हाडलो.

देमूक पळेना फुर्डे आपूण खंय आसां, तें विसरून मोगरून ताका गाळी संवपाक कॉमेस केलें. 'XXXच्या म्हज्या पयशानी फॉल्गा मारता रे? आयज पार्ट्यो करता फाल्यां बापायवरी बार्रा सोदतलो तू आवयXXX आनी खळयेन पडटलो.'

इतलें म्हणून ताणें सणसणीत थापटां देमूच्या कानसुलार फुलयलीं. तिसऱ्याच थापटाक देमू लडलडून सकयल पडलो. पूण पिशांतूर जावन मोगरून ताका परत उबो केलो आनी थापटां फुलयत परत परत ताका विचारपाक लागलें. 'कित्याक केलें तुवें अशें? कित्याक? कित्याक रे?

पूण देमू मात कांयच उलय नासतना भितरल्या भितर रडत रावलो.

मडगांव - गोंय
मो.: ९८२२१८३९५४

भुरग्यांचें आंगण



# जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)

## पारस्कांचे परेडीक

देवबाप्पाचो पारस्कांचो दीस लागीं पावलो तशीं सगळीं भुरगीं पारस्कांची परब मनोवपाक गोंयां आयलीं..

पारस्कांचे परबेक तीन दीस आसात म्हळ्यार सगळीं भुरगीं एल्मो कडेन गेलीं आनी 'आमकां प्राणी आनी शेवणी शिक्षकां कडेन जंगलांत परत व्हर' म्हूण ताचे फाटीक लागलीं.

देखून एल्मो तांचे वळखीच्या सगळ्या प्राण्यांक आनी शेवण्यांक मेळपा पासत पर्दून एक खेप तांकां जंगलांत येवन गेलो. सगळे प्राणी भुरग्यांक पळोवन सामके भुल्लुसले आनी तांणी तांकां उर्बे भरीत येवकार दिलो.

इतल्यांत खुशीन एल्मोक म्हळें,''एल्मो, तुजे कडेन तीन ट्रक आसात न्हय? ते तूं पारस्कांचे परबे दिसा आमकां दिवं शकता..?''

''खुशी, तुमकां ते ट्रक कित्याक जाय गो..?''एल्मोन विचारलें.

''आमकां जंगलांतल्या ह्या आमच्या सगळ्या इश्टांक ट्रकार घालून शारांत व्हरपाचें आसा. शेवणींय त्या ट्रका सांगातान उडत उडत येतलीं.'' खुशीन उमेदीन सांगलें.

एल्मोकूय ताची कल्पना आवडली. हे आदीं ते प्राणी आनी शेवणी केन्नाच शारांत पावूंक नाशिल्लीं.

पारस्कांच्या आदले दिसा शेनवारा सक्काळीं फुडें एल्मो वांगडा सगळीं भुरगीं जंगलांत पावलीं. अर्थात बिंगो तांचे वांगडा आशिल्लोच..

तांणी हतयांक, वागांक, शिंवांक, बिबट्यांक, घोड्यांक, माकडांक, हरणांक, वास्वेलांक, सोश्यांक, मोरांक बी सगळ्यांक त्या तिनूय ट्रकांचेर चडयले आनी मडगांवचे वाटेक लागले. घोणी, कीर, कावळे, चिमण्यो, पारवे, कोगळां आनी हेर साबार शेवणीं ट्रकाच्या वयल्यान उडपाक लागलीं.

सांजवेळार मडगांवच्या रस्त्यार पारस्कांच्या निमतान एक आगळीच परेड पळोवंक मेळ्ळी. परेडीचें फुडारपण हतयांनी केल्लें आनी तांचेर मायरा आनी रायना बशिल्लीं. 'प्राण्याची शिकार करूं नाकात तशेंच जुस्तेंमारी बंद करात' अशें बरोवन लोकां मदीं जागृताय हाडपी तकटे तांणी हातांत येतिल्ले.

हतयां फाटोफाट घोड्याचेर बसून रणविर जाल्यार रेहान बिबट्याचेर बसून वताले. तांच्याय हातांत तकटे आशिल्ले,जांचेर 'शिवराक जावया' तशेंच 'प्राण्यांची हत्त्या करूं नाकात' अशें बरयल्लें.

अनुश्का तर शिंवीणीचेर बशिल्लें आनी ताच्या हातांतल्या तकट्याचेर 'प्राण्यांचेर माया करात' असो संदेश बरयल्लो. खुशी आनी नताशा, बिंगोच्या वांगडा मोराच्या सांगातान चलतालीं. तीं मोठ्मोठ्यान,' प्राणी आनी शेवणीं आमचीं इश्ट' अशी घोशणाय दितालीं. अवंती सामकी सकयल्यान उडपी घोणीचे फाटीर बशिल्लें



आनी ताचे फातळ्यान रंगरंगयाळ्या शेवण्याचें भिरें उडत वतालें.

मडगांवचे लोक मोठे संख्येन रस्त्याचे दोनूय वटयां उबे राविल्ले. तांणी अजून मेरेन केन्नाच अशे तरेची परेड पळोवंक नाशिल्ली. आरुशीची आजीय थंय आशिल्ली. तिणें आरुश वागाचेर बसून वता आनी आपल्याक पळोवन हात हालयता म्हणपाचें पळयलें आनी ती सामकीच अजापीत जाली.

भुरगीं परेडींतल्यान जे संदेश लोकां मेरेन पावोवंक सोदतालीं तांतलो 'शिवराक जायात' हे सारखो संदेश रस्त्यार जमिल्ल्या आनी जे आपल्या जेवणांत बदल करूंक चिंतताले तांकां मानवलो जाल्यार कांय जाणांनी परेड उलगल्या बराबर ते कानामनार घेतले नात.

परेडीच्या दुसरे दिसा कांय मडगांवकार सदचे वरी नुस्तें आनी मांस घेवपाक बाजारांत पावले. पूण दारांतूच वाग आनी शींव मोठमोठ्यान गरड घालीत लोकांक भेशटायतात म्हणपाचें तांचे नदरेक पडलें.

हो सगळो प्रकार निरतारावपाक शेवटीं पुलिसांक लेगीत आफोवचें पडलें. तांणी तांचेर फारपेट करपाचो निर्णय घेतलो. पूण 'हे प्राणी आरक्षीत आशिल्ल्यान तांकां मारपांत कायद्यान बंदी आसा' म्हणपाची जाणविकाय तांच्या मुखेल्यान तांकां करून दिली.

उप्रांत वागांनी त्या पुलिसांच्या गाड्यांचेर उडकी मारून तांकां भिवोवन घाले. अशे तरेन त्या राखणदार प्राण्यांच्या भंयान कोणाकूच नुस्तें आनी मांस घेवंक मेळ्ळें ना. हाका लागून सगळे लोक खुबळ्ळे..

वाग आनी शिंवांनी दरवंटो आडावन दवरलो तेन्नाच माकडांनी भितर उडक्यो मारून नुस्त्याचे आनी मांसाचे पाटले फटाफट उबारले. शेवण्याच्या भिऱ्यानी झोंपय मारून नुस्तें आनी मांस नाच्च केलें. तर बिबट्यांनी नुस्तें आनी मांसाच्या बाजारांत रिगून मोठमोठ्यान गरड घालीत तें विकप्यांक थरथरो हाडलो. तेन्ना सगळ्यांनी जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हणत थंयच्यान फुज्ज्यो काडल्यो. ते दिसा कोणाकूच नुस्तें आनी मांस विकपाक वो विकतें घेवपाक मेळ्ळें ना. हें सगळें ज्या भुरग्यांक लागून घडूंक पावलें त्या भुरग्यांचो फुडारी एल्मो म्हणपाची कल्पना सगळ्या बाजारकारांक आयली

आनी ते सांजवेळां सगळे ताच्या दारांत तक्रार घेवन पावले.

''हें अशें घडल्यार आमी उपाशीं पडटले. आमचो घराबो भिकेक पावतलो. हें आंदोलन अशेंच चालू उरत जाल्यार आमचो धंदो बंद पडटलो. जर लोक शिवराक जाले जाल्यार आमकां वेवसाय उरचो ना.'' तांणी एल्मोक सांगलें.

''तुमी मोनजातीचेर दया दाखोवंक जाय. हांव तुमकां पर्यायी वेवसाय करूंक शिकयतन! नुस्तेमारी करपा बदला तुमी भोंवडेकारांक 'स्कुबा डायव्हींग' करून दर्या भितरली अप्रूप सृश्टी दाखोवपाचो वेवसाय करूंक शकतात. प्राण्याची हत्त्या करपाची सोडून तुमी जंगल सफारी सुरू करूंक शकतात. तुमी हस्तकलेचो वेवसाय सुरू करूंक शकतात, स्वताची बेकरी उगडूंक शकतात, तशेंच तुमी नर्सरी सुरू करूंक शकतात, वो तुमच्यांनी शिवराक खाणावळ चलोवं येता.'' हे वेवसाय करूंक फावो ती मजत करपाचें आश्वासन एल्मोन त्या लोकांक दिलें.

मागीर मडगांवचे नागरीक एल्मोचेर उसळळे आनी म्हणूंक लागले, ''एल्मो, हें कसलें पिशेंपण घेवन बसला..?''

''हें पिशेंपण न्हय. हें एक पवित्र कार्य. सैमांतल्या आमच्याच हेर सांगात्यां कडेन दयाभाव दाखोवप म्हळ्यार मनीसपण राखप. ते भायर शिवराक रावल्यार आमची भलायकी सुदारतली. आमचीं दुयेंसां उणीं जातलीं. आमचें अन्न चड पुश्टीक जातलें. आमकां ताकदवान दिसूंक लागतलें.'' एल्मोन सांगलें.

एल्मोचें म्हणणें आयकून मडगांवकारांनी ताचो मार्ग आपणावपाचें मान्य केलें. आनी तीं पारकां पयलेच खेप शिवराक पारकां थारलीं.

ही चळवळ गोंयभर फाफसली. वर्सा भितर पुराय गोंयकार शिवराक जाले. गोंयच्या मळबांत शेवणीं जाय थंय मुक्तपणान उडपाक लागलीं. प्राणी गोंयच्या जंगलांत शांतीकायेन रावंक लागले. गोंयच्या उदकांत नुस्तें कसल्याच भंयां विरयत पेवपाक लागलीं. गौतम बुध्दाच्या अनुयायांनी एका काळार निर्माण केल्ले भुंयेर पर्यून एक खेप शांतीकाय नंदपाक लागली. त्या दिसाच्यान दादले आनी बायलो, जाणटे तशेंच नेणटे, प्राणी तशेंच शेंवणीं सासणां खातीर सुखा समाधानान जियेवंक लागलीं.

मूळ इंग्लीश - **दत्ता दामोदर नायक**
(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)
कोंकणी अणकार-**मानसी धाऊस्कार**

## जावंचो हांव कोण?

पेटी वाजयतल्याक पळोवन
पेटी शिकन दिसता
तबलें वाजयतल्याक पळोवन
तबलें शिकन दिसता

अक्षय कुमार अमीर खाना वरी
हिरो जायन दिसता
डिस्को डान्स करीत
नाचन म्हाकां दिसता

इन्स्पेक्टराक पळोवन
इन्स्पेक्टर जायन दिसता
सोल्जराक पळोवन
सोल्जर जायन दिसता

डॉक्टराक पळोवन
डॉक्टर जायन दिसता
सांग गे आई जावंचो
खरोच हांव कोण?

कशेंच म्हाकां कळना
जावंचो हांव कोण

व्हडलो जावंचे आदीं पुता
खुब्ब खुब्ब शिकूंक जाय
मनीसपणान वागपी
बरो मनीस जावंक जाय



- **शोभा फुलकार**
चिंबल-गोंय.
मो : ७८७५२३७४७८



# कामाचें मोल

गोपाळ एका गांवांत रावतालो. ताचे कडेन एक घोडो आशिल्लो. तो घोडो खूब सुंदर आनी आंगा-पांगानूय घसघशीत आशिल्लो. गोपाळ ताचेर खूब मोग करतालो. ताका तो वेळार जेवण-खाण दितालो, तशेंच ताका तो बरो करून न्हाणयतालोय. गोपाळ घोड्याची बरे तरेन काळजी घेतालो. ताका तो जळारां-चिलटां पासून वाटायतालो.

गोपाळ आपल्या गाड्याक घोड्याक बांदून सदांच शारांत कामाक वतालो आनी सांजचो घरा परततालो. सगळे घोड्यागाडयेवाले शारांतले एके थारावीक सुवातेर येवन रावताले. थंय गिरायकां येवन आपापलें सामान तातूंत घालून तांकां व्हरताले. थंय आशिल्ले सगळे घोडे आपापले भाशेंत एकामेका वांगडा गजाली मारताले.

गोपाळालो घोडो अरबी जातीचो आशिल्लो. ताका आपले सुंदरकायेचो आनी ताकदीचो गर्व जावपाक लागिल्लो. तो हेर घोड्यां परस वेगळो दिसपाचो देखावो करतालो. ताचे कडेन जेन्ना दुसरे घोडे उलोवपाक येताले तेन्ना तो छाती फुलोवन, ''हांव अरबी जातींचो घोडो. म्हजो आनी तुजो किर्ते मेळ?'' म्हणटालो.

एक दीस गोपाळालो घोडो हेर घोड्यांक किर्ते किर्ते म्हणटालो तेन्ना एका जाण्ट्या घोड्यान ताका म्हळें, ''बाबा तूं अरबी जातीचो घोडो आसत. पूण इतलो मिजास बरो न्हय. आमचीय जात तुजे जातीहून उणी न्हय. फरक इतलोच आसा कीं आमी केन्नाच घमंड केली ना. मनशाचो खास आनी विश्वासू सेवक जावन कामां केल्यांत.''

पूण गोपाळाच्या घोड्याचो घमंड तसोच आसलो.

गोपाळाचो घोडो आपले सुंदरकायेक लागून कामा कडेनूय आडनदर करपाक लागलो. एक दीस ताचें चड्च जालें. गोपाळ जेन्ना शारांत वचपाक भायर सरलो तेन्ना ताचो घोडो कसोच फुडें सरना जालो. थंयच पांय रोंबून रावलो. गोपाळ चिंतेंत पडलो. घोड्याक किर्ते जालां तें ताका कळना जालें. ताणें ताका लाडान-मोगान गाड्याक बांदपाचो जायतो यत्न केलो पूण कसोच आयकना. गोपाळाक मारली तिकड. ताणें घोड्याचेर चार-पांच खेप दांडे मारून ताका बाजारांत व्हेलोच.

घोड्यान तिडकीन मनांत म्हळें, ''कांय नजो. पळय आयज हांव किर्ते करतां तो. हांव ह्या संवसारांत लोकांचें वजन उखलपाक येवंक ना. हांव अरबी जातीचो घोडो. म्हजे सोबीतकायेर पुराय संवसार मरता. म्हजे कडेन कोण सर्त करूंक शकता? हांव अजिबात काम करचों ना. कोणाचें वजनूय उखलचों ना आनी कोणाक खंय पावोवपाचें कामूय घेवचो ना.''

तशेंच जालें. जेन्ना गोपाळ शारांत आपले घोड्या गाड्येर लोखणाच्यो पेटयो घेवन वतालो तेन्ना तो एके खळये म्हऱ्यांत पावलो. तेन्नाच घोड्यान किर्ते तरी करून एक लोखणाची पेटी खळयेंत उडयली. ती पेटी चिखलान माखली.

घोड्यान अशें मुद्दम केल्ल्याचें गोपाळाक होलमलें. बोणयेकूच घोड्यान ताचें लुकसाण केलें. गोपाळान ताचेर परत दोन-तीन खेपे दांडे पेटयले.

आयज गोपाळ बरोच बेजार आशिल्लो. सांज वेळार घरा येवन ताणें आपले बायलेक घोडो विकपाची गजाल सांगली. गोपाळान सांगलें, ''हो घोडो आतां पयलीं भशेन उरलो ना. आतां हो सायब कामूच करपाक पळय ना. बेटोच



उबो रावता एके सुवातेर. असल्या निरुपेगी घोड्याचें किर्ते करपाचें? चार-पांच दिसांनी जनावरांचो बाजार लागपाचो आसा. थंय वचून हाका विकून येतां. जेन्ना हाचो धनी हाका दांड्यांनी बरोच पेटतलो तेन्नाच तो जाग्यार येतलो.चड शाण्याक फातरां शीत म्हणटात तेंच खरें..''

घोडो सगळें आयकतालो. जेन्ना मध्यान रात जाली तेन्ना संद पळोवन ताणें थंयच्यान फुज्जयो काडल्यो. धांवत-धांवत तो गांवां कडल्यान बरोच पयस एका शारांत पावलो.

जेन्ना सकाळ जाली तेन्ना एका मनशान घोड्याक धरलो. तो घोड्याचेर बसलो. घोड्याक जेन्ना त्या मनशान आपल्या घरा हाडलो तेन्ना ताचीं भुरगीं ताचेर बसून भोंवपाक लागलीं. कोण ताचे शेपडेक धरतालो जाल्यार केन्ना केन्ना चार-चार भुरगीं वांगडाच ताचेर चडून भोंवडेक वतालीं. एक-दोन दिसांनीच घोड्याक थंय बेजार आयलो.

घोडो परत थंयच्यान धांवलो. शारांत एके कडेन सर्कस लागिल्ली. सर्कसवाल्यांनी ताका आपल्या वांगडा व्हेलो. ताका कसलोच पराक्रम करपाक येनाशिल्लो. तो थंय बेकार उबो रावतालो. सर्कस वाले जेन्ना ताका 'निरुपेगी' म्हणटाले तेन्ना ताका खूब वायट दिसतालें. सर्कशींत ताका केन्ना केन्नाय तण खावपाक मेळटालें. केन्ना केन्ना मेळय नाशिल्लें.

घोड्याक घरांतल्यान पळून गेल्याक बरेच दीस सरिल्ले.

घोडो मनांतल्यान म्हणपाक लागलो, ''हांगा म्हजे सोबितकायेचें कोणाकूच कवतूक दिसना. किर्तेय जावं म्हजो धनी गोपाळ म्हजी जतनाय तरी घेतालो. पुराय दीस असो बेकार रावल्यार हांव दुर्येत पडटलों. आतां म्हाका कळून आयलां की म्हजें खरें मोल म्हाका काम केल्यारूच मेळटलें. हांवें म्हजे सुंदरकायेची घमेंड करूंक जायनाशिल्ली. आतां म्हाकां होलमलां कामचोरूच कामाक आंग मारतात म्हूण. खंयच्याय मनशाचें वो जनावराचें मोल ताच्या कामाचेर थारता, सोबितकायेर न्हय.''

संद मेळटांच घोड्यान थंयच्यानूय कूस मारली. रातभर तो धांवत रावलो. सकाळ जातांच तो आपलो धनी गोपाळाल्या घराच्या दारा मुखार येवन उबो रावलो. ताणें आपलो फुडलो पांय उबारून दारार ठक-ठक केलें. गोपाळान दार उगडलें. पळयल्यार मुखार ताचो घोडो उबो आशिल्लो.

गोपाळान मोगान घोड्याच्या गालार चापटी मारीत म्हळें, ''बदमासा, खंय गेल्लो तूं? आमी तुका सोदून सोदून थकलीं. घरांतल्या वांगड्यान चूक केल्यार घरचो धनी ताका तापोवंकूय शकना तर?''

घोडो तकली सकयल घालून उबो आशिल्लो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं.

दुसरे दिसा गोपाळालो घोडो गाडी घेवन शारांत कामाक वतालो. ताच्या पावलांच्या 'टक टक' आवाजांतल्यान एके तरेचें संगीत आयकपाक येतालें.

गोपाळ खूश आशिल्लो.

घोडोय खूश आशिल्लो.



मूळ पंजाबी- **दर्शन सिंह आशट**
(केंद्रीय साहित्य अकादेमीच्या बाल साहित्य पुरस्कारान सन्मानीत)
हिन्दींतल्यान कोंकणी-**श्वेता नायक**



# नितांत

– माया खरंगटे

-५-

पुलिसांनी नितांताची केस तात्पुरती बंद केल्ली. पूण आशिश आनी ताच्या इश्टांक मना पासून दिसतालें, थंय वचून नितांताक परत सोदूं जाय. पुलिसांचे नदरेंतल्यान तो चुकून खंयी उरूंक शकता.

एक दीस सुहेलान तिडकून म्हळें,''पुलिसांचें म्हणून चडूच जाता. नितांत मेळना म्हणून केस बंद करप..?''

''म्हाकाय पुलिसांचो राग येता,आमी त्या घरांत भितर सरतकर लेगीत नितांत आमचे बरोबर आसा. मागीर तो गेलो खंय..?''हिरेशान म्हळें.

''त्या घरांत कितेंय पूण रहस्य आसूंक जाय..!''आशिशान म्हळें.

''हय म्हाकाय तशेंच दिसता. पुलिसांनी आपलें काम सोंपयलें, पूण आमी थंय वचून त्या घराचें रहस्य सोदया. असो अकस्मात तो त्या घरांतल्यान ना जाता म्हळ्यार कितें..?''हिरेशान म्हळें.

''हय रे हिरेश, भुतांनी ना जाल्यार देंवचारांनी ताका ना केला म्हणटलो जाल्यार म्हजो कांय विश्वास ना असल्या गजालींचेर..!''आशिशान आपलें सांगलें.

''आमचोय ना.'' दोगांनीय वांगडाच सांगलें.

हिरेशान मातशें येवजिलें आनी म्हळें,

''पळयात, आमी तिगच जाण थंय वचून सोदचे परस, म्हाका दिसता आमची फुटबॉलाची टीम आसा न्ही तांकां सगळ्यांक घेवन पिकनिके म्हणून थंय या.''

''तुजी युक्त बरी आसा, पूण सराकय व्हरचो पडटलो.''

''व्हरया.'' आशिशान म्हळें.

''सराक खरी खबर सांगया..?''सुहेलान विचारलें.

'' सांगल्यार बरें न्ही आशिश..?''हिरेशान विचारलें.

''हय, सराकसगलें सांगया. तोय कितेंय आदार करतलो.'' आशिशान उमेदीन म्हळें.

दुसरे दिसाच तांणी कॉलेजींत गेले बराबर सरा म्हऱ्यांत वचून सगळी गजाल सांगली. सरान उमेदीन म्हळें,''हय हय,या आमी. पळोवया तरी ते घरांत अशें कितें आसा तें..! पड्ये पुलिसांक जमना तें आमकां जमत..!''

सरान सगळें सारकें थारायलें.

त्या दिसा आपले फुटबॉल टिमीक घेवन सर काणकोणच्या रानांत आयलो. रानाच्यो वाटो दाखोवपाच्या निमतान आशिशान मामांक सांगून मुद्दम सदाक आपयल्लो.

हांसत, मजा करत ते रान भोंवले. सदान तांकां वेगवेगळ्या रुखांचीं नांवां सागलीं. भुरगेय उमेदीन सदाक कितें कितें म्हायती विचारताले.

बारा जावपाक येतकच आशिशान सगळ्यांक एकठांय केले, आनी सराक म्हळें, ''सर,हांगा सगळे कडेन कच कच आसा. जेवंक बसूंक सारकें मेळचें ना.''

''हय मरे,जमखाना घालूंक मेळचीं ना हांगा.'' सरान म्हळें.

'' सर, हे थंय एक पडींग घर आसा. तें मातशें निवळ करया, आनी थंय जेवंक बसुंया.'' आशिशान सांगलें.

सदान आयकलें,ताणें भिवून म्हळें,

''नाका बाबा नाका, परत त्या घरा कडेन नाका. पांयां पडटां तुमच्या.''

''आरे सदा, कित्याक नाका म्हणटा थंय..? कोणाचें घर तें?''सरान कांयच खबर नाशिल्लेवरी विचारलें.

''सर, तें एक रिकामें घर. थंय कोण रावनात. तें घर कितलीं वर्सां अशें बंद आसा कोण जाणां..?''आशिशान सांगलें.

'' पूण तें भुताळकेचें घर. देंवचार भोंवतात

थंय. तेन्ना तो बाबू...।'' सदान वाक्य अर्देंच सोडलें.

'' उलय सदा...'' सर ताच्या म्हऱ्यांत आयलो. ताच्या खांदार हात दवरलो आनी विचारलें,'' कोणें पळयल्यांत थंयचीं भुता-दैंवचार बी?''

'' हय सर..'' सदान म्हळें.

'' किर्ते? केन्ना रे सदा?'' हिरेशान मुखार येवन विचारलें.

'' आरे सदा, जेन्ना आमी नितांताक सोदतालीं,तेन्ना तुवें कांय सांगू ना मरे!'' सुहेलान म्हळें.

'' हांवें एक दोन वेळां भुताटकी, दैंवचारान लिपयला जातलो म्हणिल्लें. पूण तुमी कोणें काना - मनार घेतलें ना. म्हाका फट केलो तुमी।''

'' आरे सदा, आमी अजुनय तसल्या गजालींचेर विश्वास दवरनात.'' आशिशान हांसून सांगलें.

'' पूण आशिशबाब, लोकांनी हांगां उजवाड पळयला. आवाज आयकल्यात. जेवणा वास घेतल्यात.''

'' भुतां जेवण करून जेवतालीं तर हांगां?'' सुहेलान हांसून विचारलें. सगळेच हांसपाक लागले.

'' बाबानो तुमी म्हाकां फट म्हणात, पूण त्या दिसाच्यान थंयच्यान जेवणा वास येना, आवाज येना, मर्दी-मर्दी दिसतालो तो उजवाडय दिसना.''

सरान बेगी बेगीन म्हळें, '' आसूं सदा, आज आमी थंय वचून पळोवया.''

तितलेसर एक भुरगो सगळोच कडकडूंक लागलो. ताणें कडकडत सराक म्हळें,'' सर, थंय वचूं नये, भुतां आमकां किर्तेय करतलीं. नाका सर,नाका.''

सरान हांसून ताचे फाटी वेल्यान हात भोंवडायलो आनी म्हळें, '' नॅवीस, भुतां बी म्हणटात ती खरी गजाल न्हय. तुका भंय दिसताच जाल्यार तूंम्हजे वांगडा राव.''

सगळें सामान घेवन ते त्या घरा कडेन गेले.

तांणी सगळ्यांनी घरांतलें, भायलें साल, वारांद निवळ केलें. धुल्ल बसपाक बाटलेंतलें उदक फाफुडलें. थोड्या वेळान जमखना घालून ताचेर जेवण दवरलें. कोनशाक एक ल्हानसो लाकडी स्टॅण्ड आशिल्लो. तो पेल्यान काडूंक हात लायतनाच सकल पडलो आनी ढब्ब असो आवाज आयलो. सर म्हऱ्यांतच आसलो. ताका तो आवाज वेगळोच सो दिसलो. सरान त्या जाग्यार पांय मारलो. पोकळ जाग्यार पांय मारतकच जसो आवाज येता तसो आवाज आयलो.

सरान सदाक आपयलो. ताकाय तो आवाज आयकुपाक दिलो आनी विचारलें, '' सदा त्या घराक तळघर बी आसा?''

'' खबर ना सर.'' सदान सांगलें.

आशिशान म्हळें, '' पयलींच्या घरांक तळघरां आसतालीं न्हय सर, हाकाय आसूं येता.''

''अशेंच दिसता. सदा हांगा पांय मारल्यार आवाज कसो येता पळे.''

आशिशान, सदान, हेर सगळ्यांनी पांय आपटून पळयलें. तांकांय आवाजांतलो फरक कळ्ळो. सरान म्हळें,

'' चलात, आतां आमी जेवया आनी हांगा भुंयार आसल्यार सोदया.''

सगळे जेवतकच सरान भुरग्यांचे दोन पंगड केले. सदा वांगडा थोडे भुरगे दिवन सरान तांकां घरा भायले वटेन सकल वचपाक खंय सोपणां बी दिसतात जाल्यार पळोवंक सांगलीं. सरान नॅविसाक आनी हेर भुरग्यांक घेवन घरांत सोदपाक सुरवात केली. आशिश चार पांच भुरग्यांक घेवन माळयेर गेलो.

माळयेवेल्यान देंवतना एका भुरग्याचो पांय ते मदले फळयेच्या पोंतार पडलो आनी फळी भितर गेली. तो व्हडान आड्डलो, आनी भितर पडटां पडटां ताणें वयल्या सोपणांक हात घालो. ताच्या फाटल्यान येवपी भुरग्यांनी ताचो हात घट धरलो आनी हेरांक उलो मारलो. सुहेल आनी सर रोकडेच थंय आयले. हेर भुरगेय थंय पावले. सगळ्यांनी ताका वयर काडलो. त्या बराबर सोपणाचें फळें जाग्यार बसलें.

सुहेलान म्हळें,''आशिश,असोच नितांत सकल पडला आसतलो!''

''आरे देवा..चल बॅटरी दिवो हाड. पळोवया भितर किर्ते दिसता तें..!''

कोणेंतरी भायल्या पंगडाक भितर पडिल्ली गजाल सांगली. सगळे भितर आयले. हिरेश आनी सुहेलान बॅटरी दिवे हाडिल्ले. ते घेवन ते सोपणा कडेन आयले. आशिश थंयच राविल्लो. त्या सोपणार पेज दिवन तांणी तें उगडलें. बॅटरी दिव्याचो उजवाड तांणी भितर घालो.

तांकां भितर व्हड जागो दिसलो. त्या सोपणा पोंदा सोफा आनी कदेलां दिसलीं.

''हें सामान हांगा आसा म्हळ्यार हांगा कोण तरी रावतात आसूं जाय!''सुहेलान म्हळें.

''जाल्यार ते भायर भितर कशे येता वता काय?''



सदान म्हळें,''अशें तळघर आसा जाल्यार भितर देंवपाक सोपणां घरांतच आसूंक जाय!''

''हय,जाल्यार चलात आमी सोदुंया सोपणां.'' हिरेशान सांगलें.

इतले मजगतीं सर मोबायलाची रेंज खंय मेळटा ती पळोवंक भायर गेलो. एका जाग्यार ताका रेंज मेळ्ळी. ताणें कश्णकश्ण पुलीस स्टेशनार फोन लायलो आनी थोडे भितर तांकां सगळी गजाल सांगून थंय आपयले.

सगळें घर तांणीं सोदलें. तांकां सकल देंवपाक खंयच सोपणां मेळ्ळीं नात. भितर एका दाराक खिळी आशिल्ली. कळमेवन ती घट्ट बशिल्ली. भुरग्यांनी खोंट मारून तें दार उगडलें.

ते ल्हानशे कुडींत देवारो आसलो. आनी एके वणटीक तेंकून पेटारो आसलो. भुरग्यांनी पेटारो उगडलो. भितर कांयच नासलें. सदान म्हळें,''भुरग्यांनो तो पेटारो हेकडेन हाडात.''

भुरग्यांनी तो पेटारो उबारून दुसरे वटेन व्हेलो. ताच्या पोंदा सकल वचपाक सोपणां आशिल्लीं.

''आरे हीं पळय सोपणां. हांगाच्यानच भितर यो वच करताले दिसता.''

सदाचो आवाज आयकून आशिश थंय आयलो. ताणें तीं सोपणां पळयलीं. आपल्या हातांतल्या बॅटरी दिव्याचो झोत ताणें सोपणार घालो. सोपणां सकल देंवतालीं. पूण धयरांवान गच्च भरिल्लीं.

सुहेल एक बडी घेवन आयलो. ताणें बडयेन धयरांव काडलो.

तेन्नाच सर थंय पावलो. ताणेंय तीं सोपणां पळयलीं. सुहेल, हिरेश तीं सोपणां देंवन सकल वचूंक लागले. सरान तांकां आडायले आनी पुलीस येतात म्हणपाचें सांगलें.

पुलीस सर्चलायट बी घेवन आयिल्ले. लायट घेवनच ते सकल देंवले. सोपणां सोंपतात थंय लाकडी दार आशिल्लें. तांणी तें उगडपाचो यत्न केलो. निमणें खोंटो मारून मारून दार मोडलें. सगळेच भितर देंवले. भितर सोदतना तांकां लायटीचें बटण दिसलें. तांणी लायट पेटयली.

थंय सोफा, कदेलां आसलीं. सोफाचे कुशीक खेळांतलें गॉगल आशिल्लें. सुहेलाच्या धाकट्या भावाच्या वाडदिसाक हीं गॉगलां भुरग्यांक दिल्लीं. ताच्या दांड्याचेर बरयिल्लें, 'हॅपी बर्थ डे अब्बास..' सुहेल वळखलो, ताणें तें काडून सांगलें, ''नितांत हांगाच पडला जातलो. हें ताचें वक्ल पळे.''

त्या गॉगला वेल्यान नितांत हांगा पडिल्लो हाची तांकां खात्री जाली. त्या हॉलांत एक आरमार आसली. दुसरे कुडींत रांदपाचीं आयदनां, बालद्यो, कश्न तुटिल्लीं कोपां आसलीं. आलिमेनचे वांकडे-तिकडे जाल्ले थाळे, दावलां थंय आसलीं. पूण नितांताचो कांयच पत्तो नासलो. ह्या तळघराचें एके वणटी कडल्यान वाली सकल देंविल्ल्यो. थंयच्यान भायलो उजवाड्य भितर येतालो. अश्यो दोन तीन कडल्यान वाली आयिल्ल्यो आनी उजवाड्य भितर येतालो. थंयीय दार आसलें. पुलिसांनी तेंय दार निखळायलें. थंयच्यान भायर वचपाक अरूंद वाट आशिल्ली. थंयीय लायट आसली. ती पेटोवन पुलीस मुखार सरले.

आतां दर्याची गाज आयकूंक येताली. दोनशें सुमार पावलांचेर भुंयारी रस्तो सोंपतालो थंय तोंडार फातर बसयिल्लो. बरो वेळ येत्न करून तो फातर तांणी धुकलून उडयलो. ते बराबर भायलें वारें भितर आयलें. ती दर्याची देग आसली. भायर ल्हान व्हड तरेकवार खडपां पातळिल्लीं. थंयच्यान दर्या मेरेन वचूंक मेळटालें.

इतलो वेळ पुलिसांच्या फाटोफाट आशिश,सुहेल,हिरेश आनी हेर भुरगेय आशिल्ले. तांचे दोळे नितांताची किर्लेय खूण मेळटा काय पळयताले. पूण तांकां आनीक कसलीच खूण मेळ्ळी ना.

पुलिसांनी तांकां सांगलें, ''हांगा कोणयतरी स्मगलर रावताले जावंये.

म्हणून रानांत आयिल्ल्या लोकांक केन्ना केन्नाय उजवाड दिसतालो, आवाज येतालो आनी जेवणाचोय वास येतालो जावंये!''

''हय सायबा, आमी ती भुताटकी समजताले. तो बाब शेणलो त्या दिसाच्यान हें सगळें बंद जालां.''

''हेंच तें..आपलो जागो कोणाक तरी कळ्ळो म्हणून ते सगळे त्या भुरग्याक घेवन हांगाच्यान पसार जाले जातले!'' एका पुलिसान म्हळें.

''म्हणटकर नितांत जितो आसतलो तर..!''सुहेलान खोशयेन म्हळें,

''हय रे,पूण ताका खंय व्हेला तांणी आनी ताका कशे वागयतात आसतले कोण जाणां..!!''आशिशान चिंतेन म्हळें.

''भुरग्यांनो,भियेवं नाकात. आमच्यो जायत्यो यंत्रणां आसात. हे टोळयेचो सोद घेवपाचो आमी जाता ते परी यत्न करतले. ही टोळी मेळ्ळी काय तुमचो बाबू-नितांत मेळटलो..''

''तितले म्हणसर तांणी ताका बरो करून सांबाळून दवरल्यार पुरो..!''आशिशान म्हळें.

सरान आशिशाच्या खांदार हात दवरून म्हळें, ''आज आमी हांगा आयिल्ल्यान नितांत जितो आसा म्हणून तरी कळ्ळें. मेळटलो तो एक दीस..!''

''हय सर, सर या न्ही आमी आतां..?''

एक उमेद घेवन सगळे मडगवां आयले. आबोली कॉलनींत पावतकर आशिश, हिरेस आनी सुहेल नितांतागेर गेले. तांणी सगळी गजाल नितांताच्या मम्मी-पप्पाक सांगली.

नितांताच्या पप्पान व्हड सुस्कारो सोडलो आनी म्हळें, ''म्हणजे आमचो नितू खंय तरी आसा तर..! जावं, बरी गजाल सांगली तुमी.'' ताचो गळो भरून आयलो. मम्मी तर रडत आसली. तिणें म्हळें,''केन्ना म्हणून मेळटलो आमचो नितू..!!''

''काकी, असोच एक दीस नितांत मेळटलो आमकां.''

हिरेशान म्हळें आनी बोल्सांतलें गॉगल काडून मेजार दवरलें. तें गॉगल पळोवन नितांताचे यादीन परत एकदां सगळ्यांचीं मनां जड जालीं. पूण हे खेपे प्रत्येकाच्या मनांत आशेची पणटी टिमटिमताली.

(चलता...)

मडगांव-गोंय. मो.:९४२०६८५२७८

# बायूल

- हर्षा सदगुरू शेटये



-३-

## शेणा भोबो

बायूल दिसभर आज्या फाटल्यान पोरसांत आसता. ताच्या इल्लेश्या पायल जोत्यांक, पत्यांक रबर बांदल्या. ते खातीर जोतें ताच्या पांयांक घट्ट बसता. माईमावशी ताका खावोवपाक वाडगो घेवन भायर आयल्या. पळयत जाल्यार बायूल ना. ती मागीलदारा वचून बायुलाक घेवन येता. आजो दूद काडटा तें पळोवपाक बायुलाक खूब आवडटा.

आज ताका सत्व खावपाची रूच ना. तें 'नाका' म्हणटा. कशेंच तोंड उगडना. 'भोबो नाका, बायुलाक भोबो नाका.'

''हो पळय... कावळो पळय, चिमणी पळय'' सगळें जालें. जुरत्तूच मुखावयले पेरी झाडाचेर पेरां खावपाक कीर आयल्यात. ''हो पळय पोपट. बायूल पोपट पळय.'' बायुलान पोपट केन्नाच पळोवंक ना. ताका नविदाद दिसता.

''पोपत,पोपत.''बायूल टाळयो मारता. माईमावशी ल्हवूच सत्वाचें कुलेर तोंडांत घालता. दोन तीन कुलेरां खाता. बायुलाच्या आवाजान पोपट उडून वतात.

बायूल धांवता. सोंपणां देंवता आनी पोरसांतल्या गोठ्यांत धांवता. पॅचॅक... पॅचॅक. बायुलाचो पांय शेणांत पडटा. बायुलाक वीट येता. तें व्हडल्या व्हडल्यान रडटा. आजो पळयता आनी धांवत येता. ताका उकलून व्हरता आनी ताचे पांय धुता.

बायूल परतें परतें पांयां पोंदा पळयता. ताका अजूनय आपले पांयांक शेण लागिल्लेवरीं दिसता. तें आतां पायल जोतें परतें पांयांक लायना. सांजवेळचें देवळांत वतना आजो ताच्या पांयांत जोतें घालूंक येता.

''नाका.. शेणा जोतें नाका. बायुलाक नाका.''

आजो मागीर नवे बूट घालून ताका व्हरता.

दुसरे दिसा सदचेवरी सतूभोब्याचो वाडगो घेवन माईमावशी ताका खावोवपाक येता. आज सतूभोब्याचो रंग मातसो काळसर जाला. बायूल वाडगो पळयता.

''शेणा भोबो, शेणा भोबो...बायूल खायना. बायूल शेणा भोबो खायना..''

तें व्हडल्यान आड्ड्यो मारता. आजो येता.

''कितें जालें गो?''

''शेणाभोबो नाका...बायुलाक शेणाभोबो नाका.''

आजो वाडग्यांत पळयता आनी हांसता.

''तुका नाका मगो ? खांवू नाका तर! माईमावशी खातली तो शेणाभोबो.''

''नाका...नाका..माईमावशी नाका...''

माईमावशी मागीर पाव आनी दूद घेवन येता. बायूल पाव दुदांत बुडोवन खाता.

आतां ताचें पोट भरलां. शेणा भोबो खालो ना म्हूण तें खोशी जालां. तें पांयांत बूट घालपाचो यत्न करता. बूट घालपाक जमना तें पळोवन आज्या कडेन व्हरून दिता. बूट घालतकच आज्याचें जोतें घेवन येता आनी आज्याक ओडून गोठ्यांत घेवन वता. वतना पांयां कडेन पळयत चलता. परतें आनी ताका शेणांत पडपाचें ना.

# माईमावशेचें लग्न

बायुलाच्या आज्याचें घर रस्त्याक तेंकून. वारांदांत उबे रावल्यार रस्त्या वयल्यान वतात त्यो बशी दिश्टी पडटात. सोपणां देंवून पोरसांतल्या आड्या कडेन उबे रावून बशीक हात दाखयल्यार बस रावता. बायुलाक बशींचीं नांवां बी पाठ जाल्यांत. बशीच्या वचपा येवपाच्या वेळा वयल्यान ताचें खावपा जेवपाचें वेळा पत्रक आसता.

माईमावशी आनी पापाआजो बशीर वचपाक रावल्यांत. तें फाटल्यान धांवूंक सोदतालें पूण बाईमावशेन ताका घट्ट धरलां. बस येता. तीं बशीर बसून वतात. आतां पावसान नेट धरला. बायुलाक पोरसांत वचपाक मेळना. तातूंत आजोय ना.

तीन दिसांनी दारांत विश्रांती बस थारता. माईमावशी आनी आजो देंवतात. तांकां पळोवन बायूल उडक्यो मारीत वारांदाचेर नाचता.

''बायूल,तुजे माईमावशेलें लग्न. आतां तुका शेणा भोबो ना.''

आजो बायुलाक उखलून घेत म्हणटा.

आठ दिसांनी घरांत बोवाळ सुरू जाता. बायुला कडेन उलोवपाक कोणाक वेळ ना. सालांत वणटीक तेंकोवन दोन कदेलां दवरल्यांत. फाटल्यान एक चादर लायल्या.

सांजची बायुलाची माँ,बाबा आनी बाबू येतात.बायूल माँ चेर घालून येता.

''बायूल मस्ती करूं नाका. मम्माच्या पोटांत बाबू आसा.'' बाईमावशी सांगता.

बायुलाक बाबा उकलून घेता. मागीर आनी बायूल खंयच वचना. सबंद वेळ



बाबाच कडे रावता.

''चल बायूल,नवो पोपो घाल. आज माईमावशेलो साखरपुडो. सगळीं सोयऱ्या येतलीं. हांसतलीं तुका मागीर.''

आवाशिवा करून बायूल कपडे घालता. पूण ताका साखरपुड्याचें बी कांयच पडूंक ना. तें परतें परतें बाबाक भायर पासय मारपाक लायता.

रातचो बाबा परतो वता. माँ आनी बाबू रावतात.

''आगो बाय, आठ दिसांनी माईमावशेचें लग्न.'' आजी सांगता.''ती आतां चलली घोवागेर.''

बायुलाक कांय समजना. तें वग्गी रावन माँ चे कडल्यान खावोवन येता.

एक दीस सांजचीं बशींत बसून तीं सगळीं जाणां खंय तरी वतात. देवळा कडेन देंवतात. बायूल न्हिदांतलें उठता.

बायुलाक कांयच खबर ना. सकाळीं फुर्डे रस्मी निळ्या कोराचो घागरो पोलको घालून ताका माईमावशे म्हऱ्यांत बसयलां. एक बायल येवन ताचे हाताक पांयांक आंब्याचें पान लायता. बायुलाक तें आवडना. तें हातान पुसता. मागीर ती बायल माईमावशेक चकचकीत फोलीत गुठलायल्लो एक लाडू आनी एक व्हडलें काप दिता. तांबडे फोलींत गुठलायल्लो लाडू आनी काप बायुलाक दिता.

बायूल ती तांबडी फोल पिंदता. भितर धर्वे काप आसता. मागीर तें दुसरी फोल पिंदता. हळदुवोच लाडू हातांत धरून घास मारता. आनीक बायलो येवन मावशेक आनी बायुलाक आंब्याच्या पानान तेल लायतात. सुवाळो जातकीच जयमावशी ताका उखलून व्हरता आनी विठाबाय कडेन दिता. विठाबाय कडेन तें व्हडल्या व्हडल्यान रडटा. मागीर ताचो बाबा येवन ताका व्हरता. लग्ना मंडपांतल्यान भायर सरून पासयो मारता. तें पुरो जावन न्हिदता.

तें उठता तेन्ना माईमावशी रडत रडत गाडयेंत बसताली. माँ, बाईमावशी, आजी, जयमावशी सगळीं जाणां रडटालीं. ताका विठाबायन धरलां. तेंय मागीर व्हडल्या व्हडल्यान रडटा. माईमावशेची गाडी पयस पयस वता.

माँ,बाबा,बाबू आनी बायची मावळण टॅक्सीत बसल्यांत. ''बायूल,बरें करून राव. मस्ती करूं नाका.'' बाबा पापी घेत सांगता. विठाबाय बायुलाक घेवन देवळा कडेन वता.

बायूल रडत आसा..

(चलता....)

पासय



डॉ. नूतन देव

# जागतीक महिला दीस...

**डॉ. नूतन देव** हांचें बरप चडशें मराठींतल्यान जालां. वेवसायान जरी तांची वैजकी कारकिर्द चालू आसली तरी तांचो पिंड कविचो. तांचो मराठींतल्यान ' आभाळ ' हो काव्यसंग्रह हालींच उजवाडाक आयला. जाका काव्य रसिकां कडल्यान उप्पाट येवकार मेळ्ळा. तांची सादी,सरळ कोंकणी भास तांच्या ह्या लेखाचें खाशेलेपण.

दुर्भाग्य म्हणात वो नशीब म्हणात, चली जाली जाल्यार कपलाक आट्यो घालपी कितलेशेच महाभाग आजूय आमचे मदीं आसात. कायदो आसुनयबी पळवाट सोदीत तिका गर्भातूच मारून उडोवपी मारेकरी आजय सांपडटात.

तुमी सगळीं जाणांच, ८ मार्च हो दीस जागतीक पातळेर बायलांचो दीस म्हूण मनयतात. ह्या दिसाचें औचित्य साधून संवसारभर ह्या दिसा,तशेच फुडले कांय दीस सरकारी पातळेर तशेंच बिगर सरकारी संस्था भरगच्च कार्यावळी येवन येतात. विंगविंगड मळार दोळे दिपकावपी वावर करपी बायलांचे मान सन्मान ह्या दिसा करतात. हो एक कवतुकाचो भाग जावन आसलो तरी म्हाकां एक कळना, ह्या लोकांचें कवतूक करपाक होच दीस कित्याक जाय..?

आयज खूबश्यो बायलो विंगविंगड मळार वावुरतना आमकां दिसतात. थोडे कडेन तर दादल्यांचे बरोबरीनूच न्हय तर तांच्येय परस चड तांकीन वावुरतना दिसतात. पूण प्रस्न येता तो एके सर्वसामान्य बायल मनशेचो. ती खरीच सर्वार्थान मुक्त आसा काय..?

थोडो वेळ आमी इतिहासांत वचुंया. वेद, उपनिषद हातूंत सांगिल्ले प्रमाण त्या काळांत बायलो सर्वश्रेश्ठ अश्या तत्वगिन्यानांचो उपदेश करताल्यो. दादल्यां वांगडा वेगवेगळ्या विशयांचेर भासाभास करताल्यो.तांकां ब्रह्मवादीनी अशें म्हणटाले. आर्यांचे नदरेन तर दादलो आनी बायल हांचे मदीं कसलोच भेदभाव नाशिल्लो. बायल वांगडा नासतना घोवाक कसलेंच धार्मिक कार्य करपाक मेळना आशिल्लें. मुळांत, बायले बगर दादलो अपूर्ण हीच भावना आशिल्ली. लग्नबंधनाची पवित्रताय, आवयपणाचो आदरभाव आमचे संस्कृतायेंत भिनील्लें.

मदल्या कांय काळांत आमच्याच देशांत न्हय तर अख्ख्या संवसारांत स्त्रीशक्तीचो अवमान जायत गेलो. स्त्रीशिक्षण नदरे आड जालें. स्त्रीशोशण जायत रावलें. कोणाचेर तरी अवलंबीत, असहाय्य, दासी अशीच वागणूक तिका मेळत रावली. त्रास जावपी गजालींचेर आवाज काडनासतना, दुकां गळयत ओग्गी रावपाची तिका संवय जाली. तिर्णेय बी आपली ही असहाय्यता मनांतले मनांत मान्य केली.

ते उप्रांत १९०८ वर्सा सगळ्या संवसारभर एक व्हड क्रांती घडून आयली. सुमार पंदरा हजार बायलांनी अमेरिकेच्या न्युयॉर्क शारांत एक व्हड मोर्चा काडलो. हातूंत तांणी कामाच्या जाग्यार बायलांक मेळपी वागणूक, बायलांचो पगार, बायलांक मतदानाचो हक्क अशे कितलेच मुद्दे मांडले. ल्हव ल्हव ही विचारांची क्रांती युरोप, रशिया आनी जगभर मूळ धरूंक लागली. १९११ वर्सा ऑस्ट्रेलियांत पयली संवसारीक परीशद येतली. त्या उप्रांत कितलींच संमेलना जायत रावलीं.

भारतांतय ज्योतिबा फुले, महर्षि कर्वे, राजा राममोहन रॉय अश्या किलेशेच म्हापुरूशांनी समाजाच्या विरोधांत वचून स्रीशिक्षण, सती, विधवा विवाह ,केशवपन ह्या सारख्या कितलेश्याच प्रस्नांचेर झुंज दिवन बायल ही एक मनीस म्हणपाची वळख करून दिली.

युनायटेड नेशन्स हे जागतीक संघटनेन १९७५ वर्सा '८ मार्च' हो जागतीक महिला दीस म्हूण अधिकृत घोशीत केलो.

बायल मुक्त जातली जाल्यार शिक्षण हें गरजेचें आसा हें सगळ्यांनी मान्य केलां. आमचे देशांत कितलेच कडेन चलयांक शिक्षण मेळना. पूण जांकां मेळटा तांणी तरी आपले शिक्षणाचो उपेग फक्त डिग्री मिरोवपाक वा पयशे जोडपाक करपाक फावना तर स्वताक आनी स्वता वांगडाच आपल्या कुटुंबाक सक्षम करपाक वापरूंक जाय. स्वता निर्णय घेवपाक शिकपाक जाय. स्वताक हेरां कडेन तुळा करी नासतना आपलें मोल समजून घेवन तें वाडोवपाचो यत्न करूंक जाय. आपूण एक स्वतंत्र मनीस, ह्या समाजाचो मुखेल घटक हो विचार ल्हानपणां पासून आपल्या मनांत घट्ट रिगोवंक जाय.

दुर्भाग्य म्हणात वो नशीब म्हणात, चली जाली जाल्यार कपलाक आटयो घालपी कितलेशेच्च महाभाग आजूय आमचे मदीं आसात. कायदो आसुनयबी पळवाट सोदीत तिका गर्भातूच मारून उडोवपी मारेकरी आजय सांपडटात. आपले वासनेची भूक भागोवपी नराधम तर दिसपट्टे खबरांपत्रांनी बातमे रुपान दिश्टी पडटात. लग्नाचें हांयस दाखोवन, तांचो उपभोग घेवन मागीर तांकां जिवे मारपी खुनी जळामळाक आसात. अशे वेळार विचार येता, खरेंच बायल मुक्त आसा काय..?

कांय वेळां एक बायलमनीसच दुसरे बायलेचो घात करतना दिसता. मजत करपाची सोडून, दुसरे बायलां बद्दल वायट उलयतना दिसतात. अडीअडचणींत धीर दिवपाचो सोडून पांय ओडटना दिसतात. तशेंच थोड्यो बायलो, 'आलेसा ताण गा व्हडे, हांव बाबा भुरगो मगा, आलेसा जेवंक यो गा, हांव बाबा मानाय मगा..' हे म्हणी प्रमाण आपल्याक जाय तेन्ना 'अबला' जातात आनी जाय तेन्ना 'सबला' जातात. जें आपले मनांत करपाचें नासता, तें निमतां काडून दुसऱ्याचेर धुकलून दितात. आपलो हक्क मागपाक फुडें सरतात पूण ताचे वांगडा येवपी जबाबदारी आनी कर्तव्य विसरतात. आसूं..!

८ मार्च, महिला दिसाच्या निमतान हांव सगळ्या बायलांक समाजा कडल्यान एक मनीस म्हणून मनीसपणाची वागणूक मेळूं अशें देवा कडेन मागतां. उदकांत पडल्यारूय बी,बुडनासतना हातपांय मारून वयर येवपाची बुध्द दिवं अशें मागतां आनी द्रौपदीक पाविल्ल्या कृष्णाची वाट पळयनासतना समाजांतल्या राकेसांक मारपाक तांणी स्वताच दुर्गा जावंची ही शक्त मागतां.



मडगांव- गोंय, मो.: ९९२३३०६७५१



मानाचें पान



मंजुषा सिनाय तळावलीकार




# इकीगाय - दीर्घायु आनी आनंदी जिणेचें गुपीत

फाटलीं कितलींच वर्सां शिक्षिकेच्या पेशांत आशिल्लीं **मंजुषा तळावलीकार** मानसशास्त्राच्योय अभ्यासक आसात. भुरग्यांचें मानसशास्त्र समजून घेवन तांकां योग्य दिकेन व्हरप ही तांची मोख. तांकां वाचनाची आवड आसाच,तेच वांगडा .मिक्षा,कविता आनी ललित लिखाण हातूंत तांकां रुची आसा. साहित्य अकादेमी तशेंच हेर संस्थांच्या चर्चासत्रांतूय तांचें योगदान आसा.

---

*प्रचंड थंडेच्या दिसांनी जेन्ना तापमान जवळजवळ १ ते २ अंश आसतालें तेन्ना लेगीत तांकां फांतोडेर उठून कामार वचचें पडटालें. कांय दिसांनी तांकां रेल्वे रूळ घालपाच्या कामाक लायले जें खुबूच कुस्तार आशिल्लें. थंय तांकां जनावरां परस पाश्ट वागणूक दिताले. ते गार्ड स्थामके विकृत मानसिकतेचे आशिल्ले.*

---

आतांच्या आधुनीक युगांत मनीस जायत्या दुयेंसायेर मात करून तीं ना नपयत करूंक येसस्वी जाला. पूण जी नवीन प्रकारचीं दुयेंसां तयार जाल्यांत तीं जिणेचे नवे पध्दतीचे राहणीमानाक लागून जाल्यांत जांकां 'जीवनशैली दुयेंसां'(lifestyle diseases) म्हणटात. आमी सगळीं ज्या ताण तणावा खाला जगतात, जें जंक फुड खातात वो टीवी मोबायलांचे आधीन जाल्यात ताका लागून हीं दुयेंसां उप्रासल्यांत. पूण मनीसजात दुयेंसमुक्त आनी निरोगी जीण जगपाचे धडपडींत आसता जे वरवीं आमी चडांत चड जीण जगपाक शकतलीं. पूण अशी दीर्घ जीण जगपाचें गुपीत किर्ते, ताचो फॉर्मुला किर्ते हे कोणाकूच अजून मेरेन पुराय तरेन समजलें ना.

दक्षिण जपानांत ओकिनावा म्हूण एक जुंवो आसा, जंय एक लाख लोकां मदीं २५ लोक १०० वर्सा परस चड पिरायेचे आसात. जागतीक सरासरी परस हें कितलेशेंच चड आसा. ते खातीर हो जुंवो संवसारांत दिर्घकाळ जगपी लोकांचो जुंवो म्हूण नामनेक पावला. संवसारांत असले तरेचीं आनीकूय कांय थळां आसात जांकां 'ब्लू झोन्स' म्हूण वळखतात. नॅशनल जीओग्राफीचो अन्वेशक डॅन ब्युटनर हांचे संशोधना प्रमाण संवसारांत पांच थळां आसात जंय लोक संवसारीक सरासरी परस चड जीण जगतात. ते जागे म्हळ्यार आशियांतलो ओकीनावा, जपान म्हळ्यार वयर उल्लेख केल्लो जो पयले नंबराचेर आसा. दुसरो युरोपांतलो सारदिनीया इटाली. तिसरो लोमा लिन्डा, कॅलफॉर्निया- उत्तर अमेरिका. चौथो द निकोया पॅनिन्सुला, कोस्टा रिका- उत्तर अमेरिका आनी पांचवो इकारीयो ग्रीस, युरोप. तांणी जेन्ना तांच्या राहणीमानाचो अभ्यास केलो, तेन्ना कांय गजाली ह्या पांचूय जाग्यांचेर समान आसात, ज्यो तांच्या दिर्घकाळ जगपाचें रहस्य आसपाक शकता अशें तांकां दिसून आयलें. त्यो म्हळ्यार आहार, व्यायाम, जिणेंत जगपाचें कारण सोदप जे वरवीं जीण अर्थपुर्ण जातली आनी सामाजीक पातळेचेर घट्ट संबंध म्हळ्यार घराब्यांत एकमेकां लागीं घट्ट लागेबांद आनी खूब व्हड इश्ट परिवार आसप आनी एकमेकांक सामाजीक, मानसीक आदार दीत जिवीत सारप.

वैज्ञानिक संशोधना प्रमाण आमी कितलीं जगतलीं हे फकत २५ टक्के आमच्या शरीराची जडणघडण करपी जनुकांचेर (genes) निंबून आसता. बाकीचें ७५ टक्के आमी कसली जिणेची पध्दत आपणायतात वो दिसपट्टे जिणेंत आमी कसली निवड करतात हाचेर थारता. हाचोच अर्थ जर बरे पध्दतीची जिवनशैली आपणायली जाल्यार जैविक मर्यादे भितर आमी चड पिरायेचें जिवीत जगूंक शकतात.

ह्याच विशयाचेर आदारीत 'इकीगाय - द जपानीज सिक्रेट टु अ लाँग एन्ड हेल्दी लाइफ' नांवाचें पुस्तक हॅक्टर गार्सिया आनी फ्रान्सिस मिरालिस ह्या दोन लेखकांनी मेळून

बरयलां. दोन लेखकांनी 'इकीगाय' हें जपानी उत्तर, जाचो अर्थ 'मोलादीक वो अर्थपुर्ण जीण'. इकीगाय जिवन पध्दती प्रमाण दर एकल्यान आपले जिर्णेतलो दर एक खीण अशे तरेन जगप जे वरवी आपली जीण खूब अर्थपुर्ण जातली. शारिरीक भलायके वांगडाच आपली मानसीक तशेंच आध्यात्मिक भलायकी सांबाळप जे वरवी परिपुर्ण जीण जगपाचें समाधान ते व्यक्तीक मेळूंक शकतलें. ओकिनावाच्या नागरिकांचे निरोगी भलायकेचें आनी दिर्घायु जिणेचें गुपीत म्हळ्यार तांणी जिर्णेत आपणायिल्ली इकीगाय जीवनशैली.

हे जिवन पध्दतींत सगळीं तासां आसपावतात. किर्ते आनी कितलें खावप-जेवप, कितलो व्यायाम करप, केन्ना न्हिदप-उठप, कसलेंय दुर्येस जाल्यार वखद कसलें करप, भलायकेची कशी काळजी घेवप, कसो वेळ घालोवप, खोशयेन जीण घालोवपाक किर्ते करप, अश्यो जिणे संबंदीत सगले तरेच्यो जापो मेळटात. कूड आनी मन हें दोनूय निरोगी उरल्यारच मनीस जीण उत्साहान जगूंक शकता.

आयच्या अर्विल्ल्या युगांत आमी धकाधकीची जीण जगतात. खूब कमी वेळांत खूब किर्ते करूंक सोदतात. आदले काळांतले लोक सुशेगाद जीण जगताले. म्हळ्यार तांकां सामकोच तसो ताण आसनाशिल्लो अशें न्ही. जेवण खाणाची सोय करप, शिकार सोदप, रावपाक जागो सोदप आनी जनावरां पासून स्वताची राखण करप ह्याच मुखेल गजालींचो ताण तांकां आसतालो. आनी हे सगळें करपाक तांचो दीस सरतालो. फाल्यां किर्ते, परवां किर्ते हाचो विचार करपाक तांकां वेळ नासतालो आनी ताचो ताणूय ते घे नासले. ते पुराय तरेन वर्तमानकाळांत जगताले. आयचे पिळगे मुखार तसले मुळावे प्रस्न उरूंक नात. पूण तांकां जे प्रस्न भेडसायतात ते सगळे तांणीच तयार केल्यात आनी ताण तणाव जिर्णेत इतलो वाडला जे खातीर रक्तदाब, निद्रानाश, भंय, हुरहूर, चिंता, चिडचीड, औदासिन्य अशीं जायती नवीं दुर्येसां वाडीक लागल्यांत, जीं मनशाक जुवान पिरायेक्केरूच म्हातारे करून वडयतात.

दोन सभाव वैशिश्टां ओकिनावाच्या नागरिकां मर्दीं सापडटात तीं म्हळ्यार 'सकारात्मक दिश्टिकोण' आनी 'भावनीक जाणीव'. ते खातीर तांचे मर्दीं चिंता, ताण तणाव आनी हुरहूर कमी प्रमाणांत सापडटा. शंबरां वयर पिराय आशिल्ले व्यक्तिचे जिर्णेतूय हेर मनशां भाशेन केन्ना ना केन्ना तरी कठीण काळ आयिल्लो आसताच, पूण ताका तो सकारात्मक दिश्टिकोणान कसो घालोवप हें बेस बरे तरेन जमलां. चिकाटी हो गुणय आमकां जिर्णेत अपेश पचोवपाक मजत करता.

इकिगाय नेमा प्रमाण जेवण जेवतना आपलें पोट फक्त ८०% भरतलें आनी २०% रिकामें उरतलें हाची काळजी घेवप. म्हळ्यार रुचीक लागता म्हूण हाडबडीत, पोट फुटसर खावप ना, जे वरवीं आमचे पचनक्रियेचेर ताण पडटलो. ते खातीर पानार जेवण कशें वाडप हेंवूय तितलेंच म्हत्वाचें. जपानाचे लोक जेवण ल्हान ल्हान थाळयांचेर इल्लें इल्लें वाडटात. चडशें पांच थाळयांनी ते जेवण वाडटात, जांतुतल्यो चार सामक्यो ल्हान आनी एक मात्शी व्हड जाचेर मुखेल जिन्नस वाडटात. म्हळ्यार जाता किर्ते, खूब तातां पळोवन आमकां दिसता आमी खूब खालें म्हूण आनी पोटूय उपाट भरनासतना पोट भरिल्ल्याचें समाधान मेळटा.

आमी जें किर्ते करतात तातूंत पुराय तरेन स्वताक झोकून दिलें जाल्यार, आमकां वेळ कसो गेलो तें समजच ना. इकिगाय नेमा प्रमाण कसलीय गजाल आमी करतात तेन्ना तन-मन तातूंत पुराय तरेन केंद्रीत करूंक जाय. तशें केल्यार आमी तातूंत इतलीं बुडून वतात आनी एक प्रवाहाची अवस्था (state of flow) आमी अणभवूंक लागतात जंय आमकां एक आनंदानुभुती मेळटा. ते अवस्थेंत आमी पुराय वर्तमानांत आसतात, जंय भूतकाळाची खंत-खेद वो भविश्यकाळाचे चिंतेक साप्प सुवात आनी वेळ आसना. आमी कसल्याय कामांत वो क्रियेंत स्वताक झोकून दिलें, तर नाका जाल्ले विचार मनांत येवन आमकां सतायनात. ओकिनावाचे लोक सदांच कसले ना कसले तरी कामांत व्यस्त आसतात. जुंव्याचेर राविल्ल्यान भायल्या संवसारा कडेन तांचो संपर्क कांय प्रमाणांत तुटिल्लो आसता. तांची पीक-पिकावळ तांकांच एकमेकांचे मजतीन पिकोवंची पडटा. प्रवासाचीं साधनां तितलीं नाशिल्ल्यान, तांकां एका जाग्या वेल्यान दुसऱ्या जाग्यार चलत वचचें पडटा. ते खातीर ते दिसभर कसल्या ना कसल्या कामांत अडकून उरतात. पूण कसलेंय काम जावं, ते लोक मन लावन तें करतात. परिमाणा परस (quantity) गुणवत्तेचेर (quality) ते चड भर दितात. सध्याच्या अर्विल्ल्या तंत्रगिनानाच्या युगांत आमचे किर्ते जाता तर आमकां किर्तेय करतना मर्दींच मोबायलाची रींग वाजता वो मॅसेज तरी येतात आनी लक्ष विचलीत जाता. आनी आयची पिळगी चडांत चड त्या माहिती-तंत्रगिन्यानाच्या जाळ्यांत अडकल्या आनी व्यसनाधीन जाल्या. ते खातीर कसलीय गजाल आमी पुराय लक्ष केंद्रीत करून करपाक पावनात. ओकिनावा सारक्या जुंव्यार लोकांक म्हायती-तंत्रगिन्यानान अजून तरी पछाडिल्लें ना. आमी सगळीं भोवकार्यरत (multitasking) जाल्यांत जे खातीर आमी खूब कामां एकाच वेळार करूंक पावतात पूण ते खातीर कामाचे गुणवत्तेचेर वायट परिणाम जावंक शकतात. एकाच वेळार जायतीं कामां केल्यार काम करतले व्यक्तीची धारणाशक्त, सर्जनशीलताय, अचुकताय उणी जावन कामाची उत्पादकताय, गुणवत्ता हेवूंय उणे जाता अशें संशोधनांतल्यान दिसून आयलां. हाच्या उरफाटें म्हळ्यार एक वेळार एकूच

काम करपाचे फायदे म्हळ्यार केंद्रित लक्ष जे वर्तमानांत उरिल्ल्यान चिंते पासून पयस उरता, वेळ कसो वता तें कळच ना. ते खातीर कामूय करपाक बेजार येना आनी तें करतना एक खोशयेचो अणभव मेळटा.

ओकिनावाचे नागरीक खूब आध्यात्मिक जीण जगतात. कुडी परस मनाचे भलायकेक्डेर तांचो चड भर आसता. सुदृढ भलायकी जर मेळोवपाक जाय तर मनूय तितलेंच निरोगी आसपाक जाय. आनी मनाच्या स्वास्थ्याक लागून ध्यानधारणां तांचे जिणेचो अविभाज्य घटक. ध्यान करप म्हळ्यार समाधीस्त जावप वो तो एक धार्मिक प्रकार अशें जायते जाणांचो गैरसमज आसता. मेंदवाचे स्नायु घट दवरपाचो व्यायाम तशेंच मानसीक शांती मेळोवपाचो उपाय म्हळ्यार ध्यान करप. मेडिटेशनान वो ध्यानान आमच्या मेंदवांत आल्फा आनी थेटा ल्हारां तयार जातात, जीं आमच्या मनाक शांतीकाय तशेंच सुशेग दितात. दिसाक दोन वरां ध्यान करप हो ओकिनावाच्या नागरिकांचो एक विधी कसो. आमी जशी दर दिसा देवाची पुजा करतात तेच प्रमाण मानसीक भलायकी सशक्त दवरपाक, दिश्टिकोण सकारात्मक तशेंच मन आनंदीत दवरपाक ते नेमान ध्यान करतात.

तांची सामाजीक जीण सुदृढ आसता. एकमेकांक मेळप, उलोवप, समवैचारीक इश्ट जोडप आनी तांचे वांगडा वेळ सारप, क्लबांत वांगडी जावन पदां म्हणप, नाच करप, एकमेकांक अडीअडचणींक पावप, खंयच्याय पराब्याचें कसलेंय कार्य करपाक सगळ्यांनी हातबोट लावप, जाण्ट्या मनशांक मदत करप ह्यो सगळ्यो गजालीच तांकां तणावमुक्त जीण जगपाचें बळगें दितात. इकिगाय जीवनशैलींत सामाजीक आदार दिवप हो एक म्हत्वाचो रिवाज जावन आसा. ते खातीर तांचे मर्दी सहकार्य, सहानुभुती, सहजीवन, एकचार, दयाभाव, आदर, सेवाभाव, त्याग, मोग मोयपास अशीं



सामाजीक नितिमुल्यां वाढीक लागतात आनी राग, लोभ, मत्सर, आळस, तुलना करप असले मानसीक विकार आपसुकच उणे जातात, जे वरवीं स्व-संकल्पना सकारात्मक जाता. स्वसंकल्पना म्हळ्यार मनीस स्वता बद्दल जें कितें चितता वो समजता तें. जेन्ना मुल्यांची वाढ जाता तेन्ना आपसुकच व्यक्ती स्वता बद्दल बरी संकल्पना बाळगिता. आपूण एक बरी व्यक्ती, ह्या संवसारांत एक उपेगी व्यक्ती अशी ताची स्वता बद्दलची धारणा जाता.

सण परबां वेळारच न्हय तर दर एक खीण आनंदान साजरो करप हें तांचे जिणेचें तत्वगिन्यान. म्हूण जिणेंतलो दरेक खीण आपल्याक आवडटा ती गजाल करपांत ते घालयतात. पूण सदांच आमकां आवडटा तेंच करपाक मेळटाच अशें नासता. इंग्लिशींत एक म्हणणी आसा If you can't DO what you LIKE, then LIKE what you DO! - जर तुमकां जें आवडटा तें करपाक मेळना जाल्यार जें कितें तुमकां करचें पडटा तें आवडून घेयात. आनी हीच म्हणणी ते आपले जिणेंत अनुसरतात.

'इकिगाय' पुस्तकाचे लेखक हॅक्टर गार्सिया आनी फ्रान्सिस्स मिरालिस हांणी दीर्घायु जिणेचें गुपीत जाणून घेवपाक ओकिगामा हांगासरल्या १०० वयर दीर्घायु मनशांची मुलाखत घेतली तेन्ना कांय उपदेशात्मक गजाली तांणी सांगल्यो ज्यो आमकां समाधानी जीण घालोवपाक मदत करूंक शकतात. तांतुतल्योच कांय अश्यो आसात-

चिंता करनाकात - चिंता ना करप हें दिर्घायु जिणेचें गुपीत. ते वरवीं आमचें मन तरतरीत उरून आमी काळजान जुवान उरतात. चिंता विरयत मनीसच आपले मुखामळार बरें हांशें दवरपाक शकता, जे खातीर लोकांक तांचे सहवासांत रावपाक आवडटा. हुरहूर (anxiety) घालोवपाक समाजांत मेळून मिसळून वागात. इश्ट परिवारा वांगडा वेळ घालोवन हांसून खेळून तशेंच जिणेचीं सुखदुख्खां वाटून घेवन, जिणेंतले खीण खोशयेन आनी समाधानान घालयात

बऱ्यो सवयो लावन घेवन वागणूक नितळ दवरात - फांतोडेर बेगीन उठून सैमा वांगडा तशेंच स्वता वांगडा वेळ घालयात. थोडो व्यायाम करात, ध्यानधारणां करात. उदेवपी सुर्या, मळबांतले रंग, चिवचिवपी शेवणी, पांचवीचार झाडां, रंगयाळीं फुलां हें सगळें आमचें मन उल्हासीत दवरतात. सैमांतली उर्जा काळजांत साठोवन घेयात. भलायकेक पोशक अशेंच खाण खायात. ते म्हणटात जाणटे पिरायेचेर मेंदू तल्लख दवरपाचें रहस्य हाताच्या बोटांत आसा. म्हूण बोटां व्यस्त दवरात. हाचोच अर्थ स्वताक कसले ना कसले कामांत गुंतोवन दवरात. बेकार रावल्यार तुमची कूड बेगीन थकतली.

इश्टागतीक उदक-सारें घालात - घरच्यां वांगडाच शेजारी तशेंच समाजांतल्या बाकी लोकां वांगडा इश्टागतीचे संबंद दवरात. समवैचारीक इश्टां वांगडा वेळ घालयात. जीं मनशां तुमकां आवडटात त्या मनशां वांगडा वेळ घालयात. तशेंच जाण्ट्यां आनी ल्हान भुरग्यां वांगडा वेळ घालयात. आमचे वडील मनशां कडच्यान आमकां जिणे संबंधान जायतें मार्गदर्शन मेळपाक शकता आनी भुरग्यां मदीं रावल्यार आमी मनान

सदांच ताजीं टवटवीत उरतात. शेजाऱ्यां वांगडा घराब्याचे संबंद दवरल्यार आमकां सदाच सामाजीक आदार आनी बळग्गे मेळटा.

सुशेगाद जीण जगात - जिणेची गतीं मातशी कमी करात. तुमच्या स्वताचे गतीन चलपाक शिकात. सदांच घाई गडबडींत जीण घालय नाकात. तशें केल्यार जिणेचो आनंद अणभवपाक मेळचोना. एका वेळार एकूच काम हातांत घेयात आनी तें मन लावन करात. जिवितांतल्या बारीक सारीक गजालींचो आनंद उपभोगपाक शिकात.

सकारात्मक दिश्टीकोण दवरात - दिलखुलास हांसप हें सगळ्यांत बरें वखद, जें आमकां जायते दुर्येसांतल्यान पयस दवरता. ते भायर मुखामळार सदांच हांसो फुलयात. जाणटे पिरायेचेर लेगीत स्वताक जुवान समजयात. आयचो दीस म्हजे खातीर बरी भलायकी आनी उर्बा घेवन आयला तेन्ना तो पुराय तरेन जगून घेवया अशी स्वताकूच सुचना दियात. देवान आमकां ही जीण दिल्या ते बद्दल सदांच कृतज्ञ रावात. संवसारांतल्या सगळ्याचेपरी कृतज्ञताय बाळगात.

इकिगायचो सारांश सांगपी १० नियम जे लेखकांनी निश्कर्शाप्रत दिल्यात ते म्हळ्यार -

१. सदाच सक्रिय रावात, जिणेंतल्यान केन्नाच निवृत्त जाय नाकात.

२. सुशेगादीन जीण घालयात.

३. पोट उप्पाट भर नाकात, २०% रिकामें दवरात.

४. बऱ्या इश्टांच्या सहवासांत रावात.

५. आपले कुडिची काळजी घेयात.

६. मनसोक्त आनी दिलखुलास हांसात.

७. सैमा वांगडा नाळ जोडात.

८. कृतज्ञतापुर्वक जगात.

९. जीण दरेक खिणांत जगात.

१०. तुमचें इकिगाय (जिणेक अर्थ दिवपी कारण) सोदात आनी अनुसरात.

तर अशे तरेन इकिगाय जिवन पध्दत आपणावन ओकिनावाचे नागरीक फकत दिर्घायु जीणच न्ही तर अर्थपुर्ण आनी आनंदी जिवितय जगतात. आमीय जर अशे तरेची जीवनशैली आपणायली तर आमीय आमची जीण आनंदान आनी सुखसमाधानान जियेवपाक शकतात. तशें जाल्यार थोडो फार यत्न करुन पळोवपाक कितें हरकत आसा ?



उस्तवारी



अरूण काकोडकार

अरूण काकोडकार हे कथा आनी ललित लेखनात फिशाल. तांचो 'मूठभर मळब' हो ललित लेखांचो संग्रह उजवाडाक आयला आनी तांचीं आनिकूय पुस्तकां उजवाडाचे वाटेर आसात. ताणीं सुनापरान्त ह्या दिसाळ्यांतल्यान तशेंच गोंयच्या हेर कोंकणी नेमाळ्यांतल्यान सातत्यान लेखन केलां. तांकां साहित्या पासतचो 'बिम्ब' पुरस्कार आनी कला तशेंच सस्कृती खात्याचो गौरव पुरस्कार लाबला.




जे. बी. वॉटसनाच्या सिध्दांता प्रमाण मुद्दो फक्त सभावाचो नासता तर मनशाचे बुदवंतकायेचो, क्षमतायेचो आसता.

**जब भी चाहे नई दुनिया बसा लेते हैं लोग।**
**एक चेहरे पे कई चेहरे लगा लेते हैं लोग।।**

खंयच्या तरी एका सिनेमांतलें पद कानार पडलें. म्हाकां तें वळखीचें शें दिसलें. खंयच्या सिनेमांतलें तें सोदून काडलें. सत्तराच्या दशकांत राजेश खन्ना, शर्मिला टागोर आनी राखी हांचो 'दाग' सिनेमा आयिल्लो. थॉमस हार्डीच्या 'धि मेयर ऑफ कॅस्टरब्रिज' हे नवलिकेचेर आदारीत हो सिनेमा. थॉमस हार्डीची ही नवलिका आमकां बि.ए.च्या अभ्यासक्रमांत आशिल्ली. ताका लागून ती तोंडार बशिल्ली आसा... मायकल हेन्चार्ड नांवाचो तरनाटो सोऱ्याचे नशेंत ताची बायल सुजान आनी देड वर्साचें भुरगें एलिझाबेथ हांकां विकपाक काडटा आनी न्यूसन नांवाच्या तारवट्याक विकता... सकाळी फुडें जेन्ना ताचो सोरो निवळटा आनी तो जागो जाता तेन्ना तो बायल-भुरग्याक सोदता. ताका आपली चूक कळटा. पुणून तो मेरेन न्यूसन तांचे वांगडा पयस गेल्लो आसता.

अठरा वर्सां उपरांत सुजान आनी एलिझाबेथ कामाक लागून कॅस्टरब्रिज शारांत पावतात. थंय तांची भेट शाराच्या महापौरा लागी जाता. महापौर म्हणल्यार मायकल हें जेन्ना तांकां कळटा तेन्ना तांकां अजापाचो धक्को बसता. न्यूसनाच्या मरणा उपरांत निराधार जाल्ले सुजानाक आनी एलिझाबेथाक मायकल आदार दिता आनी तीं सगळीं एकठांय जावन रावतात... काणी इतल्यान सोंपना... डोनाल्ड नांवाचो तरनाटो एलिझाबेथाच्या आयुश्यांत येता. डोनाल्ड आनी मायकल हांचे मदीं मतभेद जातात... डोनाल्डाचे सांगणे वेल्यान एलिझाबेथ मायकलाचो दुस्वास करता... मजगतीं सुजान संवसाराक अंतरता. मरचे आदीं ती मायकलाक एक गजाल सांगता... अठरा वर्सां आदीं न्यूसना वांगडा गेले उपरांत देड वर्साचें एलिझाबेथ रोकडेंच मरता. सुजानाक न्यूसना पसून भुरगें जाता आनी तेंच हें एलिझाबेथ! तें आयकून मायकल थतर वितर जाता आनी जीव सोडटा.

'दाग' सिनेमाच्या कथानकांत मात्सो बदल केला... सुनील आनी सोनिया नवेंच लग्न जाल्लें सुखी जोडपें. एक फावट तीं भोंवडेर आसतना एक मवाली सोनियाचेर बळजबरी करता. सुनील त्या मवाल्याक आडावंक वता. थंय त्या दोगांयची लटाफट जाता. मवाली सुरो येवन सुनीलाक मारपाक येता. लटाफटींत मवाल्याचो सुरो चुकून ताच्याच पोटाक लागता आनी तो मरता. सुनीलाचेर खुनाचो आळ येता आनी पोलिस ताच्या हातांक बेड्यो घालून ताका घेवन वतात. सुनील पोलिसांचे कस्टडींतल्यान पळून वता. धवडा सरीं वचून बेड्यो कापून घेता आनी भोंवत भोंवत पयस एका शारांत पावता. थंय तार्चे चांदनी नांवाचे अस्तुरे वांगडा सूत जुळटा. तो नांव बदलून तिचे वांगडा संवसार करता आनी मागीर त्या शाराचो महापौर म्हण निवडून येता.

... हेवटेन सुनीलाच्या विरहान सोनिया दुःखी जाता. एकसुरी जीण जियेता. ती एके शाळेंत शिकयता. थंय तिचो संपर्क चांदनी

ंगडा जाता. दोगांयचो लागसार वाडटा. .के फावट चांदनी सोनियाक आपले घरा ग्रापोवन व्हरता आनी थंय सुनील एका ेगळ्या रूपांत तिचे मुखार येता. वीस वर्सां ्परांत सुनीलाक पळोवन तिका अजापाचो ाक्को बसता. जाच्या नांवान आपणे हाल ग्पाद्रे काडले, एकोडी जीण सारली ताका आपलें कांय पडूंक ना, हें येवजून तिका खंत जाता आनी तिच्या तोंडांतल्यान उतरां येतात... आपल्याक जाय तशें जाय तेन्ना लोक आपलें जग घडयतात. एका मुखामळाचेर कितलींच मुखामळां लावन भोंवतात.

गुन्यांवकाराची फाटभूंय विचीत्र आसता. गुन्यांवी आसून लेगीत ख्यारस्त चुकोवपाक तो आडवळणांनी भायर सरता, नांव बदलता, वेश बदलता आनी एका वेगळ्याच स्वरूपांत जगा मुखार येता. हें कथा-कादंबऱ्यांत आनी नाटकां-सिनेमांतच घडटा अशें न्हय, वास्तवीक जिणेंतय बी घडून येता.

कायद्यांत पळवाटो आसात. कायद्या प्रमाण जो मेरेन आरोपीचो गुन्यांव सिध्द जायना तो मेरेन तो निर्दोश अशें मानचें पडटा. तरी लेगीत कायदेशीर चवकशी जावचे आदीं आरोपी कित्याक पळून वता, हो एक प्रस्न! घडये कायद्याक तोंड दिवपा इतलो तो सक्षम नासता. पुणून कायद्याच्या भयान पळून वचप सगळ्यांत व्हडलो गुन्यांव! सगळेच गुन्यांव जाणा जावन केल्ले नासतात. कांय चुकून घडटात. मनीस दुश्ट करणी करता ती परिस्थितीक लागून. केन्ना रागाच्या भरांत, केन्ना स्वताची राखण करतना. असल्या क्रूरकर्म्यां मदीं सत्प्रवृत्त मनीस लिपील्लो आसता. व्ही. शांतारामाच्या 'दो आँखें बारह हाथ' सिनेमांत एका ध्येयवादी जेलराचें चित्रण केलां. कैद्यांक उकते बंदखणींत दवरून तांकां माणसुकेन वागोवन तांचे मन-परिवर्तन करप शक्य आसल्याचें तो सिध्द



करून दाखयता.

मनशाचें वेगळेंपण ताच्या सभावाचेर आसता. मनशांचे सभाव तरी कितले तरेचे? कोणाचो सभाव मोगाळ जाल्यार कोणाचो उद्धट, कोणाचो तापट जाल्यार कोणाचो थंड, हांसरो-रडकुरो, सभ्य-मतलबी, मनमेकळो-धूर्त, सदळ-चामटो, गर्विश्ट-सादो, जिद्दी-चंचल... तरांतरांचे सभाव. आमी दुसऱ्यांच्या सभावा विशी उलयत आसतात. हो असो, तो तसो... हाचो सभाव बरो, ताचो वायट. आमी आमचे नदरेंतल्यान तांच्या सभावाचें मेज-माप करतात. दोग-चौग जाण एकठांय आयले आनी कोणाचोय विशय आयलो जाल्यार मागीर घे... हाचे-ताचे वागणूकेचेर, वेव्हार-वर्तनाचेर उलोवप जाता आनी आमी आमचें मत परगटायतात. त्या मनशाच्या सभावा विशीं केन्ना आमचें एकमत जाता, केन्ना मतभेद आसतात. दुसऱ्याचेर टिका केल्ली कांय जाणांक आवडटा, थोड्यांक आवडना. थोडे मोन्यांनी आयकून घेतात, कांय जाण ताचेर मीठ चोळटात.

पुणून मजा अशी आसा, जेन्ना आमी दुसऱ्याच्या सभावाविशीं बरें-वायट उलयतात, तांचेर ताशेरे ओडटात, तांच्यो बकल्शायो करतात तेन्ना आमचें स्वताविशीं कितें मत आसता? आमच्या सभावाची जाणवीकाय आमकां आसता. ना अशें न्हय! तरी लेगीत आमी आमकां वायट म्हणपाक तयार नासतात. एकतर आमी आमकां सोंपोवन दिनात आनी आमकां आमचे अवगूण खबर आसून लेगीत आमी ते धांपून दवरतात.

'सभाव' ह्या विशयाचेर मनोविज्ञानीक संशोधन करतात. सभाव कसो घडटा? भुरग्याच्या सभावाचेर आवय-बापायचो आनी घरच्यांचो, इश्टांचो कितलो प्रभाव आसता? सरभोंवतणी घडटा त्या वातावरणाचो कितलो प्रभाव जाता? हाचेर बरीच भासाभास जाता. एकाच घरांत वाडिल्ल्या भावंडांच्या सभावा मदीं फरक आसता. एकाच बरोबर जल्मल्ल्या जुळ्या भावंडां मदीं जमीन अस्मानाचो फरक आसता... अशें कित्याक जाता? महाभारताचीच देख घेवंया. पांडव आनी कौरव एकाच परिसरांत वाडले, वांगडाच रावले, शिकले. पुणून सगळ्यांचे सभाव वेगवेगळे. युधिश्ठीर सत्यनिश्ट, भीम धाडशी, अर्जुन शूरवीर, दुर्योधन कपटी, दुशःसन खूनशी.

मनशाचो जो सभाव आसता तो जल्मतनाच ताका फावो जाता आनी मरण म्हणसर उरता. तो सहजपणान बदलना. हें जरी खरें आसलें तरीय सभाव बदलूंक जाता, असो विचार शंबरेक वर्सांआदीं फुडें आयलो. जे. बी. वॉटसन नांवाचो अमेरिकन

मानसशास्त्रज्ञ जावन गेलो. ताणें बिहेव्हीयरीजम नांवाचो सिध्दांत मांडला. ताच्या सिध्दांता प्रमाण मूळ सभाव कसलोय आसूं, थारावीक संस्कार भुरगेपणा साकून केल्यार मनशाचो सभाव बदलप शक्य जावं येता. एकाच वेळार जल्मल्लीं भिन्न समाजांतलीं, भिन्न धर्मांतलीं, देशांतलीं भुरगीं पुरायपणान विंगड विंगड वातावरणांत आनी संस्कारांत वाडटात आनी ते प्रमाण तांची वाड जाता... दोन भुरगे शेणटात, दोगय दोन कडेन पावतात... एकलो सभ्य, गिरेस्त कुटूंबात वाडटा... दुसरो गरीबागेर जावं चोरांचे टोळयेंत वाडटा आनी मागीर तांचेर कसले संस्कार जातात, हें सिनेमांत पळोवंक मेळटा.

जे. बी. वॉटसनाच्या सिध्दांता प्रमाण मुद्दो फकत सभावाचो नासता तर मनशाचे बुदवंतकायेचो, क्षमतायेचो आसता. एकाच सांच्यातल्यान (कॅच देम यंग) हें धोरण बाळगून भुरग्यांक शिकयलीं जाल्यार तांच्या सभावाचें स्वरूप निश्चीत जावं येता, अशें वॉटसनाचें म्हणणें आशिल्लें. शंबरेक वर्सां आदीं रशियेंत क्रांती जाली आनी कम्युनिस्टांचें राज्य आयलें तेन्ना तांकां इंजिनीयर, शास्त्रज्ञ, डॉक्टर अशा प्रशिक्षीत वेवसायीकांची गरज उप्रासली. कम्युनिस्ट पक्षाक तांच्या नियोजनांत वॉटसनाचें बिहेव्हीयरीजम हें म्हत्वाचें तंत्र दिसून आयलें. रशियेचें उद्देगीकरण झपाट्यान पुराय करून देशाक संपन्न करूंक जाय जाल्यार फुडल्या धा-पंदरा वर्सांत अमूक इतले इंजिनीयर, डॉक्टर, शास्त्रज्ञ जाय पडटले अशीं गणितां बांदून थंयच्या सरकारान तशी येवजण सुरू केली. विद्यार्थ्यां मदली चालू परिस्थिती, तांचें कुटुंबीक वातावरण, समाजीक वेवस्था हें सगळें सोडून काडून ताचेर पुरायपणान शेक दवरून जाय तशे, जाय तितले वेवसायीक घडोवपाची प्रक्रिया जाली.

शाळा-कॉलेजांत अमूकच इतले डॉक्टर, इंजिनीयर, शास्त्रज्ञ शिकोवन तयार करपाक जाय, असो हुकूम काडलो. दबावतंत्र, अधिकारबाजी हांच्या आदारान सगळे घटक नियंत्रीत करपाचे यत्न जाले. इतलें करूनय 'सभाव शैल्यो' निश्चीत जावंक शकल्योनात. एकेच शाळेंत जावं, कॉलेजांत शिकपी भुरगे कितले वेगवेगळे वागतात, वावुरतात हें सरकाराच्या अणभवाक आयलें. शिक्षीत आनी शिकावू शाळा-कॉलेजां सोडून वचपाक लागले. निमाणें सरकाराक नमतें घेवचें पडलें आनी शिक्षण-पध्दत बदलची पडली.

एकूण मनीस ही चीज कळपाक तशी कठीणच! एकादरो मनीस आमकां मनीसघाणो, तुसडो असो दिसता पूण गरजेक तोच धांवून येता. कोणूय एकादरो एकमुळो भिडेस्त अशें आमी म्हणटात पुणून जितले आमी ताचेलागीं वतात तितलो तो मनमेकळेपणान उलोवंक लागता तेन्ना ताच्या गिन्यानाची पारख जाता. ब-या मनशाचें वायटपण जाणवता तशेंच जाका आमी वायट हे नदरेन पळयतात ताच्या बरेपणाचो अणभव येता. ब-यांत वायट लिपील्लें आसता तशें वायटांत बरें दडील्लें आसता. जांकां आमी वर्सां-वर्सां वळखतात आनी ताच्या बरेपणा विशीं आमकां खात्री आसता ते केन्ना केन्ना इतले विचीत्र तरेन वागतात तें पळोवन आमकां मनस्ताप जाता, जाल्यार कांय अनवळख्या मनशां कडल्यान आमकां इतलो गोड अणभव फावो जाता तेन्ना आमचे मदलें परकेंपण गळून पडटा.

आयुश्यांत अशे बरे-वायट खूब अणभव येतात. आपलीं केन्ना परकीं जातात, परकीं केन्ना आपलीं! हो काळोख-उजवाडाचो, वळख-अनवळख्याचो खेळ सारको चालू आसता. मनशाच्या मनांत किर्ते चलता ताचो ताळमेळ लागप सोंपें नासता. मनीस कितलोय व्हड आसूं, ताच्या मनांत स्वताचो सुवार्थ भरील्लो आसता. स्वताविशीं ताचो एक दृश्टांत आसता. स्वताची 'सेल्फ इमेज' घडोवपाक ताका आवडटा. ताका लागून तांचें मन सदांच अस्थिर, चंचळ आसता. सगळेच किर्ते सौजन्याचे पुतळे नासतात. सर्वसादारणपणान मनशाच्या मनांत बरे तशे वायट विचार मांडिल्ले आसतात. ताका लागून ताचो सभाव कोल्ली जाता. तो आपलीं दुश्कृत्यां धांपून दवरपाचो यत्न करता. ताका लागून वेव्हारीक जगांत तो दोन मुखामळां लावन भोंवता. एक असली, दुसरें नकली. तेन्ना मागीर 'नकली चेहरा सामने आये, असली सूरत छुपी रहे' अशे प्रसंग येतात.

व्यक्ती तितक्यो प्रकृती, अशें म्हणटात. मनशांचे विंगड-विंगड सभाव आनी सभावाक वखद नासता, हेंवूय तितलेंच खरें! हेच खातीर जाणकारांनी मनशाची तुळा एका जुंव्यां वांगडा केल्या. मनीस जुंव्यावरीं अळंग, एकमुळो असो. अमेरिकन साहित्यकार अर्नेस्ट हेमिंग्वेन हो मुद्दो खोडून काडला. हेमिंग्वे म्हणटा मनीस जुंव्यावरी आसूंक फावना. तो मेळून मिसळून राविल्ल्या अनेक देशांच्या खंडावरी आसूंक जाय. "For whom the bell tolls" हे ताचे कादंबरीतलें मूळ वाक्य आसा: "No man is an island entire of itself. It is a Continent. Therefore never send to know for whom the bell tolls. The bell tolls for thee."

इगर्जेची घांट तुजे खातीर वाजता. इगर्ज-घांट जल्म जापल्ल्याची खबर दिता. शुभ कार्या खातीर ती वाजता आनी कोणाचेंय मरण जाल्यारय कळीत करता. मनशाच्या आयुश्यांतल्या सगळ्या सणां-परबां लागीं आनी सुख-दुखां लागीं तिचो संबंद आसा. ती घांट कोणा खातीर वाजता, हाचो हुस्को करूं नाका. ती म्हज्या, तुज्या, आमच्या सगळ्यां खातीर वाजता. देखून दुस-याचें किर्तेय बरें-वायट जाल्यार तांकां हांसू नाकात. जें आयज तांकां घडलां तें फाल्यां तुकाय घडूं येता...



सांतइनेज-गोंय
मो.: 9822588852

# आत्म्याचें काळीज

पिपिरमीट



पुजा
लक्ष्मीकांत
भांडारे



महाविद्यालयांत शिक्षण घेता आसतनाच साहित्याची गोडी लागून साहित्य निर्मितीकडेन वचपी जी पिळगी आसा ताची एक प्रतिनिधी म्हळ्यार पुजा भांडारे भक्तीकाव्यांतल्यान आपली साहित्य निर्मणी आरंभ करीत ताणें आतां खुसखुशीत निबंध आनी आपउलोवपांक हात घाला तातें हें मोस्र.

माते, तुमी ह्या जगांत
गिन्यानाची पणटी पेटयतात,
अंधविश्वासाच्या भुयारांत पडपा
पासून तूं लोकांक तुज्या
गिन्यानाचो धीर दिवन तांकां
उबारता. पूण त्या गिन्यानाचो
किर्ते फायदो जेन्ना तुमचें
गिन्यान एका मनशांच्या
काळजांत एके बायलमनशे
विशीं सन्मान तयार करूंक
शकना?

फातोड्ये वयलो वेळ. फुराय सैमांत एक वेगळीच उमेद जाणवताली. सुर्या नव्या दिसाक खोशयेन येवकार दिवपाक लागून दोंगराचे तेंगशेर सामको बेगीबेगीन धांविल्लो. चारूय दिकांनी तरेकवार रंगांची झाडां, फळां, फुलां निकत्याच जाल्ल्या उजवाडाक येवकारतालीं. खोशयेन नाचतालीं. कितलेशेच मोर चारूय दिकांनी आपल्या इंद्रधनुष्यावरी रंगांनी भरिल्ले पिसारे फुलोवन नाच करताले. पक्ष्यांचो सोबीत आवाज कानार एक सारको सादतालो. निळ्याच वस्त्रा भाशेन मळबूय बी निळेंच दिसतालें. जशें की आपलो मोग तें सुर्याक लजून लजून सांगतालें. मुखार एक व्हडली भांगराची नगरी दिसताली. तुमकां कळळांच आसतलें , हे चित्र आमचे धर्तरेवेलें न्हय म्हूण, अशें चित्र आमचे धर्तरेचें आशिल्लें. पूण पयली काळांत, आता तर मनशान धर्तरेच्या आंगांर इतले घाव घाल्यात , आतां तिचे आंगार कितलेशेंच रगत आमकां दिसता. तर ती जागा जी इतली सोबीत दिसताली ती म्हळ्यार ब्रम्हलोक. हातांत वेद धरिल्लो चार मुखांचो ब्रम्हदेव, ओग्गी किर्ते तरी बरयतालो. ताच्याच लागसार देवी सरस्वती हातांत विणा धरुन गायताली. इतल्यांत थंय अकस्मात एक वाऱ्याची शितळसाण आयली. दिसलें,किर्ते तरी थंय आयलां.

देवी सरस्वतींत म्हंटले "देवा, ही अकस्मात कसली थंडायेची सुलूस लागता, कोण आयला?"

"देवी, हांव जाणां कोण आयला, तुकां जाणून घेवपाक जाय व्हय, देवी, हो तोच आत्मो, एके चलयेचो आत्मो, ताका हांवें आपयलां". इतल्यांत फाटल्यानसून आवाज आयकूंक आयलो.

"देवा, आशिर्वाद दियात. तुमी आयज म्हाकां कित्याक आपयलां?"

"बरे जावं तुजे. हांवें तुकां आपयलां, ताच्या फाटल्यान एक मुखेल कारण आसा. तुकां आतां मनीस जन्म घेवन धर्तरेर वचचें पडटलें. कांय तेपान तुकां थंय एका जोडप्यागेर जन्म घेवचो पडटलो. एक चली म्हूण, त्या घरांत, त्या मनशां भितर तुकां वाडुरचें पडटलें. तुजी फाटल्या जल्मांतली पुण्यां व्हड, म्हूण तुकां चलयेचो फुडलो जल्म मेळटा. तूं तयार आसा मगो वचपाक, थंय वतकच तुजेर.... "

आत्म्यान देवाक मर्दीच आडायलो. "म्हजी चूक भोगसूंवी देवा. पूण तुमकां उलयतना मर्दीच आडावपाची म्हजी निखालूस इत्सा नासली. पूण तरी सांगपा पासून हे काळीज रावना. देवा, तुमी आतां म्हाकां



किर्ते सांगतले हाची म्हाका पुराय चत्राय आसा. म्हजेर एक चली म्हूण कितल्योशोच जापसालदारक्यो येतल्यो, सगल्यांचीं काळजां म्हाकां स्वताच्यो इत्सा सुद्दा मारून सांबाळच्यो पडटल्यो. पुराय घराची जापसालदारकी घेवन मागीर वयार येतकूच लग्न जावन दुसऱ्या घरा घोवा सांगातान वचचें पडटलें, थंय आनीक जापसालदारक्यो वाडटल्यो. मागीर हांव आनीक एका नव्या जिवाक जल्म दितलें. पूण देवा, तुमकां हांव आतां स्पश्ट सांगतां, हांव धर्तरेर जन्म घेवचें ना,''

''आगो, तूं किर्ते उलयता हें? तूं म्हाकां ना म्हणटा? आयजवेर तुवें इतले सगले जल्म म्हज्या एका उतराचेर घेतले मगो, मागीर आतांच तुजो आत्मविश्वास असो कसो कमी जालो?''

''देवा, हांव सदांच तुमची नितळ मनांत भक्ती करतां. तुमी सांगता ते प्रमाण दर एक जल्म घेतां, दर एक पावल उबारतां. पूण आतां म्हजो जीव विटला ह्या सगल्याक''.

''आगो, मृत्युलोकांत मनशां मदीं जल्म मेळोवपाक थंय पळय कितलेशेच आत्मे तळमळटात, म्हजेलागीं येवन म्हयन्यांचे म्हयने दिमी मारून अर्गी घालतात, आनी तूं ह्या जल्माचेर खोंट मारता, तूं अशीं निर्शेवणेचीं उतरां कशीं उलयतां?''

''देवा, म्हाकां माफ करात. म्हाकां तुमचो अवमान केन्नाच करपाचो ना. पूण... पूण हांव किर्ते करूं? म्हज्यांत आतां धर्तरेवेले ते हाल सोसपाची शक्त ना. ती धर्तरी आतां धर्तरी उरूंक ना, जळून सुकें पडिल्लें पडंग मळ जालां ज्यातूंत मनशां न्हय तर जनवरां भरल्यांत सगलीं जनवरां. वाग, शिंव तरी बरे, पूण तांच्याय पाश्ट हे धर्तरेवेलीं जनवरां जाल्यांत हे मनीस.

देवा, हांव धर्तरेर वचपाक तयार जायतूय बी, पूण तेन्नाच जेन्ना म्हज्या काळजांत आशिल्ल्या प्रश्नांच्यो म्हाकां धादोस करपी जापो तुमचे कडल्यान मेळटल्यो. तेन्नाच हांव एकवेळ वचपाक तयार जायन''.

''बरें. विचार, अशे कसल्या प्रश्नांचें वादळ उठलां तुज्या काळजांत? त्या वादळाक भायर सरूंक जागा दी''.

''बरें आसा, देवा, तुमी म्हाकां जे धर्तरेर एके चलयेचो जल्म घेवन वच सांगतात. पूण ते चलयेक जो मान मेळपाक जाय तो मान म्हाकां त्या संवसारांत मेळटलो हे म्हाकां तुमी वचन दिवंक शकतात? आतां वगी कित्याक देव? ह्या संवसारांत आजकाल एके बायल मनशेची जागा किर्ते आनी खंय आसा? सांगात, दियात म्हाकां जाप, हांव तुमचे सांगण्या वेल्यान धर्तरेर वतां पूण ते धर्तरेर म्हजें शरीर आनी हांव सुखरूप उरतलीं हाची हमी तुमी म्हाकां दिवंक शकतात व्हय?''

''देवा, तुमीच सांगात, कित्याक वचूं हांव ते धर्तरेर? एक चली म्हूण वचत तेन्ना म्हजो अवमान करून घेवपाक? दुसऱ्यांच्या नालायक व्यसनांची भूक भागोवपाक? कित्याक वचूं, सांगात? एक बायल,जिचो जल्म खूब त्रासांचो आसता. तिचो जल्म म्हळ्यार अशी वाट जी खोशये परस, रखरखत्या उज्याच्या निखाऱ्यांनीच चड भरिल्ली आसता. एक अशी वाट, जे वाटेर तिका दर खिणांक तरेकवार आव्हांना सोसचीं पडटात. स्वताक विसरून आपल्या सगल्या मनशांचे खोशये खातीर कितल्योशोच इत्सा मारच्यो पडटात. आनी तेच वाटेर कितलेशेच शिकारी शिकार करपाक जमलेले आसतात.

मागीर अशा ह्या नरकांत स्वताचे कुडके तोडून घेवपा खातीर वचूं हांव थंय? तुमीच घडयली ही धर्तरी न्हय? तुमीच प्रत्येक मनशाक, प्राण्याक तांचीं कामां वाटून दिलीं. पूण ते जर चुकले जाल्यार तांकां शिक्षा केन्ना आनी कशी दितात तुमी? सांगा, तुमी म्हाकां सांगतात की चलयेचो जल्म घे. पूण तुमी सांगू शकतात, हांव एक चली म्हूण थंय आनंदीत रावं शकतलें? तुमी सगल्यो जापसालदारक्यो जर सगल्यांक वाटून दिल्यात जाल्यार बायलेचेर इतल्यो सगल्यो जबाबदाऱ्यो कित्याक दिल्यो? त्यो जबाबदाऱ्यो दितना तितली सोशीकतायूय दिली. पूण....पूण ते बायलमनशेक तसो जागोय बी धर्तरेर मेळपाक जाय न्हय!

एके बायलेचो जल्म खरेंच व्हड, एक

यल दादल्याच्या सांगातान फुडली पिळगी डयता. एक चली लग्न जातना आपलो गावयबापूय, आपलें घर सगलें सोडून एका व्या संवसारांत वता. तीच बायल एका व्या जिवाक आपल्या पोटांत णव म्हयने गेसता, मरण दोळ्यां सामकार आसून सुद्दां पुरग्यांचें तोंड पळोवपाक आसुसता, पुराय जेवीत ती चंदनावरी आपल्याच मनशां खातीर झरता, पूण ह्या बदल्यांत हो समाज तेका किर्ते दिता? तिका कसलीच अपेक्षा, आस नासता. ती सदांच नितळ मनान आपली कामां करीत आसता. पूण हो संवसार तिच्यो भोयो भोयो करून तिचेरूच आगळीको करता! आयज दिसाक, रातीच्या वेळेक कितल्याशाच बायलांच्यो, चलयांच्यो किळच्यो हांगा सुद्दा कानार पडटा.

जाल्यार इतलें सगलें पळोवन तुमकां देवा दिसलें तरी कशें, की म्हाकां सकयल वचपाक इत्सा आसतली म्हूण! हांव जाणां, एक दादलो आनी बायल दोगांय जाणां ह्या संवसाराच्या फुडाराक तितलींच गरजेचीं आसात. जाल्यार मागीर दोगांकूय मेळिल्ले वागणुकींत कित्याक इतलो फरक, बायल हें आजकाल एक खेळणें जावन पडलां. जिच्या बरोबर मनीस जाय तसो खेळटा, आनी तें खेळणें जशें पोरणें जालें त्या बरोबर तें मोडून उडोवन नवें खेळणें सोदता. ह्या असल्या संवसारांत तुमी म्हाकां धाडूंक सोदतात? ज्या संवसारांत, बायल मनशेचें काळीज, तिचो सभाव, तिचे गूण न्हय तर ती कितली सोबीत आसा हाचेर वायट लोकांची नदर आसता.

बायलो तर जाल्योच पूण हीं धर्तरेवेली जनावरां पाळण्यांतले चली भुरग्यां बरोबर सुद्दा आगळीक करपाक फाटीं फुडें पळयनांत. मागीर अशे धर्तरेर हांव कशें वचूं? एके बायलेक सदांच दिसरात उत्रांचे बाण झेलचे पडटात. कित्या खातीर तिचेर इतलो अन्याय? ती सगल्यां खातीर सगलें करता म्हूण तिका हें अशें पानवळ मेळटा? एक बायल जिंची पयलीं काळांत देवी दुर्गेच्या रुपांत पुजा जाताली. पूण आतां ह्या जनवरांक बायलेचो सांगात नाका, तर फकत तिचें शरीर जाय आपल्या घाण वासनांक पुराय करपाक.आयज एके बायलेच्या जिवितांत सुर्याचीं खोशयेचीं भांगराळीं किरणां न्हय तर फकत काळखे रातीचो गुपाट काळोकि ट्ट काळोख आसता. तिचे जिवीत सदांच दुख्खांच्या चटक्यांनी हुलपत आसता, तरूय ती हांसता, पूण तिच्या जिवितांतलो संघर्श केन्नाच सोंपना. म्हाकां माफ करात. हांवहे धर्तरेर एक बायल मनशेचो जल्म घेवंक शकना.''

माता सरस्वती सुद्दां तिचीं उतरां आयकून भावूक जाली. आत्मो म्हणपाक लागलो, ''माते, तुमी ह्या जगांत गिन्यानाची पणटी पेटयतात, अंधविश्वासाच्या भुयारांत पडपा पासून तूं लोकांक तुज्या गिन्यानाचो धीर दिवन तांकां उबारता. पूण त्या गिन्यानाचो किर्ते फायदो जेन्ना तुमचें गिन्यान एका मनशांच्या काळजांत एके बायलमनशे विशीं सन्मान तयार करूंक शकना? एक मनीस गिन्याना बगर जनावर जाता. पूण आताम एक शिकिल्लो सवरिल्लो मनीस सुद्दां एके बायलेक पळयतना आपलें रिजवणेचें एक व्हड साधन हे नदरेन पळयता. तिका वायट वायट शब्दांनी तिचो अवमान करता. मागीर खरेंच ह्या मनशांक गिन्यान मेळटा व्हय? देवी म्हाकां माफ करात. हांव तुमचो अवमान अजिबात करी ना, पूण तुमी दिल्ल्या मोलादीक गिन्यानाचो चुकीचो वापर जावचो न्हय हेंच म्हाकां मनाकाळजा सावन दिसता''.

ब्रह्मदेव उलोवपाक लागलो, ''सारकें उलयता तूं, तुकां एक सांगूं, हांवें ही धर्तरी घडयल्यार कितलींशींच युगां जावन गेलीं, धर्तरी घडयली, तिची सोबीतकाय वाडयली, तिचेर बागडपा खातीर कितल्याशाच पशु पक्ष्यांक जल्म दिलो, मनशांक घडयलो. पूण मनशांक वेगळे पध्दतीन घडयलो. हेरां परस ताका चड शक्त, विचार करपाची ताकद, मोगान भरिल्लें काळीज, सोबीतकाय सगळें सगळें दिलें. हेर जनावरां तेन्ना म्हजे कडेन येवन झगडलीं. म्हणटालीं, 'देवा, तुवें आमकां कांयच दिवंना, पूण मनशांक इतलें सगलें कित्याक दिलें? तुमी देव जावन असो भेदभाव कसो करूंक शकतात?' तेन्ना हांव तांकां समजायतालों की होच मनीस तुमची जतनाय करतलो, तुमकां मोग दितलो, तुमची अपुर्बाय करतलो. अशें समजावन तांकां परतून धाडटालों. पूण आतां अशें दिसता की हांवें व्हड चूक केली. हांवें मनशा परस जनवरांकूच जर इतली शक्त दिल्ली जाल्यार निदान ती तरी आपली शीम सोडची नासली जशी मनशान सोडल्या. आपली बुद्द वापरून आपली आनी धर्तरेची उदरगत करची म्हूण हांवें मनशाक इतली शक्त दिल्ली. आनी ताणें आपलो फुडार घडयलोय बी. इतली उदरगत केली की चंद्राचेर भोंवून परत जिवो आपले धर्तरेर गेलो. पूण मनीस यंत्रांचो सोद घेतां घेतां आपुणूच यंत्र जावन सगले ताळतंत्र सोडटलो अशें म्हाकां निखालूस दिसूंक नासलें. तांचें काळीज केन्ना फातराचें जालें कळळेंच ना.

आत्म्या, चल तूं, हांव दुसऱ्या खयच्याय आत्म्याक सोदतां जो बायलमनशेचो खडतर जल्म जगपाक तयार जातलो.''.

तो आत्मो देवाक आनी देवीक पळयत नमस्कार करून तांची सासाय घेवन अदृश्य जालो. ब्रह्मदेव आनी देवी सरस्वतीच्या कानांत कितलो तरी वेळ वारो जावन आत्म्याची तीं बाणाचीं तोंकां कशीं उतरां तोपताली.



अस्नोडा-गोंय.
मो.: 7768835310

खळांतली आंबली



प्रमोद कामत

# कश्टांची दीक्षा दिवपी म्हजो भाव प्रदीप

**प्रमोद कामत हे निवृत्त न्यायाधीश आनी गोंय सरकारचे आदले कायदो सचीव. सद्या मनीस हक्क आयोगाचे वांगडी.**

म्हजो व्हडलो भाव प्रदीप भायर पडलो फाटल्या म्हयन्यांत, फेब्रुवारीचे २४ तारकेक. गुलाब आनी वैकुंठ कामत ह्या दांपत्याच्या पोटांत जल्माक आयिल्लीं आमी स भावंडां म्हळ्यार वासुदेव, प्रदीप, सुबोध, विनोद, विवेक आनी हांव. व्हडल्या भावा उपरांत २० जून१९५१ वर्सा प्रदीपाचो जल्म जालो. सत्तरीच्या हुंबऱ्यार पावल दवरचे आदींच तार्चे वचप म्हळ्यार तशें बेगीनूच म्हणूंक जाय. दोन वर्सां आदीं ९ डिसेंबर २०१७ दिसा ताका काळजाचो आताक आयिल्लो. तेन्ना पासून तो हांतुणाचेरूच कसो आशिल्लो. नियती मुखार आमचें कांयच चलना हें जरी खरें आसलें तरी काळजाक लागताच. तरी लेगीत म्हजे सारख्या ल्हान भावंडांक ताणें आपले वावरान कश्टांचें जें म्हत्व पटोवन दिलें ताका मात्तूय तुळा ना. आयज हांव म्हज्या जिविताक दिका दिवंक शकलों आनी वयल्या पदांचेर पावंक शकलों तार्चे स्रय म्हज्यान ह्या भावाचे कश्टाचे धडपडीक दिले बगर रावं नज. ल्हानपणा सावन ताची धडपड, कश्ट म्हजे नदरेक पडत आशिल्ल्यान नकळटां हांवें ताचे कडल्यान घेतिल्ली ती दीक्षाच अशें म्हाकां दिसता.

प्रदीपान आपलें माध्यमिक शिक्षण पणजेच्या प्रोग्रेस हायस्कुलांतल्यान पुराय केलें. उपरांत १९७४-७५ च्या काळांत हुबळी वचून 'भूम रेड्डी इंजिनियरींग' कॉलेजींतल्यान मॅकनिकल इंजिनियरींगचो डिप्लोमा संपादन केलो. उपरांत पुण्याचे किर्लोस्कर कंपनींत नोकरी धरली. पूण ताचो पींड भोवतेक नोकरी करपाचो नाशिल्लो. ताणें देविदास नायक ह्या आपल्या इश्टा वांगडा १९७७ सावन 'सुपर सर्व्हीसेस' ही मायनींग आनी मरीन यंत्रसामुग्री संबंधीत कंपनी स्थापन करून भागीदारीन वेवसायाक आरंभ केलो.



त्या उपरांत स्वताचे हिकमतीचेर आपलो उद्योग सुरू केलो. कश्ट आनी इमानदारीन प्रयत्न करीत जाल्यार तार्चे फळ मेळटाच मेळटा हाचेर ताचो विश्वास आशिल्ल्यान श्रमाक देव मानून ताणें इंजिनियरींग मळार आपलें साम्राज्य निर्माण केलें. रासय, कुठ्ठाळी, वारको ह्या वाठारांत डॉकांची उबारणी केली. 'सुपर इंजिनियरींग वर्क्स' कंपनी उबारली. जुवारी ॲग्रो केमिकल्स उद्योगाक यंत्रसामुग्री पुरवण सुरू करीत फुडले काळार आपलो उद्योग वाढयत गेलो. 'सुपर सर्व्हीसेस' आनी 'प्राका इंजिनियरींग' पिळगांव कंपन्यांचे धनी जाले. पूण हें सगळें साम्राज्य निर्माण करतना ताणें आपले पांय जमनीरूच दवरले. आपल्या कश्टांचो फायदो गोंयचे भुंयेक लाबचो म्हूण सुमार शंबर-देडशें गोंयकार लोकांक रोजगार दिलो.

प्रदीपाक इंजिनियरींगची आवड खूब. पूण ताका तातूंत पदवी घेवंक मेळ्ळी ना, डिप्लोमाचेर समाधान मानलें. तरी तार्चे सपन ताच्या दोन पुतांनी प्रियेश आनी अनेश हांणी इंजिनियर जावन पुराय केलें. इतलेंच न्हय ताची सून आर्या हेंय इंजिनियर जावन आसा.

हांवें म्हजें कायद्याचें शिक्षण पुराय करून वकिली करपाचे तयारेक लागिल्लों. तेन्नाच म्हजी जीएमएफसीत न्यायाधीश म्हूण निवड जाली. पूण पगार उणो म्हूण ती घेवंक हांव फाटीं फुडें जातालों. पूण प्रदीपान म्हाकां त्या पदाचें म्हत्व सांगून म्हजें मन वळयलें. गरीब लोकांक मजत करपाची आयिल्ली संद वगडावं नाका सांगलें. हांवें तें मानलें देखून ताचे वरींच प्रामाणीकपणान कश्ट केल्ल्यान तार्चे म्हाकां फळ मेळ्ळें. हार्चे सगळें स्रय म्हज्या ह्या भावाक, प्रदीपाक वता .

ताच्या आत्म्याक शांती लाबूं इतलीच ताच्या ह्या भावाची परमेश्वरा लागीं मागणी.

अपुर्बाय



मानसी धाऊस्कार



# मयुरीचें पुत्तुल्स क्राफ्ट



आंतरराष्ट्रीय महिला दिना निमतान आमच्या मयुरीची अपुर्बाय करप ही आमची लागणूक.

मयुरी म्हणल्यार मयुरी कृष्णा सिंगनापुरकार. मयुरी ही नामनेचे संगीतकार , गायक आनी चित्रपट अभिनेतो कृष्णा सिंगनापुरकाराची धूव. तिच्याय हातांत एक वेगळी कला आसा. ती म्हणल्यार हस्तकला. कृष्णाबाब 'बिम्ब परिवारा'चो सुर्वेक साकून वांगडी. म्हणटकच मयुरीय बिम्ब परिवारार्चेच. देखून ताची आमकां अपुर्बाय.

मडगवां जल्मून थंयच ल्हानाचें व्हड जाल्ल्या मयुरीन कॉमर्स फाट्यांत पदवी संपादन करून पुण्याक गेलें. थंय तार्णे एनआयइएम(छख्एच) ह्या नामनेच्या इन्स्टिट्युटांत इव्हेंट मॅनेजमेंटचो कोर्स केलो. मयुरीक कॉलेजींत शिकता आसतनाच नाच, फेस पेन्टींग, मेहंदी डिजायनींग, हस्तकला असल्या कितलेश्याच विशयांत भोवच रुची आशिल्ली. इव्हेंट मॅनेजमेंटांत पोस्ट ग्रॅज्युएशन केल्या उपरांत तार्णे इव्हेंट मॅनेजमेंट कंपनींत इव्हेंट मॅनेजराची नोकरी धरली. पूण ताका स्वतार्चे किर्ते तरी निर्माण करपार्चे आशिल्लें. तार्णे आपली 'आरोमा क्रिएटीव इव्हेंट्स' ही इव्हेंट कंपनी सुरू केली.

ह्याच काळांत तार्णे कांय पेपर क्विलींग बीड्स पळयले आनी ताका ते विशीं आवड



निर्माण जाली. तार्णे आपली ही गजाल आपले वांगडा शाळेंत शिकपी आपले खास इश्टीणीक कृपालीक सांगली. तें सद्या फिजिओथेरपीस्ट म्हण काम करता. मागीर तांणी दोगांनीय पेपर क्विलींग इअरींग्स तयार करपाक आरंभ केलो. मयुरीन मागीर पॉप मार्केटींगांत वाटो येवंक सुरवात केली. थंय तांणे भोवतेक आपलें पेपर क्विलींग बीड्स खपयलें.

हें अशें चलता आसतना मयुरीक गोंय सरकारचे मनरिजवण संस्थेंत नोकरी मेळ्ळी. थोडो काळ थंय वावुरल्या उपरांत ताका कळ्ळें हांगा ९ ते ५ मेरेन वावरप आपल्याक जमचें ना. तांणें आपलो थंयच कॉन्ट्रॅक्ट सोंपले उपरांत तार्णे आपलो पुराय वेळ ज्वेलरींत घालोवपाक आरंभ केलो.

मयुरीन हो उद्योग घरांतूच आरंभ केल्लयान ताका वेळेची मर्यादा तशी उरली ना. कामां पासत भायर खंय वचूंक जाय अशेंय ताका नाशिल्लें.. तरी कांय अडचणी ताका येताल्यो. त्योय तार्णे सुटाव्यो केल्यो. तांणे बाटल्यांचेर डेकोपेज सुरू केलें. डेकोपेज ही फ्रेंच कला. तें आर्ट आनी क्राफ्ट हार्चे मिश्रण.ताचे आनीक एके



इश्टीणीन ताका बाटल्यां पासून भेटवस्तू तयार करपाक सुचयलें. तार्णे तें सुरू केलें. लोकांक ही कला भोवच मानवली. तार्चे हे डेकोपेज तार्णे ग्लासाचेर, चामड्याचेर,फातराचेर बी सुरू केलें. तार्णे कार्यशाळाय घेवपाक सुरवात केली.

आयज मयुरी आर्ट आनी क्राफ्ट ह्या मळार यशस्वी उद्योजक थारला. आयज तें 'आरोमा क्रिएटीव्ह इव्हेन्टस्','मायुस क्विलींग ॲसेसरीज' आनी 'पुत्तुल्स क्राफ्ट' हीं आस्थापना सांबाळटा. ताका आंतरराष्ट्रीय महिला दिना निमतान खूब खूब परबी.

***



भलायकी

राज वैद्य



# करुया डॉक्टर शॉपींग?



गोंयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगविंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

पप्पा,शेजारची आण्टी आयल्या तुमकां मेळपाक आयल्या.किर्ते विचारूंक जाय खंय वखदा बद्दल..

मम्मी: हें आनी किर्ते..ही फार्मास काय किर्ते..पप्पाक मात लेगीत सुसेग नाका काय किर्ते..

रमेशः आसूं गो, कित्याक बेजार जाता..गरज पडल्या देखूनच आयल्या आसतली ती..पुता,रोखडोच आयलों अशें सांग आं ते आण्टीक. आनी तिका बसय आनी पिवपाक उदक दी.(मागीर थोड्या वेळान भायर येवन)गूड मॉर्नींग आण्टी,कशी आसा..

आण्टीः तशीं बरीं आसा रे..पूण प्रॉब्लेम आयला म्हूण येवंचें पडलें सुटये दिसा तुका त्रास दिवंक

रमेशः हॅं अशें कांयच चिंती नाका. सांग तूं किर्ते मजत करूं ती..

आण्टीः बाब,रागार जाय नाकां हां..तुका खबर आसा,म्हाकां धोंपराचें आसा म्हूण..खूब दुखता रे बाबा..कितलेशेच दोतोर केले..

रमेशः हय,खबर आसा. सांग तूं फुडें..

आण्टीः बाब,हांव मरे सामकें कोफुसांवांत पडलां.हीं पळय दोतोरांचीं रेशेदां.तूं फार्मासकार न्हय..तुमकां सगळें सारकें कळटा वखदां विशीं..आतां म्हाकां प्लीज सांग रे बाबा,खंयच्या दोतोराचीं वखदां बऱ्याक पडटलीं तीं..

रमेशःह्या दोतोराक तुवें पंदरा दिसां आदीं दाखयलां. हीं वखदां घेवपाक सुरू केलें तुवें..

आण्टीःहय,हीं पळय.आजून घेतां हांव. पूण आजून कसलोच गूण पडलो ना.

रमेशः आनी ह्या दोतोराक तुवें चार दिसां आदीं दाखयलां.

आण्टीःहय,पेपरार जायरात आयलेली न्ही.बॉम्बेच्यान स्पेशली दोतोर येता म्हूण..घरच्यांनी म्हणलें ताका दाखय..

रमेशः आनी ह्या तिसऱ्या दोतोराक तूं कालूच मेळळ्या मगो..

आण्टीःहय रे बाब,म्हाकां नंडणेन सांगले न्ही,तें नेवें हॉस्पिटल पडलां तातूंत एक बरो दोतोर आयला,हाडांचो स्पेशेलीश्ट म्हूण..काल ताका दाखोवन येतां म्हणसर लेट जाली रातीं..कुठ्ठाळे ट्रॅफीक कितली ती तूं जाणांच..

रमेशःबरे बरे दोतोरांक दाखयले तर तुवें..

आण्टीःहय रे,खूब दूडू येताय मरे ते..आतां तूं म्हजेर एक ल्हानसो उपकार कर..खंयच्या दोतोराचीं वखदां घेवं तें मातशें सांग रे बाब..हांव सामकें गोंदळांत पडल्या.

रमेशःआण्टी,खरें म्हळ्यार तुज्याहून हांव कन्फ्यूज जालां.

आण्टीःहे बेश्टेंच किर्तेय सांगता तूं..

रमेशः खरेंच गे..तीन दोतोरांक मेळळ्या तूं..तीन चेक अप केले तुवें..तिगांनीय आपापलीं वखदांय दिलीं तुकां.तिगूय बरे स्पेशलिश्ट अशें तुजें मत..तिगूय फामाद अशें म्हणटा तूं..आतां तूं सांग,हांव कशें सांगूंक शकतां खंयचीं वखदां बरीं आनी कोणाचीं तीं..

आण्टीःअसें कित्याक म्हणटा..तुमकां तर डेली कितलींशींच रशेदां येतात न्हय..ते भायर तुमकां वखदांचें सगळें कळटा तर हें सांगपाक तुका कठीण दिसूंक फावना,सांग मरे बाब म्हाकां..

रमेशःपळय आण्टी,खंयच्या दोतोराचीं वखदां बरीं वा वायट हें सांगपाचो म्हाकां कसलोच हक्क ना.हांवें एका दोतोराचीं वखदां घे म्हणल्यार तूं म्हाकां दुसऱ्या दोतोराचीं वखदां कित्याक बरीं न्हय हो प्रश्न विचारतली.

आण्टीः ना रे बाबा,हांव तूं सांगता तेच दोतोराचीं वखदां घेतां.

रमेशः मागीर तुजी नणंद म्हणटली,हांवें सांगलेल्या दोतोराचीं वखदां कित्याक घेवंक ना तुवें..जाल्यार दुसरे वटेन तुजीं घरचीं बॉम्बच्या दोतोराचीं वखदां कित्याक घेना म्हूण तुका विचारतलीं. मागीर ह्या प्रश्नाच्यो

कसल्यो जापो दितली तूं..

आण्टीःतीं किर्तेंय म्हणूं..हांव तांचें किर्तेंच आयकपा ना.हांव फकत तूं सांगता तेंच आयकतलें.

रमेशः पूण तांच्यांनी सांगलें देखूनच तूं ह्या दोतोरां लागी गेल्ली न्हय..

आण्टीःना रे बाबा,तें सोड. आतां मात हांव तूं सांगता तेंच आयकतां.

रमेशःरेशेदार बरयलां ताचे वयल्यान कळटा,तुज्यो दिंबयो झरल्यात भितरल्यान. देखून तुका चलतना खूब त्रास जातात.हरशीं पासून दूक आसाच.सुजूय येता. सारकें न्हय..

आण्टीः हय रे..तुकां सांगलें न्हय हांवें,तुका सगलें कळटा म्हूण..

रमेशःहांगां बरयलां तेंच सांगतां हांव तुकां..आनी तुका दोतोरांनी किर्ते सांगलां..गुड्गे बदलपाक जाय म्हूण सांगलां न्हय तुका..

आण्टीः हय,सामकें तुजें..पूण म्हाकां कोणें तरी सांगलां,तें खूब पेरीग म्हूण..आनी नणंडेन तर म्हाकां सांगलां,फाटीं कोणाचें ऑपरेशन लेगीत फेल जालां म्हूण..

रमेशः म्हणजे ।जूनय तूं लोक सांगता तेंच आयकता तर..

आण्टीः हें तशें मात्तूय ना रे बाबा..

रमेशः मागीर कशें तर..पळय,ह्या तिनूय स्पेशलीश्ट दोतोरांनी सांगलां,तुज्यो दिंबयो झरल्यात आनी ताका नी रिप्लेसमेंट म्हणल्यार दिंबयो बदलप होच एक उपाय. ।नी दुसरो कसलोच पर्याय ना.तूं तशें करी ना जाल्यार तुज्या धोंपराची दूक आनी सूज तूं चलता तशी वाडत वतली.

आण्टीःपूण ऑपरेसांवाचें नांव आयकतकीर म्हाकां किर्तेंच सुचना. खूब भिरांत दिसता.आंगार कांटो फुलता रे..

रमेशः हें आतां तुवें थारावपाचें. हांव वा कोणूय तुजेर हे बाबतींत जबरदस्ती करूंक शकना. मातशें चींत,तुजो वेळ घे.आतांच करूंक जाय अशें ना.

आण्टीःपूण ऑपरेशन करपाक जायच वखदांनी बरें जावचें ना रे बाबा..

रमेशः धरल्यात न्ही त्यो..वखदांनी त्यो सारक्यो जावप खूब कठीण.अशक्यच अशें म्हणल्यार जाता.मातशें बरें दिसपाक तुका दोतोर ह्यो वेगवेगळ्यो गुळयो दितात. पेन किलर पासून दोतोरान बरयल्यात.पूण दोतोरांनी तुका सांगलांच आसतलें,ह्यो गुळयो तुका सामकींच गरज पडल्यारूच घे म्हूण. कारण चड्डय घेतल्यार ताचे वेगवेगळे सायड इफेक्ट तावं येतात.

आण्टीः हय रे,,तेंय सारकेंच.पूण गी जूक म्हातकां मात्तूय सोंसना.

रमेशः आनी दोतारांनी तुकां वजन कमी करपाक सांगलांच आसतलें, पूण ताचीं लक्षणां म्हाकां मात लेगीत तुजे भितर दिसनात. तें करीत जाल्यार तुज्या धोंपरांचेर उणो पेज पडटलो.

आण्टीः करतां हांव करतांच रे. पूण जड जाल्यां रे मातशी..आनी खावपाचेरूय म्हजो मात्तूय कंट्रोल ना रे बाबा.आतां मात शेर्त करतां.

रमेशः आनी दोतोरान सांगल्यात ते पांयांचे व्यायाम..एकाच जाग्यार बसून आनी न्हिंदून करपाचे..तातूंत मातसो तरी गूण पडटलोच.

आण्टीः हय रे करतां करतां. चुकलेंच म्हजें.पूम गुळयो खंयच्या दोतोराच्यो घेवं..

रमेशःतूं सद्या किर्ते घेता तेंच घे.पेन किलर मात सामकींच गरज पडल्यार घे.पूण मुखेल म्हळ्यार वजन देंवय. व्यायाम कर,फरक पडटलोच.आनी ऑपरेसांव करपाचें काय ना तें तुजेर आसा.मातसो वेळ घे आनी थाराय.ह्या दोतोरान तुकां एका म्हयन्यान आपयल्या.ताचे कडेन वेळार चल.तो सांगता तें सारकें पाळ.ऑपरेसांवाचें किर्ते दुबाव ।सल्यार तेंय ताचे कडल्यानूच समजून घे.

आण्टीः देव बरें करूं बाबा,हांव जाणांच आशिल्लें,तूं म्हाकां योग्य तो सल्लो दितलोच म्हूण..आतां म्हजें सगळें कोफुसांव गेलें.तूं सांगता तेंच हांव करतलें.

इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन,
गोंय
ई-मेल : **ipacpd@gmail.com**, *9422062286*



## आकर्शण



कोंकणी लेखक संघाचे वतीन निलबा खांडेकार हांचो तांकां २०१९ वर्साचो साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबिल्ल्या बद्दल बिम्बचे संपादक आनी साहित्यिक दिलीप बोरकार हांचे हस्तुकी भोवमान जालो. त्या वेळार संघाचे अध्यक्ष एन्. शिवदास आनी सचिव सुफला गायतोंडे हाजीर आशिल्लीं.




नामनेच्यो कवयित्री हर्षा शेटये साहित्य अकादेमीच्या राष्ट्रीय कवी संमेलनांत मणिपूरची राजधानी इंफाळाक आपल्यो कविता सादर करताना. वांगडा हेर भासांतले कवी.



मुंबयच्या दि गोवा हिन्दू असोसिएशन हे नामनेचे संस्थेन कोंकणींतले विनोदी साहित्यिक अ.ना. म्हांबरो हांचे यादीक विनोदी साहित्य पुरस्कार भेटोवपाक आरंभ केला. २०१९ वर्साचो पुरस्कार दिलीप बोरकार हांणी हालींच मराठींतली नामनेची साहित्यकार आनी समिक्षक डॉ.अरुणा ढेरे हांचे कडल्यान स्विकारलो.



डॉ. जयंती नायक हांकां साहित्य अकादेमीचो २०१९ वर्साचो अणकाराचो साहित्य पुरस्कार फावो जाला. तांणी नामनेच्यो हिन्दी साहित्यकार कृष्णा सोबती हांच्या जिन्दगीनामा हे कादंबरीचो कोंकणी अणकार केला. हे आदीं डॉ.जयंती नायक हांकां साहित्य आकादेमीचो पुरस्कार फावो जाल्लो आसा. तांकां बिम्ब परिवारा वतीन परबीं.



– संतोष हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा ४०३ ४०१.
मो. : ९७६२६४१६१५




| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | | ३ | ■ | ४ | ५ | | ■ |
| | ■ | | ■ | ६ | ७ | | | ■ | ८ |
| ९ | १० | | | ■ | ११ | | ■ | १२ | |
| ■ | १३ | | ■ | १४ | ■ | ■ | १५ | | |
| १६ | | ■ | १७ | | | १८ | | ■ | ■ |
| | ■ | १९ | | | ■ | २० | | | २१ |
| २२ | २३ | | ■ | ■ | ■ | | ■ | ■ | |
| ■ | | ■ | २४ | | २५ | | ■ | २६ | |
| २७ | | | | ■ | | ■ | २८ | ■ | |
| २९ | | ■ | ३० | | | ■ | ३१ | | |

**आडवे :** १. जाणटी पिराय, जाणटेपण,४.अदीक,चड ६. रानांतलीं ल्हान व्हड झाडां पेडां, ९. शिरंगारप, ११. तरा,दशा,अवस्था, १२.कसल्याय शस्त्राचो धपको,घाय, १३. वायट करणी, १५. गोंयची राजधानी,आजयेची आवय,१६.कागद,१७.पयलेच फावट,पयलेच खेप १९. बेडो,फोफळ , २०. जापसालकी,जबाबदारी २२. सातको,आठको,XXX २४. जायत्या जातीचें बारीक एकठांय नुस्तें, २६ भारताचो राष्ट्रीय पक्षी, मयुर, २७. तरी,तरी पासून,तरी सुध्दा, २९. रान,जंगल, ३०. झूंज,३१. भरप,ओतप,रकवप.

**उबे :** १. देवाचो वा देवीचो कुळावी, २.एका आयदनांतलें दुसऱ्या आयदनांत घालप, ३.सात आनी दोन, ४. भाट-बेंस,गिरेस्तकाय, ५. बरें आनी वांकडें समजून घेवपाचें शास्त्र, ७. वस्त, ८. भयणीचो घोव, १०. डाक, पत्रां, १२. वायट वास,हळशीक,१४. आंब्याची एक जात,१५.व्हड आनी उथळ ताट १६. पत्र्याचें वाटकुळें वा चोवकोनी आयदन,दबो,१७. धांव-पळ १८. एक म्हारग आनी सुवादीक नुस्तें, १९. उदक नाशिल्लो,ओलसाण नाशिल्लो.२१. घसघशीत वाडप,ताजपण येवप, २३. उचल्यान,परतें,२४.भिकणां बी भाजपाचें कुयर्णे, २५.मोठेपण,व्हडपण २७. देराची बायल, २८. धार्वे नक्षत्र.

फेब्रुवारी २०२० ची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| पा | र | पो | ळ | ■ | ■ | व | र्त | मा | न |
| य | ■ | क | ■ | ■ | स | र्ग | ■ | न | ■ |
| ने | पा | ळी | ■ | पा | त | ■ | न | कु | ल |
| ल | य | ■ | अ | प | रा | ध | ■ | रा | ■ |
| ■ | ली | ख | ■ | भि | ■ | न | क्क | द | ■ |
| अ | ■ | ड | म | रू | ■ | ■ | ■ | ■ | स |
| न | ■ | सा | ■ | ■ | क | ला | ■ | दा | व |
| व | ळ | व | ळ | प | ■ | पी | र | ■ | ळे |
| ळ | ■ | णी | ■ | लं | प | ट | ■ | पा | प |
| खी | ■ | ■ | सं | ग | त | ■ | न्हे | स | ण |

POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2018-2020
RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413
Published on 1st and posted on 5th & 10th day of every month



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim-Goa
& Printed at Impression, Belgavi. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, Email : bimbkonkani@yahoo.co.in